ARDUK
Collection of Short Stories
By – PUNDALIK NARAYAN NAIK

प्रकाशन क्र. ३५



पयली उजवाडावणी :
जुलय १९८९

उजवाडावपी :

हेमा पुंडलीक नायक
अपुरबाय प्रकाशन
वळवय, फोंडें, गोंय
४०३ ४०१

छापपी :

हिरू नारायण नायक
अपुरबाय प्रिंटर्स
वळवय, फोंडें-गोंय
४०३ ४०१

मुखचित्र :

श्रीधर कामत बांबोळकार

मोल :

**तीस रुपया**

**कथांची पयली उजवाडावणी**

* भाग्योदय 'सौंगडी' चवथ १९८२ * घर 'जाग' दिवाळी १९७९ * अर्दूक 'जाग' दिवाळी १९८० * भोंवर 'सौंगडी' चवथ १९८३ बुकलो 'कुळागर' दिवाळी १९७९ * बाजार 'कुळागर' दिवाळी १९८१ * बळी 'कुळागर' दिवाळी १९८३ * खाटकागेर एक रात 'कोंकणी' वर्सुकी ९९८७-८८ * बळजबरी 'कुळागर' दिवाळी १९८० * जैत 'कुळागर' दिवाळी १९८२ * अग्निदिव्य 'जाग' दिवाळी १९८७

**श्री. नारायणबाब मावजो ...**

तुमच्या दोळयां हुजरा
कोंकणीच्या पोरसांतले रोपले
मळबाक भिडले !
तुमकां आनीक कितें जाय ?

**तुमचो,**
**पुंडलीक**

## मांडावळ

१.

# भाग्योदय

खासा वीजमंत्र्याचो निरोप येतकच सरपंच आनीक रावता ? आसा तसो धांवलो.

जे गतीन धांविल्लो तेच गतीन सांजवेळा परतलो. येनाफुडें ताणे पयलें काम केलें, तें म्हळ्यार खंयच्या तरी गाडयार इस्पिकांनी खेळत बशिल्ल्या उपसरपंचाक सोदून काडलो. मागीर दोगांयनी लागून हाचे तावेकडल्यान सांगणे धाडून उरिल्ल्या तिनूय पंचांक आपोवन हाडले. तातूंत मदल्या वाड्यावयली पंचबाईय आसली. पंचाबराबर कांय चालंत समाजसेवकूय हाजीर जाले. तातूंतल्या कांय जाणांक मुजरत आपयिल्ले जाल्यार कांय जाण भोपशाच्या वासान बुकलो लागीं येता तशे आयिल्ले.

फुडल्या शेनवाराक वीजमंत्री गांवाक भेट दितलो म्हणपाचें सरपंचान सगळ्यांक सांगलें आनी खूब दिसांची आपणाली एक इत्सा पुराय जाली अशा अर्थान एक सुस्कार सोडलो. मंत्र्याचे भेटिचें कारणूय सांगलें. उपरांत सगळ्यांनी वरांचीं वरां खूब भासाभास केली, वीजमंत्र्याच्या भेटिच्या वेळार कितें करपाचें आनी कितें करपाचें ना, हाचेर.

दुसऱ्या दिसा सकाळच्या पारा सरपंच, पंचमंडळी आनी हेर समाजसेवक मान बागोवन धर्माचे मठयेंत भितर सल्ले. अकस्मात इतले लोक आपणाल्या घरांत भितर सरिल्ल्याचें पळोवन जाणटेलो धर्मा कडकडलो आनी खोकपाचें विसरून गेलो. जाण्टेली – तागेली बायलूय कांचवेली.

इतल्या लोकांक खंय आनी कशे बसोवचे हे येवजणेंत जाणटेलो पडलो. इतलें म्हणसर सरपंचान घरांत वंटी-पाश्टाचेर एक नदर भोंवडायली. कांय वगत सगळ्यांनी घराची बारीकबरी पळोवणी करून जाणटेल्या घोवबायलांक बुचकळ्यांत वडयलीं. बऱ्या वेळान सरपंचान, अशें अकस्मात धर्माच्या घराचो हुमर हूपपाचें प्रयोजन सांगलें.

फुडल्या शेनवारची ही गांव - भेट वीज मंत्र्यान खास आपणे जावन आंखिल्ली. केंद्र सरकारची भाग्योदय येवजण, ह्या प्रदेशांत बरेतरेन चालीक लावन सफळ करपाचो संकल्प तांच्या मंत्रिमंडळान कांय म्हयन्या आदींच सोडिल्लो. भाग्योदय येवजणेंत गरीबांच्या घरांत वीज दिवपाचें एक कलम आसलें. त्या कलमाची पुर्तताय करपाक वीजमंत्री फुडल्या शेनवाराक गांवांत येवन, णव जाणांच्या घरांत दिवे पेटयतलो आसलो. सरपंच आनी हेर जाणगूर मंडळिनी कांय वरां खर्चून गांवांतल्या गरीबांची जी वळेरी केल्ली तातूंत जाणटेल्या धर्माचें नांव सगळयान वयर आसलें.

– तुजो नंबर पयलो.

एका समाजसेवकान धर्माचें अभिनंदन केलें.

– वीजमंत्री पयलीं तुगेर येतलो.

दुसऱ्या समाजसेवकान हूतहुतेपणान सांगलें.

येदयाश्या घरांत, मंत्र्याक भितर सरपाक आनी उबो रावन दोन उतरां उलोवपाक बरोच त्रास जातलो काय किते, असो सरपंचाक दुबाव आयिल्ल्यान तो येवजणेंत पडलो पूण मागीर ताका उमजून आयलें, गरीबालें घर अशेंच आसपाचें.

– घर मातशें झाडून निवळ कर.

वाड्यावयल्या पंचान ताका फर्मान सोडलें. मागीर कांय वगत तांचे भितरूच उलोवणी जालीं. वीजमंत्री घरांत भितर सरतना पाश्टाचे पाटयेक आदळचोना म्हणपाची जतनाय कोणे घेवपाची, घरांत मेज आनी कदेली हाडल्यार त्यो कशेतरेन मांडपाच्यो, मंत्र्याक हार घालपाचो कांय ना, घातल्यार कोणे घालपाचो ? अशा जायत्या गजालींचेर हाजीर आशिल्ल्या समेस्तांनी चर्चा केली.

– तुगेलो चेडो खंय रे ?

सरपंचान जाण्टेल्याक विचारलें. केन्नाच्यान तोंड 'आं' करून राविल्ल्या जाणटेल्याक उलोवपाची संद मेळ्ळी.

– तो भायर सरोन चार दीस जाले. केन्ना येतलो तेंबी कांय सांगूना.

– शेनवारमेरेन तरी येतलो कांय ना ?

– आतां आमकां कशें कळपाचें ?

जाणटेल्यान हुस्क्यान सांगलें.

– चींता करपाची गरज ना. तो पावना जाल्यारूय जाता. ह्या फार्माचेर आंगठे मार.

आंगठे मार म्हणटकच जाणटेलो मातसो फाटिफुडें जालो. अन्नाड्यांच्या आंगठ्यांच्यो जायत्यो गजाली सांगून पुतान ताका जायते फावटीं शिटकायिल्लो. पूण सगळे वळखिचे गांवभाव पळोवन ताचो दुबाव विरून गेलो.

हालींच ओंठार मिसरूट फुटिल्लो तरणो समाजसेवक सांगता थंय थंय ताणे

आंगठे पितारले. जाणटेली बशिल्लेकडेन रावन तुकूतुकू करून पळयत रावली. आंगठे मारून जातकच वळून आयिल्लें बोट जाणटेल्यान काश्टेच्या शेवाक पुसलें.
– शेनवार दीस न्हेसपाक धोतीरबी आसा मरे ? नाजाल्यार एका आदेसा पुरतें घे कोणालेंय मागून.

पंचान ताका शिटकायलो.
– आसतलें.

जाणटेलो उलयलो.
– आनी तुकां गे ?

कितल्याशाच बगतान पंचबाई उलयली. येदो वेळ आपणे कितें उलोवचें तें तिका खबर नासलें.
– बऽऽरी न्हेस.

जाणटेलेन कितेंय जाप दीवचे आदींच पंचबाईन वेगीवेगीन सांगून वडयलें. मंत्री आपणाकूच पळोंवक येतलो अशें भाशेन ती आपले भितरूच मूरकूटली.

– शेनवारमेरेन घर नीवळ दवरपाचें. फाल्यां सारण लावन ह्यो वयलो घयरांव काडून वडय. तुजेकडेन जावपाचें ना. कोणाकूय लावन काम करून घे.

सरपंचान तागेली अशक्तताय पारखून सांगलें आनी ल्हव्च सगळ्यांक दिसता अशे तरेन एक नोट काडून जाणटेल्याच्या पोशांत दवरली.
– आनी पळय, चड काजळी जाता जाल्यार घरांत रांदू नाका. भायरूच रांदात. फक्त चार दिसांचो प्रश्न.

एका जाणकार समाजसेवकान बुद्द दिली. जाणटेल्यान आनी जाणटेलेन मान बागोवन मोन्यांनी मानून घेतलें.

शेनवारमेरेन घर निवळ राखपाचें आनी शेनवारा दिसा वेवस्थीत न्हेसून तयार रावपाचें हीं दोनूच कामां तांच्या वांट्याक आयिल्लीं. बाकिचीं सगळीं कामां थरोवन दिल्ले मनीस वेळच्या वेळार करतले आसले. खासा सरपंच सगळ्यांचेर नदर दवरतलो आसलो.

आनी तिसऱ्या दिसाच्यान म्हळ्यार बुधवारच्यान सरपंचान फांत्यार उठून सगळ्या कामांचेर नदर दवरपाक सुरवात केली. तागेले फांतोडचे मोंवडेची झळ बादली ती बायलांक. झिली आडसाक बसून सकाळचे विधी सोंपोवपाच्या कार्यांत तांका सरपंचाची पासय अडचण जाली. मात सरपंचाचे हे जागृतायेक लागून गांवांतल्या सान्नीकोनशाक पासून शेनवारच्या समारंभाची बरीच फांफू जाली.

सरकारी काम तर युद्धथराचेर जावपाक लागलें. वीजखात्याचे अधिकारी जीप घेवन गावांत येवपाक लागले. चलिल्ल्या कामांचेर इंजिनीयर खासा लक्ष दवरपाक लागले.

गांवातल्या कोणांक कळनाशिल्ली भास उलोवपी पंचविशेक मानायांनी

कांय न्हय करून गांवात वेगवेगळेकडेन पांच शिमिटाचे खांबे उबारले. खांब्यांच्या वयल्या भागाक लोखणाची कांब आडवी घट केली वयर तूळतुळीत चिनी मातयेचे गड्डे बसयले.

मारगाकुशिच्या खांब्यावयल्यान ह्या खांब्याचेर तारो घालल्यो. ओडल्यो, ताणल्यो आनी गच्च बांदल्यो.

एक खांबो जाणटेल्या धर्माच्या घराकुशीक उबो रावलो. सकाळीं पुरिल्लो खांबो सांजमेरेन लंवडलोना तें पळयतकच जाणटेलेची खावी पटली आनी मागीर ती त्या खांब्याक परत परत दूबावान पळयना जाली. त्या खांब्यावयल्यान एक काळी वायर ओडून ती घरार हाडून बांदिल्ली. भायलें काम जातासर एका फीटरान भितर वंटी धाडावन वायरी बसोवपाचो वावर पुराय केलो. वेंतभर फोळये कुडक्यार ताणे दोन बटण बसयिल्ले.

फोळी थापटून जातकूच फीटरान टक् टक् करून बटण वयर सकयल करून पळयिल्लें. तेन्ना जाणटेलेच्या काळजांत धाकधूक जाल्लें. जाणटेलो मात सगळें अजापान आनी तोखणायेन पळयतालो.

बिरेस्तारा दिमा सरपंचाक परत आपणाल्या सगळया वांगड्यांची एक खास बसका घेवंची पडली. कारण आदीं थरिल्ले प्रमाण वीजमंत्री शेनवारा सकाळीं गांवात येवपाचो आसलो पूण मंत्री सांजवेळा येयले म्हणपाचें तांगेल्या निजीसचिवान कळीत केल्लें.

'दिमाचे दिवे कित्याक पेटोवपाचे ?' खासा वीजमंत्र्यानी स्वंय सचिवाक सांगिल्लें. सरपंचान आनी वांगड्यांनी मंत्र्याचे शिटून बुद्दीमत्तेची खूब तोखणाय केली.

'सकाळची वेळ कोणे पिशान थरयिल्ली काय !' अशें म्हणून सगळयांनी पयलीं मनमेकळें हांशे केल्लें

शुक्रारा रातीकडेन सरपंचाल्या घरा पंचमंडळी आनी हेर समाजसेवकांची निमणी बसका जाली. एकलो एकलो सोपाणां चडत रावलो तशी सरपंचाची घरकान्न रात्रीर शिजयिल्ल्या च्या — पाल्यांत परत परत उदक रकयत रावली.

चवदा वर्सांनी धल्ल्या पुजाऱ्याच्या अनवाळया सारखो गांव बरो लीप-निवळ जाल्लो तारो वायरी सगळचाक खेळावन जाल्ल्यो. फाल्यां सकाळीं लायनमन विजेचो प्रवाह सोडटलो आसलो.

मद्दयानरात मेरेन चलिल्ले बसकेन बऱ्योच म्हत्वाच्यो गजाली थारावन जाल्ल्यो.

भाग्योदय येवजण म्हणजे सारकें कितें, तें समजून घेवपाक ग्रामपंचायतीक आयिल्लीं सगळीं छापील पत्रकां सुशिक्षीत समाजसेवकांनी वाचून काडलीं. भाशणांत आस्पाव करपाखातीर वीजमंत्र्याचो आदलो सगळो इतिहास आनी कार्य

हाची उजळण जाली. पूण वीजमंत्र्याची पक्षांतराची गजाल आनी वीजखात्याच्या संचालकाचे नेमणुकी वेळार जाल्ली भानगड, ह्या दोनूय गजालिंचो चुकून लेगीत उल्लेख कोणे करपाचो ना अशें एकमुखान थरलें. फायच्या कार्यक्रमाचे आंखणेक सगळयांनी आपआपले परीन विचार प्रगट करून हातभार लायलो. पंचबाई मात कांयच उलोवंक पावलिना. फाल्यां खंयची साडी न्हेसची हे येवजणेंतूच तिगेलो सगळो वेळ गेलो.

वीजमंत्री मातसो दोन वरां उसरां आयलो. तें सोडलें जाल्यार बाकिच्यो सगळयो गजाली थरयिल्ल्यो तश्यो बेसबऱ्यो जाल्यो. आयोजकांच्या म्हणण्या प्रमाण थरयिल्ल्यो ताचेपरस कीतलेशेच पटीन बऱ्यो जाल्यो.

वीजमंत्री आपणाल्या शाही आनी पक्षीय लटांबरासयत धर्मा जाणटेल्याच्या दारांत पावलो. भितर सरताना एका समाजसेवकान तांकां मान बागोवपाक विनयलें. हांसत्या मुखान नम्रतायेन ताणी मान बागयली तेन्ना तांचें व्हडपण तांच्या मुखकमळार सोबून दिसलें.

मंत्री विजेच्या बटणाकडेन पावतकूच हयऱ्हयश्या काळखांत कितलेशेच कार्यतत्पर समाजसेवक तांचे बगलेक धांवले. पूण मंत्र्यानी कोणाचो आदार घेना आसताना आपणे एकल्यानूच बटण सकयल ओडलो. बऱ्याच जाणांचे हात वयर सरिल्ले तशेच उरले. जिवाच्या आकांतान म्हणटा तसो सरकारी फोटोग्राफरान त्या खिणाचो फोटो घेतलो.

मंत्री आयलो तसो परतलो. लोकांचें लटांबर मंत्र्याफाटोफाट, उदकांत लाकडाच्या लोंडक्याफाटल्यान कोयर तशें व्हळून गेलें.

मठयेंत लख्ख उजवाड पडलो. जाणटेलो धर्मा आनी ताची बायल हात – पांय कांबरून कडेन उबीं आशिल्लीं तशींच उल्लीं, कुपांच्या गडगडान कांचवेल्लीं कोंबयेचीं पिलां कशीं. जाणटेलो धर्मा न्हेशिल्लें धुल्लें धोतर आनी ताचे बायलेन न्हेशिल्लें तिच्या लग्नावेळावयलें कापड कोणा सभाग्यान दाव्या दोळयान हुंगोवन लेगीत पळयलेंना. विजेचो उजवाड मात लखलखत रावलो.

☐

एक वर आदींच अशोक वीजखात्याचे मुखेल कचेरिच्या दारांत पावलो. इतले बेगीन भितर वचून बसपाक ताका बरें दिसलें ना. कांय उपेगूय नासलो. ताचें नांव येता तेन्ना ताणे मुलाखती खातीर भितर वचपाचें आसलें.

तो तसोच फाटीं वळ्ळो. गेलो आनी मुखावयले बागेंत वचून बसलो. भोंवतणच्या इमारतिचेर ताणे बेरटीच नदर भोंवडायली. तेसरशीं ताका आपणालें गांवातलें खोप कशी घर येवजलें. बापूय येवजलो, आवयचो उगडास आयलो.

त्या दिसा आवयच्या दोळ्यांत दुकां दाटिल्लीं. ती तशीच वांकड्या भेंडान भितर गेल्ली आनी कांय वेळान तोंडार मुट्ठम आडेचें हांशें काडीत भायर आयिल्ली.
– घे, हें मोड आनी गरज भागय. इतलेंच आसलें. तुजे बायलेच्या आंगार कितेंय करून घालतली म्हण दवल्लेलें. पूण ... तूं मागीर जोडटकर तिच्या आंगार जायतें घाल.

तें भांगराचें पोवन आवयच्या दुकांनी ओलें जाल्लें.

अशोकान बेगीबेगीन बल्स सांसपून पळयलें. पोवन विकून खर्चून उरिल्ले दुडू थंयचे थंय आसले.

गांवातल्यान शारांत येवन ताका आज आठ दीस जाल्ले. फाटल्या चार दिसांत ताणे खाजगी कंपनीत दोनकडेन मुलाखती दिल्ल्यो. खरें म्हळ्यार एकायकडेन सर्विस मेळपाची ताका आस्त नासली. पयली गजाल म्हणजे दोनूयकडेन पांच/पांच वर्सांचो कामाचो अगमत्र मागिल्लो आनी मुलाखतिच्या वेळार त्या कामाचो धा धा वर्सांचो अणभव आशिल्ले उमेदवार आयिल्ले.खरें म्हळ्यार तो मुलाखत दिना आसताना परतुपाचो पूण 'आयलाच न्हय हाजिरी लावन वचूंया' अशें येवजून ताणे देनूय कडेन मुलाखती दिल्यो. त्या सुवार्तिचेर कोणांक वेंचून काडल्यात म्हणपाचें ताका दुसऱ्याच दिसा समजलें.

हांगां मात ताची अपेक्षा वेगळी आसली. वीजखात्यांतल्या एल्. डी. सी. च्या एका जाग्याखातीर अर्जीपत्रां मागयिल्लीं.

अशोकान जतनायेन अर्जीपत्र भरिल्लें. आपणाले गरीब परिस्थितिचो ताणे तातूंत खासा उल्लेख केल्लो.

ताणे आपली डायरी उक्ती केली. डायरेंतलें तें पांच पाकळ्याचें पिटकोळेचें केसरी फूल सुकून एका थरार जाल्लें. ज्या दिसा ताका मुलाखतिचें पत्र आयिल्लें त्याच दिसा ताका तें घरा शेजारच्या पिटकोळेच्या झोपार मेळिल्लें.
– पांच पाकळ्यांचें फूल मेळटा तो मनीस भाग्यवान !

ताच्या बापायन फूल तोखेत म्हणिल्लें आनी तेन्नाच्यान अशोकाचे आशेक नवी आंकरी फुटिल्ली.

नगरपालिकेचे बागेंतले घड्याळिचे धांचे टोळे वाजपाक लागले. अशोक सडसडीत उठलो. कांय खिणां भितर तो कचेरींत पावलो. भितर सरून ताणे आपणाक आयिल्लें पत्र लागींच्या क्लार्काक दाखयलें. ताणे ताका हेडक्लार्का – म्हऱ्यांत धाडलो. खरें कांय फट पारखूंक येना अशे तरेचें हांशें करून हेडक्लार्कान ताचें नांव बरोवन घेतलें आनी दाराकडल्या बाकाचेर बसपाक सांगलें.

अशोक बाकार बसलो. कितेंय खट्ट खुट्ट जाल्यार वगीच हांगां – थंय पळोवंक लागलो. कांय वेळान माथ्यार भिशी मातिल्लो ताचेच पिरायेचो एक तरनाटो आयलो. तोवूय भितर वचून आयलो आनी अशोका म्हऱ्यांत येवन बसलो.

अशोकाक धस्स जालें. ताचेकडेन उलोवपाचें धाडस अशोकाक जालें ना. कांय वेळान आनीक दोग तरनाटे उलयत उलयत आयले. येनाफुडें ताणी आदल्या तरनाट्याक हडकिलो मागीर एक आडसाठें चली आयलें. तेंवूय तांचे वळखिचें आसलें. तांच्या उलोवण्यावयल्यान अशोकाक समजलें, तांकां बऱ्याच मुलाखतिचो अणभव आसलो. अशोक मात बेस्टोच वयर सकयल जातालो.

वेळ साडेधांचो आसलो पूण साडे इकरामेरेन तांची कोणेंच वासपूस केली ना. इतले म्हणसर ते उमेदवार भायर भितर पासयो मारीत आशिल्ले. अशोक मात एका जाग्यार बसून आसलो.

कांय वेळान ती चली आनी तिगूय तरनाटे उठून कुशीक गेले. तोंडां वांकडी करून ताणी कितेंतरी थारायलें. मदींच हांसून अशोकाकडेन पळयलें. एकलो भितर गेलो. हेडक्लार्काक मेळून भायर आयलो आनी चौगांय आयिल्लीं तशीं परतलीं.

ते गेल्याचो खात्री पट्टकूच अशोकाक बरें ऽ दिसलें आनी धाकधुकूय. ताणें ल्हवूच डायरी उक्ती केली.

– तूं मुलाखत दितलो न्हय ? भितर यो.

एका क्लार्कान ताका भितर व्हेलो.

मुलाखत सोंपोवन अशोक संचालकाच्या कॅबीनांतल्यान भायर सल्लो. ताचें मन ल्हव जाल्लें. तकलेंतलो निमाणो दुबाव गळून पडिल्लो. आवयचीं दुकां सार्थकी लागलीं अशें ताका दिसलें. ही सर्वीस आपणाक मेळटाच म्हणपाची ताका शंबर टक्के खात्री पटली. कापसाच्या ल्हवपीक पावलांनी तो सोपणां देंवलो. नकळटाना ताणें डायरी उक्ती केली. पांच पाकळयांचें तें सुकिल्लें फूल नाकाकडेन धरलें आनी सू ऽ ऽ करून हुंगलें तेसरशीं ताची एक पाकळी गळून पडली. ताच्या काळजांत चर्र जालें. सकयल पडिल्ली पाकळी उखलपाक ताणें ओणव घातलो.

– तूं अशोक न्हय ?

निमाण्या सोंपाणाचेर हेडक्लार्कान ताका हडकिलो. भायर च्या पियेवन तो परत कचेरींत परततालो.

– हय.

– कित्याक गरजे भायर वेळ वगडायलो ? बाकिच्यांनी शाणेपणा केली ना ?

अशोकाक ताचें एक्क उतर समजलें ना.

– त्या एल. डी. सी. च्या पोस्टाखातीर कोणाक घेवपाचें तें आदींच थल्लां. त्या मनशाखातीरूच तर तो एक पोस्ट मुद्दम क्रियेट केला. खासा वीजमंत्र्याचे सांगणेन. तूं नवो आसा. हांगां अशेंच चलता.

हेडक्लार्क अशोकाची काकळूट करून हांसलो.

अशोक भेरेल्ले तकलेन मारगार आयलो. खंयचे वाटेन वचपाचो ताचीय सुदबूद ताका उरली ना. चलत रावलो.

भायर रणरण वोत पेट्टा'लें. मारग तापिल्लो. पांय हुलपताले. दनपारचो वगत. एके इमारतिचे सांवळेक तो विसावलो.
– पेपर घेता ? एकूच उल्ला.

एका पोरान बळजबऱ्यांच ताच्या हातांत पेपर चोंदलो आनी तो पैशे झडपाची वाट पळयत रावलो.

अशोकाची नदर पयल्याच पानार पडली. तीन कॉलमानी मोटया अक्षरान' ताच्या गांवांत जाल्ले भाग्योदय येवजणेची खबर आयिल्ली. खबरेखाला फोटो. अशोकान पेपर दोळयालागीं ओडलो. छापून आयिल्लो फोटो ताच्या घराचो आसलो.

वीजमंत्र्यानी आपणाल्या शुभहस्तान पेटयिल्ल्या विजेच्या दिव्यान ताचे मठयेंतलें दळीद्र स्पश्ट बरें दिसतालें.



## २.

# घर

रातभर आवोक झोपडी लागली ना. कोंब्यासादार उठली. भायर झिळमिळी जाल्लें. चुलिच्या खुरावयलें फस्क काडून तिणें चिमणी पेटयली. भायले कुडींत धाकलो पूत शिवा फांतोडच्या सपनांत गुल्ल जावन लोळटालो. आवोन साद घालो.

– बाबल्या,

आवोचो साद घराचे मदले अर्दे पारेतीवयल्यान व्हडल्या पुताचे, बाबल्याचे कुडींत रीगलो. बाबलो आजून न्हिदेंत आसलो ताणें तशीच कूस वळ्ळी. आवोच्या आवाजान बाबल्याची बायल उठली. कुडींत हयन्हयसो उजवाड पडिल्लो. आर्तें – पर्तें पांय करून न्हिदिल्ल्या चारूय कच्या – बुच्यांक तिणें सारकीं न्हिदयलीं. चौगांचेरूय जुनेराचो कुडको पांगुरलो. इतले म्हणसर आवोचो दुसरो उलो कुडींत रीगलो.

– हिका आनी सकाळीं फुडे कोणें फुंकली !

बाबल्याचे बायलेन मनांत शिराप सोडले.

– आगो उठ, आवो सादयता ते वटेन.

बायलेन बाबल्याक हालयत उठयलो.

– कोणाक उलो मारता ?

– तुका, तूं वडील न्हू ? कितें पोटलोबी दिवपाचो आसा दिसता !

– अनंता,

आवोचो उलो दुसरे कुडींत न्हिदिल्ल्या मदल्या पुताक अनंताक सोदीत गेलो.

अनंताची बायल न्हेसण सारकें करीत उठली आनी तिणें अनंताक उठयलो.

– उठले कांय ना रे ?

आवो मातशी मोट्यान आड्डली.

– कितें जालां गे ?

बाबल्यान आनी अनंतान आपआपणाले कुडींतल्यान वांगडाच विचारलें.

– आरे तुमचेर कसलो सांवार येयला ?

दोगूय मोन्यांनी चितपाक पडले. ह्या दिसांनी कांय ,कोण बायलांच्या सांगण्यांनी एकामेकांची बोडकां फोडूंक झुडूंक नासले.
– आरे पापयांनो, आयज मिर्ग लागोन चार दीस जाले.
– मागीर ?

बाबल्यान मनांतल्या मनांत विचारलें.
– पावसाची जाग ना ही परमेश्वराची किरपा. लोक घरां – दारां शिंवोन सुगूर जाले. म्हाजेंच संततिचेर कसलो खेव येयला कांय म्हणटां.

आवो घर शिवपाचो विशय सुरू करता हें बाबल्याचे बायलेक समजलें. तिणें ल्हवूच घोवाक शिटकायलो.
– तुजेर एकल्याचेर उबारूं ना आं.
– पोरूं या घराक तुमी हात लावना. अंदूय शिवचेना ?
– वडील दादल्याक सांग म्हणजे.

अनंताची बायल ल्हवूच अनंताच्या कानांक लागली.
– बापायन आयतें बांदून दवरलेलें घर तुमच्यांनी शिवपाकूय जायना ? तीग जाण आसात मरे तुमी वंशाक.

आवोन रागाभरशीं शिवाक उठोवन घातलो.
– तोंडाक गुड्डे कित्याक रे ? दोगांयनी बायलांचे काशेंत तोंडां लिपयलीं काय कितें ?
– किडे पडटले तोंडाक.
– दोळे फुट्टले.

दोगीय जावो बोटां मोडीत फुतफुतल्यो.
– आयज शिवता कांय ना रे घर ?

आवोन दोगांकूय खरसाणीन विचारलें.
– हांव एकलोच शिवों ?

बाबल्यान जांबय दिली.
– तुयें एकल्यान शिंवपाक उल्लेले दोग जाण मेले ह्य तर ?
– पुताक खावन खंयच्या मस्णांत वयतली, देवाक खबर !

अनंताचे बायलेक जाळ पडले.
– अनंता शिंवता मरे आयज ? कांय पावसान मोडून पडसर रावतात ?
– हांयें केन्ना ना म्हटलां ?
– मागीर इतले दीस तुमचे आवयन मोडटें घातलें ? तीग पूत तुमी. तिगांय मदल्यान उजो वचना. हांव मरतकच कशे नंदतले हे मठयेंत देवाक खबर !
– मरूच तूं.

बाबल्याची बायल फुतफुतली.

– सरात तर भायर. बाबल्या, दिसावडयाक वचों नाका. अनंता आयज खणीर नाका.
– म्हाका शाळेंत क्लास आसा.
धाकलो शिवा केंस बुड्डीत आवो म्हऱ्यांत पिरंगलो.
– उजो लाय रे तुजे क्लासीक. आदीं घर शिवात आनी मागीर दिये लायात.
– पूण.
– घर मोडून घालून शिकप ? चुड्टी लाय !
– चुड्टी लाय ! शिकल्या उपरांत शिर्वीस करून कितलीं घरां बांदूं येत !
शिवा ओठांतल्या ओठांत उलयलो आनी राखोणेन तोंड घासूंक लागलो.
फांतोड उलगली. आवो भायर सरली. सुर्याचीं किरणां तिच्या दोळयांर आदळ्ळीं.
– सकाळ जाली. चला तिगूय हात घालात. दीस पडचे आदीं शिवोन जातलें.
बाबल्याचे बायलेन कुशिचे कुडींतसून अनंत भायर सरता तो पळेलो आनी मागिरूच बाबल्याक भायर धाडलो.
– हेवटेंन उसयात पयलीं.
आवोन आपूण आनी शिवा रावता ते कुडिच्या पाश्टाक बोट दाखयत म्हळें.
बाबल्याक आपणाले कुडिचें पाश्ट पयलीं उसोवपाचें आसलें. अनंतान तर आपणाल्या कुडिच्या पाश्टाक हात लेगीत घातिल्लो. पूण आवोची आज्ञा मानून तो मन मारून मुखार आयलो. इतले म्हणसर आवोन शिवाक पाश्टार चडयलो. दोन कवलां फोडीत तो पाश्टार बसलो.
– धनर ! नेयें नळे घालपाक बापूय ना तुमचो.
निसणी वयल्यान घरार चडपी बाबल्याच्या पांयार शिवाच्या हातांतल्यान पैंशायेदो नळकुटे कुडको पडलो.
– येन्नादर फुटले दोळे !
बाबल्यांतलो वडीलभाव जागो जालो.
– सुणें कशे एकामेकांच्या तोंडांक लागोंक नाका आं.
आवोन बाबल्या वयल्यान तिगांकूय धपकायले. तिगूय भाव एके हारीन घराच्या पाश्टार बसले आनी नळे काडून कण्णी उक्ती करूंक लागले.
अनंतान नळयांचो दाळ मुखार केलो. बाबल्यान तो घेतलो आनी मोन्यांनी शिवाकडेन दिलो. शिवान पावळे सकल आशिल्ले आवो कडेन दिलो.
– आगो सुनबायांनों, हांये म्हातारेन हे सगळे नळे दाळाक लावपाचे ? तुमी येदचो आडसाठ्यो बायलो आसताना हांयें एकलेन मरप हांगां ? हांव हड्डचार घेवन वयतलें सगळें ?
– या घरान झरोवन खाल्लें म्हाका.

बाबल्याची बायल फूतफूतत भायर आयली आनी अनंताचे बायलेचे जोडयेक उबी रावली. बाबल्याचीं चारूय पोरां एकेक नळो घेवन दाळाक लावंक लागलीं.

दीस कासरोभर वयर चडलो तेन्ना एका पाश्टाचे पुराय नळे देंवोवन जाले. आतां बाबलो आनी अनंता हांच्या पाश्टावयले नळे देंवोवपाचे आसले. सगळयांचे हात घस लागिल्लेवरी काळे कुळकुळीत जाले. जांगां – पांगांचेर काळो घयरांव दसलो. आंगावयलीं बानयानां काळशीं जालीं. अर्द्या घराचे नळे देंवोवन जातकच बाबलो आनी अनंत निशणी वयल्यान देंवले आनी आपणाले कुडींत पेज जेवपाक रीगले. एकलो शिवा वयर रावन वाशांचो आनी कण्णेंचो घयरांव सारणीन झाडूंक लागलो.

– आरे, पेजो जेवन जांवना अजून ? रूची काडून मागीर जेयात. पयलीं हें जाग्यार घालात.

आवो जुनेराचो कांसाटो खोवन वावराक लागली. बाबलो आनी अनंत आशिल्ले तशे वयर चडले.

– बाबल्याले वटेन पयलीं उसोवन मागीर अशे अनंताले वटेन सकल देंवात.

अनंताक फावशें जालें. ताचे बायलेन रांदनीर दनपारच्या आदनांक दवरिल्लें. बाबल्याचो भाग उसयता म्हणसर तागेलें शीत शिजोवन आनी वाळून लेगीत जातलें आसलें.

बाबलो नळयांक हात घालताना फाटींफुडें जालो.

– कित्याक आंग जड करता रे ?

आवो चिडकेली.

– बायलेन आदन दवल्लां चुलीर,

बाबल्यान ओंठ दोडीत सांगलें.

– आतां रांदनीर आदनां चडयता ? कांय गरज ना. भायर न्हाणयेचे चुलीर व्हरोन शिजयात. तुंवूय गे अनंताचे बायले.

– पाड पडों हिजें ! आपणालें अन्न लेगीत सारकें शिजोवन खांवंक मेळना.

दोगांय जांवांनी आपणाल्या आयदनांचे बुडकुले भायर न्हाणयांच्या चुलीखुरार व्हरून दवरले.

दनपार जांवचे आदीं बाबल्याची कूड मेकळी जाली. बाबल्याचे बायलेन भितरल्या आयदनांचेर आनी सामानाचेर कापेतिचे कूडके आनी गोयडेचीं बोंदरां हांतुरिल्लीं. वयर सावन अनंतान आर्ते – पर्ते पळोवन लेगीत भितर कितें कितें धांपलां ताचो अदमास ताका लागलो ना.

– मातशे बेगीन हात – पांये घोळयात रे.

आवोन म्हळें आनी आवो भाटावटेन वचपाक लागली.

– आमी कितें साकनां ?

बाबल्यान जाप दिली. नळे उसोवप आतां अनंताचे अर्दे कुडी मेरेन जालें.

– आतां हाती – पांयांक पिडा मारतलीच.

अनंताचे बायलेन भितरले भितर म्हळें आनी ज्यूस्त तीं उतरां कांबी कवळीत आशिल्ले बाबल्याचे बायलेन आयकलीं.

– आयकलां ?

बाबल्याचे बायलेन घोवाक हुडकिलो.

– कितें ?

– तुज्या हाती पांयांक पिडा मारल्या जाल्यार तेंगेलें पाडंग घालूंक तूं कित्याक वयता ?

– आमचें कित्याक पाडंग ? पडों तुमचेंच.

– देवान घातलां तें थोडें !

सकयल दोगांय जावां – जावांक तोंड लागलें. उतरान उतर वाडत गेलें. वयर तिगूय मावांच्या कामांत मंदगत आयली. कान आनी नदर सकल लावन ते वयलेदरा नळे उस्तूंक लागले.

– तुका सकल देंव म्हणटा न्हू.

आपूण घोव जाल्लेवरी बायल बाबल्याचेर धेंगशेली आनी ते सरशीं हातांतलो वावर थंयच सोडून बाबलो पाऽटार उबो रावलो. ताचे हात – थरथरिल्लेवरी जाले आनी पांयाक आदळून दोन नळे अनंताचे कुडींत पडले. एक नळो सकयल्या एका ग्लासाचेर पडलो आनी आदींच वेरावल्ल्या त्या ग्लासाच्यो कंवच्यो जाल्यो. पडटच्या फळाची आज्ञा मानून अनंताचे बायलेन आकांत केलो.

– फुटक्या दोळयांचे. पळोवं नजो. घातलें फोडून.

– नशीब फोडूना तुजें.

सकयल देंवपाक नीसण पळयत बाबल्यान म्हळें.

– कोणाचें नशीब फोडटा रे तूं ?

आवाज चडयत अनंतान बाबल्याक विचारलें तसो बाबलो नरम पडलो.

– देंव सकल. ते धुकलून मारून वडोवंक आसात.

बाबल्याची बायल सकल घोवाची वाट पळयत रावली.

– आतां कित्याक रावतलो कोण वयर ? आपलें काम जालें.

सगळें घर शिवून पुराय जाल्लेबशेन अनंताचे बायलेन म्हळें.

– फोडलां तेजें फारीक करचें.

– उजवाड पडलो तोंडार.

– आजून कोणाक नागों ना.

– नागयल्या बगर पोसता इतली भुरावळ.

– म्हाजी भुरावळ ? चार पोरां. तेंकां पोसपाक कोणांचीं घरां काडटां ? पळोंव

नजो तुज्यान म्हाज्या भुरग्यांक.-निपुत्रीक चेडी !

अनंताच्या आनी बायलेच्या वर्मार घाय पडलो. अनंतान रागामरशीं कण्णेंची काम चर्रर करून मोडली आनी घब्बांयच करून सकयल घालून घेतलें. काम घेवन बाबल्याचे बायलेवेर झुडोन गेलो.

– कोणांक मारपाक येयला ? फुडें सर आनी पळय.

बाबलो हातांत दांडो घेवन मुखार सरलो. बाबल्याच्या भुरग्यांनी बोबो मारून कलकल केलो. दोगांय जांवांचे आनी भावांचें एकामेकांक खेपप तातूंत भरसून गेलें.

तितले म्हणसर उरिल्ले नळे एकल्या शिवान मोन्यांनी देंवय्ले.

– शिकप नासून अन्नाडी !

ताणें मनांत म्हळें आनी आवो केन्ना येवन झगडें पालयत ताची वाट तो पळयत रावलो.

आवो माटांत भोंवून आयली तेन्ना दनपारचो कड आसलो. मिर्गाची सुलूस नासून धरतरी खतखतताली. आंगार घामाच्यो पावळ्यो रकताल्यो. माटांतसून हाडिल्लीं दोन चुड्टां आवोन कुशीक वडोवन वयर नदर मारली जाल्यार घरार कोण ना. नळे सगळे देंवोवन जाल्यात. तोंड उकतें करून घर मळबाक तेळटा.

दनपारच्या जेवणांक सगळे देंवल्यात असो तिणें अदमास केलो तर जावो एकमेकांक गाळिनी न्हाणयतात. ती दुबावली. इतले म्हणसर, बांयचेर सावन हात-पांय धुंवन येता तो शिवा तिका दिश्टी पडलो. शिवान तिका सगळें सांगलें.

– कसल्या कास्ताची संतत जाली. मात्त हांव दोळ्यांआड जाल्यार रणखेव माजयलो.

आवोची सुलूस लागतकच दोगांय जात्रांनी आवाजाची पट्टी मातशी देंवयली. दोगूय भाव कांयच घडूंक नाशिल्ले भशेन वगी पडले.

– आपलें नाशें आनी जग लोकांचें हाशें करून घेवपाचें.

आवोन शिवाक वाडीत म्हळें.

– तुमकां दुस्मान आसा शेजरा.

– कोण ?

– आनी कोण ?

आवोन काशिनाथाले वटयां बोट दाखयत सांगलें.

– तुमी अशें कितेंय केलें म्हणटकूच दुस्मानाच्या पत्यार पडलें.

आवोल्या घराकुशीक काशिनाथालें घर आसलें. आवो आनी तो अशीं दोगांच भागेल्यां देसाय भाटकाराच्या माटांत आसलीं. बाकिचीं गांवांतलीं घरां अुल्याच्या अंतरापरसूय पयस. ह्या दोनूय घरांचें केन्नाच पटलें ना. आठ - पंदरा दिसा मदीं झगडें अुप्रासतालेंच. कारणां कसलींय. कोणालीं गोरवां पोरसांत रीगलीं. कोण सकाळींफुडें घराकुशीक बसलो. एक न्हय हज्जार. आवोचें तोंड लागलें म्हणटकच मागीर बाबलो, अनंत, दोगीय सुनो, नातरां आवोचो पाखो घेवन, आपणामदले

भेद विसरून काशिनाथाल्या घराचेर झुडोन पडटालीं. एकलो शिवाच सगळयांक वगी करीत फाटीं काडटालो.

– तुजीच देख ती.

– कसली रे ?

आवोन दवलो बुडकुल्यार झाडीत शिवाक विचारलें. शिवा जाप करी नासनता उठलो आनी आचवुपाक गेलो.

किरणां मोव जायत रावलीं. दोनेक वरांचो वगत सरलो. दोगूय भाव आपणाल्या कुडींतसून भायर सरले नात. उकते काशेंत बाशिल्लेमशेन ते घरांत वंटीचे सांवळेक बसून रावले. शिवा आवोचे आज्ञेची वाट पळयत भाटांतल्या एका माडाक लवंडलो.

– हांव जिती आसतना तरी या घराक पाड पडोंक नाका.

आवो ओठांत फूतफूतली तिका उगडास जालो. पेजे नीवळ ओठांक लावन हात-पारे घातलेले घर उबें केल्लें. आपणें आनी घोवान.

– पाड पडना घराक. तूं हात लांव नाका.

बाबल्याचे बायलेन घोवाक शिटकायलो.

– बेस्टो आयचो दिसावडो वगडायलो.

अनंताची बायल चूरचूरली.

आवोन घरांतले उकते कण्गेंतसून मळबांत देखलें आनी तिचो आवरो उडलो. कुपांचो कोर बदलतालो.

– आरे, बाबल्या, अनंता पापयांनो, जालें तें जावन गेलें आतां उठात. कळाव नाका रे. वयर मळबांत पळयात. पावशीं कुपां धरतात.

तशे दोगूय भाव भानार आयले. ताणीं वयर पळयलें. तांचें मन चिंतेन भरलें. बायलांच्यो नदरो ताळून ते भायर आयले. शिवा सडसडीत उठून निसणीवयल्यान वयर चडलो.

– आगो सुनांनो पयलीं शिवोन काडूंया मागीर झगडा.

दोगीय जावो भायर आयल्यो. बाबल्याचे बायलेन कांसाटो घट केलो. अनंताचे बायलेन गोल साडी धोंपरा वयर कवळ्ळी.

अनंतान सगळ्या घरार नदर भोंवडायली. मदीं मदीं थोडयो कांबी सामक्योच बरगेल्ल्यो.

– मदीं थोडयो कांबी जाय.

– मागीर घालात तर. काळाव नाका. अनंताचे बायले, पेंच ते कोंडे.

– हाड, हांव पेंचतां.

बाबल्याची बायल व्हदळचें सगळें विसरून कोयतो घेवन कामी चिरूंक लागली आनी अनंताची बायल कामी व्हरून वयर दिवपाक लागली.

— शिवा, त्यो कामी वयर घे.

बाबल्यान पयलेच खेप शिवाक उलो मारलो.

— त्या कोंडयाक आनी कामीक पास घे. अनंतान बाबल्याक सांगलें आनी ताणें बाबल्याच्या हातांतलो पास घेवन कामीक वेटकाळो घालो.

दुपेटी बळान वावर सुरू जालो आनी कण्णी जाग्यार पडली. आतां फकत पाश्टाचेर नळे चडोवपाचे उरिल्ले.

— व्हदळ ही बुद्द येयल्यार ...

आवोन वयर पळयत म्हळें.

कुपां काळशीं जायत वतालीं. एकदां कुपांर आनी एकदां घरार नदर मारून तिणें पावसाचो आनी कामाचो अदमास घेतलो.

— शिवोंक सुरवात करात रे.

आवोच्या उतराची वाट पळयत तिश्टत राबिल्ल्या जांवांनी हातांतल्यो नळयाच्यो कवळचो उबारल्यो. आवोनूय नळे उबारले. तिगूय भाव आपआपणाल्या कुडिच्या पाश्टार उबे आसले.

— आरे, हें कितें रे ?

नळे वयर चडलेच नात.

— आपापलें शिवतले ? आपसुवार्थिशे. एके हारीन तिगूय लागोन काडा शिवोन.

आवोन सांगलें. पूण पयली कोणालें शिवचें तें सांगलें ना. आनी सांगल्यारूय त्या खिणांत आवोचें उतर धरपाक नासलें. सकयल्यान दोगांयच्यो बायल्यो आपणाल्या घोवांक दोळे मोडून बेगीन शिवपाक तिश्टत लायताल्यो आनी वयर मळबाक बोट दाखोवन पावसाची भिरांत घालताल्यो.

कांय खीण शांतताय पातळ्ळी. आवो दांत-ओठ किल्लून सोंशेली. तिणें धतरेक नदर लावन एक आंवडो गिळ्ळो. मागीर तकली वयर केली. मळबांत पळयलें आनी हातांतले नळे शिवाकडेन दीत मोटयान म्हळें.

— शिवात तर आपापलें.

आनी तिगांय भावांच्या हातांत नळयांचो खळखळ जालो. पूण खिणभरूच.

— काम बंद करात.

सगळयांच्यो नदरो आवाजा वटेन वळ्ळ्यो. देसाय भाटकार आंगोस्तराचो शेव खांदार वडोवन माडामुळांत उबो आसलो. काशिनाथ आपणाले पडवेर रावन भाटकार कितें उलयता तें कान लावन आयकतालो.

भाटकारान चलिल्ल्या वावराचेर नदर घुंवडायली. सगळयांक तिखे नदरेन तेळ्ळें. तकली हालोवन ताणें आवोक आपणां म्हऱ्यांत आपयली. आवो न्हेसण सारकें करीत भाटकारा म्हऱ्यांत उबी रावली आनी मार्बे खरपीत रावली.

— घर कोणांक सांगून शिवता ?

– भाटकारा, पाऊस तेंकलो न्हू.
– पावस तेंकून म्होडून पडना !

आवोच्या काळजांत कल्ल जाल्लें.

– घर कोणाचें ?

आपणाल्या घोवान बांदलेंल्लें अशें सांगपाक आवोक धीर जालो ना.

– आमी मागेल्यां न्हू ?
– मागेल्यां ? तुगेले पूत राजा जाले. पुतांच्या नेटार भाटकाराक कॅर करिना.
– तशें चिततलो जैपतीक पावों नाका.

आवोन पोले फोडीत म्हळ्ळें.

– घर कोणाच्या नांवार आसा जाणां ?

भाटकाराच्या प्रस्नांतूच ताची जाप आसली. भाटकार झुप्प करून बळ्ळो. ते सरशीं मळबांत गडगड मारलो.

– काशिनाथ,

येदो वेळ भाटकाराच्या उल्याची वाट पळयत राविल्लो काशिनाथ आपणांक कांयच खबर नाशिल्ले भशेन नेणार मुखान फुडें आयलो.

– घरार एक नळो चडचो ना.

भाटकार आयिल्लो त्या दुपेट वेगान व्हाणों करकरयत चलपाक लागलो.

आवोचेर आकांत कोसळ्ळो. पिशाचे अवतिकायेन ती भाटकाराच्या फाटल्यान धांवपाक लागली. दोगांय पयस पावलीं आनी एक जोगूल मारून गडगड सुरू जालो.

– शाळेंत भांशणांच्या सर्तीनींबी भाशणां करून असल्या भाटकारांची लज काडूंक जाय.

हातांतले नळे कुशीक दवरीत शिवान चितलें.

– भाटकाराच्यान घर शिवताना आडोंव नजों.

निसणी वयल्यान देंवत बाबल्यान बायलेक म्हळें.

– बापाय फाटल्यान घरांत वडील हांव. म्हाज्यान घर शिवों येता.
– मागीर देंवता कित्याक तर ?

शिवान मनांत ताका पाडलो.

– आतां ?

अनंताचे बायलेन घोवक विचारलें.

– म्हाका दिसता घर भाटकाराच्या नांवांर आसल्यार आमकां घरपटी लागपाची न्हू ?
– दाद्याच्या नांवांर आसा दिसता. नाजाल्यार आवोच्या.

बायलेन दुबाव प्रगटायलो.

– तशें जाल्यार भाटकार आडखळ हाडुंकूच शकना. लेय ना तर तेका? आजुनूय करूं येता.
– कितें?
– भाटकाराचेर केस करप. केसिचो खर्च हांव एकलो करीन. पूण मागीर सगळें घर म्हाजें.

आपणाल्या गिन्यानान बायलेक दिपकावपाचो अनंतान यत्न केलो.

– भाटकाराक समजावपाचो कोणेंय.

बाबल्याचे बायलेन घोवाक म्हळें.

– हांव वडील म्हणोन समजायतलों आसलों. पूण मागीर उल्लेल्या बंदवांक उणेंपण येंवचें नासलें? हांयें शिकप नाशिल्ल्या अन्नाड्यान भाटकाराक थंड केलो म्हणोन?
– अंदूच भाटकाराक कित्याक विचारप?
– तेंच कळना म्हाका. हे आवयक आवय म्हण नासतना गाळ घालीन दिसता.

बाबल्यान आवोक एक गाळ घातलीच.

– हांव वडील आसतना म्हाका विचारी पाचारी नासतना आपणांक जाय तें करप.
– धाकल्याक घेवन नाचता.
– धाकलो पोसतलो! भाणशिऱ्या पास्ट लेखतकूच कळटलें.
– वारें माल्लें.

बाबल्याचे बायलेन वयर पळयलें. पावस थोड्या वेळान झडटलो हें आतां थारून गेल्लें. वण्ली काळशी आतां सगळ्यांच्या तोंडार फांकपाक लागली. सुर्या अस्तमचे आदींच दिसना जालो.

भाटकारा फाटोफाट गेल्ली आवो कसली सांगणी हाडटा ताची वाट पळयत सगळीं बशिल्लीं. शिवा बेस्टोच मदीं मदीं अर्दे वाटेर पासयो मारून येतालो. भाटांतलीं चुड्टां हाल्ल्यारूय अनंत आनी बाबलो मान वळोवन पळयताले.

आवो बद्द भाटकारागेर पासून वचून आयल्यार अर्द तें पाउण वर इतलोच वगत लागूं येतालो. पूण त्या मानान खुबूच कळाव जाल्लो. आवो भाटकाराक हातीं – पांयां पडून समजायता आसली असो तिगांय भांवांनी अदमास केलो.

वाऱ्यांत ल्हवू ल्हवू नेट भरपाक लागलो. भाटांतले माड आंग मोडून हालूंक लागले. चुडटांचो सळसळ वाडलो. आंग शिरशिरावपा इतलो भयांकृत जालो.

एक जोगलावणें माल्लें आनी खीणभर लख्ख उजवाड फांकलो. या उजवाडांत भाटांतसून धांवत येवपी आवो सगळ्यांक दिसली. तिचे केंस वाऱ्यार सैरभैर हुबताले.

– पापयांनो, घाला नळे वयर.

पयसुल्ल्यान आवोन साद घालो आनी खीणभरांत येवन ती घराक मिडली.

– तसलीं दळिद्रीपणां नाका रे.

आवोन खरशेत म्हळें आनी तिगांय पुतांक एकीकडेन येवन शिवपाक

कुरवांनी फर्मायलें. बाबलो आनी अनंत मोन्यांनी शिवा बशिल्लो त्या पाश्टार येवन बसले. बायलांनी नळे वयर चडोवपाक सुरवात केली.

आवोक धांप लागली. तिचें खरशीचें चाळवलें. तरी आसताना ती नळे उबारपाक लागली. आनी तोंडांन भरभरपाक लागली.

– भाटकाराच्या पांयांर घालून घेतलें तेन्ना तेणें 'हय' म्हटलें. पुतांची तोंडां धल्ल्यांत काय म्हणों लागलो.

आवो पाश्टाक तेंकून उबी रावली.

– म्हयन्यांक तीस रुपया घराचे भाडें फारीक करपाचें म्हण सांगलां.

नजो जावन ती बसली.

– हांयें म्हटलें, करतले पूत. आनीक जायफाय उलोवपाक लागलो. या दुस्मानान कान फुंकलो.

आवोन काशिनाथाले वटयां बोटां मोडीत म्हळें.

– म्हाज्यान उलों नजो रे !

आवोन थंयच थपकल मारली.

नळयांची पयली पावळी घरवांशाक तेंकचे आदींच वाऱ्याचेर सांवार आयलो. माड एकमेकांक खावंक येवपाक लागले. गडगड वाडलो आनी उसरां आयिल्लो मिर्गाचो पावस शिरंधारांनी रकपाक लागलो. बाबल्याच्या पोरांनी कलकल करून आवयक घट वेंग मारली. वयर बशिल्ल्यांक नळेच मांडपाक मेळना जाले. सकल कोणूच नाशिल्ल्यान नळेच वयर चडना जाले. दोगीय जावो आपणाल्या कुडांत वचून मुस्तायकेच्यो पोटल्यो करून भायर आयल्यो आनी एका एका माडाच्या मुळांत दवरल्यो बाबल्याचे बायलेक जळवो कशीं पोरां दसलीं. तांकां थापटीत थोपटीत तिणें पोटल्यांचेर व्हरून आपटिलीं. पोरां कोंबये - पिलां कशीं एकामेकाक घट्ट धरून रावलीं.

बाबलो आनी अनंत वयर रावन बायलांक 'हें कर' 'तें कर' म्हण फर्मावपाक लागले. आपणाली नवी मुस्तायकी भिजता ती पळोवन शिवाचो जीव चुटमुटलो. तो सकल देंवपाचे तयारेंत आसलो. इतल्यान आवो आसलें -- नासलें बळ एकठांय करून उबी रावली.

– आरे पोरांनो, देंव नाकात. शिवपाचें आसूं. पाऱ्यांचेर चुडटां दाळात. पारे कोंसळयार मागीर घर शेणलें रे !

आसलीं – नासलीं चुडटां आवोन वेंग मारून पावळे कडेन हाडलीं.

– आगो सुनांनो, सामान भिजल्यार भिजों. आदीं घर राखात.

दोगीय जावो चुडटां वयर चडोवपाक लागल्यो.

पावस वारो बळावत आसलो.

तिगांय भावांनी मोंवतणच्या चारूय पाऱ्यांचेर आनी मदल्या पाऱ्यार चुडटां

मांडपाक सुरवात केली. पूण चुडूत दवरून फ.ट करता म्हणसर वाऱ्यान चुडत शेंवटतालें आनी उदकाचो शींवर पाऱ्याचेर झडटालो. सकयलीं सगळीं चुडटां वयर पावलीं.

– आवो, चुडटां आनीक जाय. वयर रावन बाबल्यान सांगलें. आवोन आशिकुशीक पळयलें. भाटांत वीज लखलखताली आनी वाऱ्या वांगडा झडून पडपी चुडटां खोलयो कशी शेंवटतालीं.

आवोचो सगळो शोण नाच्च जाल्ले वरी जालो आनी ती विजेच्या वेगान भाटांत धांवली. ल्हवपीक पावलांनी कांय न्हय करून तिणें चर हुब्रयले. कागदां कशीं चुडटां पुंजायलीं. वेंगेंत धरलीं आनी घरा वटयां पावली मारली.

आनी तटायंच करून एक वीज भाटाच्या माथ्यार कोंसळळी. आवोच्या माथ्यावयलो माड पेटलो आनी माडामुळांत आशिल्ली आवो चुडटां वांगडा सुकी पालय कशी जळून गोबोर जाली.

– आवो, बेगीन हाड.

अनंतान अुलो मारलो आनी त्या गडगडा वांगडा घराची एक पारेत फूग मारून कोंसळून पडली. पास्ट धरणेंक तेंकलें आनी तिगूय भाव जीव सांबाळून पास्टाक हुमकळूंक लागले.



## ३.

# अर्दूक

दोंगुल्लेचे तेमयेर वडाच्या मुळांत जाणटेलो बसला. सुर्याचीं निमणीं किरणां वडाच्या लांबत्या मुळांत आनी जाणटेल्याच्या खाडांत झिरकून उरल्यांत. सालत्यो लांबता त्यो वडाच्यो कांय जाणटेल्याच्यो तें कांयच कळना. जाणटेल्याच्या माथ्यार गाड पांचवो वड मातला. चुकिल्लीं एक दोन सवणीं पानांमदें पिटपिट्टात. दोंगुल्लेर आनी भोंवतणी सगळो वांठार पांचवोचार सजला. पानांपानां वयल्यान पारखूं येता, हो वसंत ऋतू. हे पांचवे पत्रेंत ह्या पिकिल्ल्या धव्याफुल्ल जाण्टेल्याक कोणेतरी वडामुळांत पुजला अशें दिसता.

जाणटेलो मोटो पारखी. सूर्य अस्तमलो तशे ताणे दोळे उकते केले ... खोल धोलींतल्यान उजवाड भायर सरचो तशे. जाणटेल्याची कात जडूल्या पूण नदर न्हय. टॉर्चिच्या उजवाडासारकी जाणटेल्याची नदर दोंगुल्ली देंवत मुळसांत पावली. जाणटेल्याच्या मुंडळयांनी नदरेचो कोन बदल्लो. नदर मातशी उखल्ली आनी मुळसांतल्यान मुखावयल्या गांवाचेर पातळ्ळी.

हय न्हयशें चित्र दिसतालें. माणकुलीं माणकुलीं घरां. मुयेवरी मनीस. मदेंच एक देवूळ ... फुलतो बोंगो कशें. पयलेच खेप पळयतल्याक देखाव अप्रूप दिसपाचो. पूण जाणटेल्यान दोळ्यांच्यो पातकड्यो अंदून घेतल्यो. खाडाचे चार केंस हय – न्हयशे हालले. जाणटेल्याचें नदरेंतल्या गांवाच्या चित्राचेर धांपण पडलें. जाणटेल्याची नदर परत मूळसांतल्यान वयर सरताली. थंयच थारली. एक जोडपें दोंगुल्ली चडटालें. दोगांय तरनाटीं. भौतेक आंकवार. चल्याचो भेस चित्रविचित्र. चली हळडुवे साडयेंत. तीं वयर येत रावलीं. आदीं हांतात धरिल्ले हात ताणीं एकामेकांच्या कमराभोंवतणी आंवूळळे. एका एका पावलाक सवण्यांवरी चोंचींत चोंच दीयत तीं मुखार सरतालीं. वयर पावतां पावतां चल्यान एका उंचेल्याशा भागार थपकण मारली आनी हाताक धरून चलयेक झप् करून आपल्या आंगार

ओडून घेतली. परत उठून दोगांय चलपाक लागलीं. तांचीं फुलतीं मुखां आतां चड चड स्पश्ट जायत वतालीं. ती खुबूच सुंदर! तोवूय सुंदर! वसंत ऋतूंतली सोबिताय!

टक् करून जाणटेल्याच्या खड्ड्यार वयल्यान सुको लाकडाचो कुडको पडलो. जाणटेलो भानार आयलो. तांचो आवाज लागीं लागीं येत रावलो. जाणटेलो वडाच्या आडसाक सल्लो. हाडांचो करकर जालो. तरी एक पांय तसोच पातळून उरलो. जाणटेल्यान तो तसोच सरपटत आडसाक ओडलो. आतां जाणटेल्याची तांकां फाट आसली आनी वडाचो आडोस.

जाणटेल्यान धोलीचीं कवाडां धांपलीं ... दोळे आनी वागाची ऊब कसो काळोख पांगरून वग्गी पडलो. तांचो आवाज खुबूच लागीं पावलो. पावलांचो आवाज लेगीत स्पश्ट आनी चोंचिचो लेगीत. जाणटेल्यान कान सदळ केले.

– ए, कितल्या वयर पावलीं. म्हाका भंय दिसता..

अर्थातूच ही लटकी भिरांत चलयेची.

– हांव वांगडा आसताना कसलो भंय?

आनी मागीर कांय वेळ पांखांचे उबेची शांतताय. जाणटेल्याचे कान लांऽऽब.

– हरशीं केन्नाय निवांत वेळ मेळना न्हय देखून आज तुका दोंगरार हाडलां.

– आतां काळोख जातलो मरे.

– ना. मुखार पळय केदो व्हडलो चंद्रीम वयर सरता.

– आवयस! सुंदर!

– तुज्या इतलो न्हय.

परत शीतळ वाऱ्याची स्तब्धताय. कांय खीण जाण्टेलो दोळे धांपिल्ले अवतिकायेंतूच अस्वस्थ.

– आमी लग्नासंबंदान केन्ना उलोवंया?

चलयेन मुद्द्याक हात घालो. इतल्या सुंदर वातावरणांत हो प्रस्न चल्याक सामको रूक्ष कसो दिसलो. तो कांय वेळ अनमनलो.

– लग्न जरूर जावंया. पूण ...

उतरां चांचवचीं तसो तो आडखळ्ळो.

– तीच तुजी पोरणी गजाल. आपलें कुटूंब व्हड. थंय म्हाकां घुस्मटिल्लेवरी जातलें. लग्न जावन रोखडचा रोखडीं वेगळीं रावपाक मेळचेंना. हय मरे?

– तुकां खबर आसा. मागीर परतें कित्याक विचारता?

तो मातसोसो तिडकलो. एक वाऱ्याचें ल्हार वडाच्या माथ्यावयल्यान गेलें.

– मागीर हाजेर उपाय कितें?

चलयेनूय तितलेच तिडकीन विचाल्लें.

– उपाय एकूच. तुमी लग्न जावंचेंच न्हय.

आवाजासरशीं दोगांय कांचवेलीं. चलयेन आकांतून चल्याचो हात घट धरलो. दोगांयनी आवाजाचो सराव घेतलो. वडाच्या आडसाकसून जाणटेलो धडपडत तांच्यामुखार आयलो.

– तुमी लग्न जावंचें न्हय.

उतरांकणकणी जाणटेल्याचें खाड आनी कुडिचें हाडान हाड हाल्लें. काचाबूल जावन तीं दोगांय जागच्या जाग्यार थिरून उल्लीं.

– हांव सांगतां धुवे, तूं हाचे गांगडा लग्न जाव नाका. तूं फुलती कळी. तूं त्या घरांत बावून वतलें. कंवळें पार्दिक कशें त्या भौसाच्या पांयाखाला मस्तून वतलें. तुज्या काळजांतलें वादळ न्हय, तुजो स्वास लेगीत कोणांक जाणवचो ना.

त्या दोगांयची भिरांत गेल्ली. काळजांत आपूलकाय आनी अजाप भरिल्लें. दोगांय जाणटेल्याचे बगलेक बसलीं. रडटां रडटांच जाणटेल्यान हांसपाचो यत्न केलो. दोगांयचे नदरेंत जाणटेल्याक प्रस्न आसलो.

– तुजें कितें घडलां ?

चल्यान धीर करीत विचारलें.

– जाणटेल्या,

– अं.

जाणटेल्याचें रडप उलगलें. श्रावणांतली दडक झडून गेल्लेवरी सगळें निवळ जालें.

– म्हजें दुख्ख आयकतलीं ?

दोगांयनी मानो हालोवन हयकार दिलो. तिनसांज जाल्ली. उदेंतेक चंद्रीम धिक्याधिक्यान चडत आसलो. थंड शीतळ चान्ने दोंगुल्लेच्या माथ्यार सांडिल्लें. सैमाचें पाचवेंपण चान्न्यात तीकतीतालें. सकयल्या गांवांत मदेंमदें काजुल्याच्या उजवाडायेदे दिवे पेट्टाले.

जाणटेल्याचे ओंठ थरथरले. आनी मागीर जाणटेलो फुटिल्लो बांद कसो व्हांवत रावलो.

– आजूय तिचो उगडास येता तेन्ना ती म्हाका माथ्यार भोरो घेतिल्ल्याच रुपान दिश्टी पडटा. आमच्या संवसारांत खरें म्हळ्यार ती जायत्या रुपान वावुरली पूण तेंच तिचें माथ्यार भोरो घेतिल्लें रूप दोळ्यांसामखार येता.

तिका हांवें पसंत केल्ली तेच अवस्थेंत. म्हळ्यार तिका पळोवपाक गेल्लों त्या दिसा चुकून लाकडांचो भोरो घेतनाच ती म्हजे नदरेक पडली. माथ्यार पेंच घेतिल्ली ती आडसाठी मुर्त म्हाका मानवली. पूण तिच्या माथ्यावयलें वजन काडपाचें धंगण मात उरलें ना.

हांव चड शिकूं ना. सामकोच अन्नाडी आशिल्लों जाल्यार घडये बरें जावपाचें. नाजाल्यार चड तरी शिकपाचों. मदली अवस्था सामकी वायट. तेच

अवस्थेन म्हाका ह्या घोळाक घातलो.

आमचें कुटूंब व्हडलें. तशें घरूय व्हडलें. अर्थात घराची व्हडवीक ही बेबकाच्या कोणासारकीच आसता. घरांत मनशां खोटलेक पांयशीं. त्या घरांतल्या मनशांक मेजपाक हेंच माप योग्य. तरीपूण घरांतलीं मुखेल मनशां म्हळयार चार भुरग्यांची राणव भयण, धा बाळंटेर काडिल्ली आवय, म्हज्या फाटलीं जगून उरिल्लीं म्हजीं भांवडां. बाकीचे सगळे नग. म्हळयार तांच्यांनी घरांत पोट भरूं येता पूण घरांत तांकां खास अशें अस्तित्व ना. ती भोरेकान्न, म्हजी बायल तिणे ह्या घरांत नग जावन रावपाचें न्हयकारलें. म्हळयार बंड केलें ना. घडये करितूय आसली. पूण तिचे पांय हांवेंच ओडले.

चार भुरग्यां उपरांत म्हजी व्हडली भयण राणाव जाली. घोव कसल्याशा दुयेंसान मेला. चार वर्सांत चार भुरगीं इतलोच जोड म्हजा भावोजी भयणिच्या नांवार दवरून गेलो. भयण भुरग्यांक घेवन आवयघरा आयली. थंयच रावली. कंवचेचो वस्त कशी तिचें मन सांबाळपाचो जापसालदारकी आमच्या घरान आपूण जावन लादून घेतली.

म्हजें लग्न जावन भोरेकान्न घरांत आयली. नांव दवरलें उर्मिला. एक दीस उर्मिलेन म्हाका कानांत सांगलें,

– म्हाका तुमी दवरिल्लें उर्मिला नांव खूब आवडलें. तुमकां कशें येवजलें ?

– भयणीन सुचयलें.

हांवें जाप दिली आनी उर्मिला कांयच उलयनासत्ताना वग्गी रावली. बायलो एखाद्रो विशय सुरू करून अकस्मात थारतात तेन्ना तांचें मोनेपणूच त्या विशयाचेर उलयता. पूण उलयतें मोनेपण कळपाक मनपारखी जाय. हांव दुर्भागी !

घरांत येनाफुडें ती रान्नीकडेन बरीच घुस्पताली. पूण आवयन आनी भयणीन रांदनीकडेन तिचो तिगाव लागूंक दिलो ना. दादल्यांच्या पोटाचेर शेक गाजोवपाचें अस्त्र म्हळयार रांदन हाचो सोद म्हजे आवयपरस भयणींक पयलीं लागिल्लो जावंक जाय. भयण रातचीय रांदनींकडेनूच न्हीदताली. घरांतल्या हेर सगळया कामाचो गाडो उर्मिलाच ओडटाली. तरी लेगीत उर्मिला रांदनीकडेन हात-बोट रिगोवंक सोदी. म्हजे खातीर तिणे मुद्दम रांदचें. म्हाका तिचे हातचें जेवण केन्नाच मानवलें ना. एक दीस हांवें तिणें केल्ले भाजयेची वाटी लेगीत वणटीर मोखून मारली. तिणे कांयच घडूंक नाशिल्लेभशेन बशयेचे कुडके एकठांय केले आनी तरी लेगीत दुसऱ्या दिसा म्हजे खातीर झुजत पडली. एक दीस तिडकून हांवें विचारलें,

– म्हाका मानवना जाल्यार तू निलादऱ्याबशेन परत परत म्हजेखातीर कित्याक रांदता ?

गाड आत्मविस्वासान आनी सोंशीकपणान तिणे जाप दिली,

– आतां चुकतां जायत पूण केन्नातरी सुदारतलेंच.
– आवयसारकें आनी भयणीसारकें तुका रांदूंक कळना.

ती वगी रावली. अशा वेळार वगी रावपाचें कसब तिणें आपणायिल्लें. बायलेच्या हातचें गोड मानून घेवचें आसता आनी बायलेक आपल्यामुखार हेरांच्या जेवणाची तूस्त आवडना अशें स्पश्ट जरी तिणें तेदेवेळार म्हाका सांगपाचो यत्न केल्लो तरी हांव आयकून घेवंचो नासलों.

एके रातीं हुंडकेवन रडपाक लागली. हांव आदींच पिकार आसलों.
– कोण मेला ?

हांवें वाजेवनूच विचारलें. तिका कितेंतरी खूब सांगपाचें आसलें पूण म्हज्या प्रस्नान तिच्या दुकांचेच फातर जाले.

खूब तेंपान कुळारा वचपाक भायर सरली. रातीकडेन हांवें सांगलें.
-- आवयक विचार आनी चल.

दुसऱ्या दिसा उदेते फांतोडे वांगडा ती कुळारा वचपाचे तयारेंत फुल्ली. म्हज्या म्हऱ्यांत आयली तशें हांवें म्हळ्ळें,
– आवयक विचाल्लें ?
– हय. ती सांगता, तुकां विचारून चल.
– हांव बाजारांत वचून येतां.

बाजारांतसून भायल्याभायर हांव कामाक गेलों. कामारसून घरा आयलों. घरा येवन पळय जाल्यार भायर सरपाचे साडयेन ही तशीच हांथुणार उमथी न्हिदल्या.

एक दीस म्हज्याच कानांनी हावें आयकलें. आवयन तिका आयकूंक येवंचें येदयान म्हळ्ळें –
– वांजूड !

लग्नाक पांच वर्सां जावन गेल्लीं. घरांतलें वाडवडिलांचें पाळणे माळ्यावयल्यान सकल देवंक नासलें. म्हजे व्हडले भयणिगेर चार वर्सांत चार मुरगीं जाल्लीं. आपणाली वंशवेल कितली फळादीक तें सुनेक सांगपाक आवयक ही देख बरी आसली. ते देखिचो वापरूय मदीं मदीं म्हजे असवडीं जातालो. आमच्या घराचे परंपरेप्रमाण शिकिल्ल्या दोतोरांचो दुस्वास चलत आयिल्लो. कोण मायेचो पूत ताका आडवाद नासलो. देवस्पणांत बायलो फळोवपाचे किमयेचेर आमचे ज्ञातींत भरवंसो आसलो. म्हगेर मुरगें जावचें अशें मनापासून कोणाकोणाक दीस हें म्हाका खबर नासलें. पूण उर्मिलेक दीस हाचेविशीं दुबाव घेवं नज. म्हगेर भुरगें नाय जाल्यार जाता अशी म्हजी समजिकाय जायत वतली. एक दीस खऱ्यांनीच हावें उर्मिलेक समजायली.
– आमकां भुरगें नासल्यार कितें जालें ? भयणिलीं चौगां आसात तीं न्हय ? तीं

घर सोडून थोडींच वतलीं.

आनी त्यावेळार काळी - निळी जावन उर्मिलेन जाप केली,

– तुजी भयणूय अशेंच म्हणटाली.

तिच्या काळजाची थरथर तिच्या सुक्यासडसडीत ओठांचेरूय उठली.

पूण म्हजी भयणूच हे बाबतींत चड देवदेवस्पणां करताली. थोडयो आंगवणी तिणें केल्यो नात. प्रसादपाकळेखातीर देवळांचीं सोपणां चडली. घाडयाभगतांचो सोद लावन ताणीं दिल्ले आंशे हाडून आमकां दोगांकूय खावयले. मौतेक फावट ती ऐकलीच खंय खंय वताली. केन्ना केन्ना म्हाकाय व्हरताली. तिणें सांगिल्लें सगळें हांव मोन्यानी करतालों. कांय गजाली म्हाका मानवना आसल्यो तरी लेगीत भयणिच्या आग्ग्याखातीर सोसतालों. भयण मात सगळें भावार्तान करताली. तशें दिसतालें तरी.

एक दीस भयण खुबूच वाजेली. बऱ्याच पयस सावन वाट माड्डून आयिल्ली.

– केल्ले करणेचेर भावार्त जाय. तेबगर फळ कशें मेळत ?

भयण भरभरत रावली. न्हिदिल्लेकडेन हांवें उर्मिलेक सांगलें,

– ती करता त्या देवदेवस्पणाचेर भावार्त दवरूंक जाय.

– ना.

पयलेच खेप ती अशेतरेची जाप दिताली.

– कितें म्हळें ?

– तिचेर म्हजो मात लेगीत भरवंसो ना. तिणें दिल्ले आंशे, प्रसाद थंय कोळयांत दवल्ल्यात.

म्हाका सुमारामायली तिडक माल्ली.

– चुट्टी लाय तुज्या भावार्ताक. उरना तूं वांजूड. भयणीन ल्हानपणान म्हजेखातीर ख्यास्ती काडल्या त्यो काडल्या, आतांय ती दगदग काडटा आनी तूं कितें कांय म्हळयार ...

मनांतलीं उतरां ओंठार आयलीं ना पूण सगळो राग एका थापटानूच भायर सरलो. थापटासरशीं ती बरीच भिरकटली. आनी मागीर ह्यन्हयशा काळखांत तिचीं दुकां लीकलीकत रावलीं.

एके राती सदचेसारक्यो भयणीकडेन गजाली मारून हांव हांथरुणार आयलों. उर्मिला जागीच आसली, म्हजी वाट पळयत. बाबडी जावन म्हगपाक लागली.

– म्हाका तुज्या बापायचो उगडास आयलो.

म्हाका हांसपाकूच आयलें.

– तुवें ताका पळयिल्लो तरी ?

– ना.

— मागीर उगडास कसो आयलो ?

तिका पिशांत काडीत हांवें विचारलें.

— ह्या घरांत म्हाका समजून घेवपाक कोणूच ना. म्हजो मांव म्हाका बापूय जावन पावतलो आसलो.

— पिसाय ! न्हीद आतां.

उर्मिला पोर जावन कूरगुंटी करून न्हीदली आनी कुशी परतीत रावली.

एके आमोरेर उर्मिलान आपल्या दुर्भाग्याक आपूण जावन आपोवणे दिलें. पडवेर सगळीं कांचिबुचीं, जाणटीं नेणटीं बशिल्लीं. घरांतलो लोक थोडो म्हणपाक शेजार-पाजाऱ्यांनीय दाटी केल्ली. भल्लेल्या पोटावयल्यो गजाली त्यो. विशयाचें बंदन दवरपाची गरज नासली. खबरांनी सगळे रंगिल्ले. तरांतरांच्यो खबरी. सुमार नाशिल्ल्यो. मदींच उमाणीं सुरू जालीं. तरांभासांचे प्रस्न. एकल्या बुदवंतान सगळयांक आव्हान दिवन प्रस्न केलो.

— दर्या कितलो खोल ?

थोडया अवचिन्नांनी प्रस्नाच्यो बकच्छायो केल्यो. हावेंय तकली खाजोवपाचो यत्न केलो. खीणभर सगळे वगीच रावले. म्हाका एक जांबय आयली. हांव उठपाक सोदी. इतल्यांत भितल्ल्यान बाण कशी उर्मिला आयली. दरवटचार रावन तिणे विचारलें.

— हांव सांगूं ?

— सांग, दर्या कितलो खोल ?

— मनशा इतलो खोल.

तिणें एका झटक्यासरशीं जाप दिली आनी पडवेचो कोनशान कोनसो खळ्ळ करून हांसलो. बायलेच्या पराक्रमाखातीर सगळयानी म्हजेकडेन तोखणायेन पळयलें.

— पिसाय !

म्हज्या तोंडांतल्यान सहजतायेन उतरां भायर सरलीं.

तेन्नाच्यान उर्मिला मांयेखातीर पिसाय सून जाली. नणडेखातीर पिसाय मावज जाली. भुरग्यांखातीर पिसाय व्हनी जाली. शेजाऱ्यांसामाऱ्यांखातीर पिसाय उर्मिलाबाय जाली. पूण इतल्यांमदें पिसाय पत्नी हाचेंच दुख्ख तिका व्हड आसलें.

आनी त्या दिसा तिणे म्हाका अजापांत वडयलो.

— म्हाका आतां कोणाचीच पर्वा ना.

सामकी बेफिकीर जाल्लेवरी ती उलयताली.

— कसलें नवें पिशें ?

हावें म्हज्या सभावधर्माप्रमाण तुसडेपणा केलीं. म्हज्या उलोवण्याची तिणे पर्वा केली ना.

— म्हाका दीस गेल्यात.

तिचे जापेन हांव खीणभर वगी पडलों. म्हजे प्रतिक्रियेची तिका गरज भासली ना.

— म्हज्या राजाक हांव म्हाका जाय तशीं वाडयतलीं.

तरी हांव वगी. सपनांत गूल्ल जावन ती बडबडत आसली.

— ह्या घरांतल्या कोणाचोच सभाव ताका येवंक फावना.

भुरगो मांडयेर आशिल्लेवरी तिणे कमर बागयली.

— म्हजो बाळटेर खंय जातलो ?

म्हाका तिणें विचारलें. नदरेंत दुबाव आसलो आनी हयन्हयशी भिरांत.

- बाबू जातकीच आमी ह्या घरांत रावचीं न्हय. पयस बिराड करून रावचीं.

हांव तिचे मुठयेंत आशिल्लेवरी ती उलयली. आनी येदोवेळ अपुरबायेन आयकत बशिल्ल्या म्हज्या पांयांची तिडक मस्तकाक गेली.

— म्हज्याखातीर न्हय, आमच्या बाबूखातीर वेगळीं रावंकूच जाय.

उर्मिला बरीच लाडांत आयिल्ली. तिचीं उतरां मस्तीत हांवें म्हळें,

— तुज्या बाबूखातीर वेगळीं रावपाचीं जाल्यार तुजो बाबू जल्मांक येतनाच ...

हांव भलतेंच उलयिल्ल्याची म्हाका जाणवीक जाली. उर्मिला कालिच्या अवतारान म्हज्यामुखार उबी रावली. ओंठ धांपिल्लेकडेन तिचे दांत करकरले. म्हजे सुवातेर आनीक कोणूय आशिल्लो जाल्यार ती तेदेवेळार ताचे गोमटेक घांस मारतली आसली. त्या दिसा पयलेच खेप म्हाका उर्मिलेंतले बायलेचें दर्शन घडलें.

आनी बुकल्यान आपलो वंश चाबडावचो तशे जालें. म्हज्या उतरांनी उर्मिलेच्या भुरग्याचो बळी घेतलो.

दीस भरचे आदींच एके तिनसांजे तिका वेणो येवपाक लागल्यो. तो दीस पुनवेचो आसलो. वसंतांतली पुनव. गांवांत देवळांत वसंतोत्सवाची तयारी चलिल्ली. सगळो गांव बोवाळांत भासलो. देवळांत वचपाच्या बोवाळांत घरांतल्या मनशांच्या पांयांक थार नासलो. हातीपायां पडून वैजिणीक हावेंच हाडली. तिच्यो हुयेली कानाचे पडे चिरून वडयताल्यो. बांळटिचे कुडिभायर हांव हात कांबरून पासयो मारीत आसलों. जीव वयर सकल जातालो. अकस्मात थंडाय पातळ्ळी. सामकी जीव खायगी. आनी मागीर कुडींतल्यान एक किळांच आयकूंक आयली, म्हजे भयणिची. म्हजें नांव घेवन ती हुंडकेताली.

भुरगें जातनाच मेल्लें. उर्मिलेची शुद्ध गेल्ली. सगळयांचीं तोंडां बावलीं. गावांत उत्सव आनी घरांत हें कसलें अपमरण ! भयणिनूच चार चौगांक जमयलें. एकल्यान कुदळ घेतली. दुसऱ्यान खोरें. आनी दोगांनी भुरग्याचें मडें उबारून व्हेलें. फाटोफाट हांवूय गेलों. सगळयाक चान्ने पडिल्लें. धवेंफुल्ल. म्हज्याय पुताक धव्याफूल्ल कपडयांत गुठलायिल्लो. ताका माती दिली आनी म्हाका उर्मिलेची

पोट फुटून याद जाली. हांव धांवतालोंच म्हळचार जाता.

घरा यो जाल्यार चिंतिल्लें तशेंच घडटालें. उर्मिला जीव तोडून रडटाली. तिच्या म्हऱ्यांत कोणूच नासलो. देवळांत उत्सवाकूय कोण वचूंक नासलो. बांळटिचे कुडींत ती हुंडकेताली आनी हांव दुसरे कुडीत कुशी परतीत आसलों. तिच्या म्हऱ्यांत वचन दिसतालें पूण मदीं कितल्योश्योच वणटी आशिल्ल्याचो भास जातालो. खांदयेर एकटीच बसून रडटल्या सवण्यामशेन ती थकली.

– म्हज्या भुरग्याक तुमी खंय व्हेलें? तुमी म्हजीं वैरी. म्हज्या भुरग्याक तुमी माल्लें.

'हिचीं उतरां आयकुपाक म्हाका शक्त दी' म्हण हांवें देवाची प्रार्थना केली. मदीं बरोच मोनेळ. हावें जीव कानांत ओतलो. हय – न्हयसो तिच्या पावलांचो आवाज. न्हेसणाचोसो. मागीर दाराचो करकर. आनी पावलांची झपझप. हांव ताड् करून उठलों आनी भायर आयलों. पडवेवयल्यान आंगणात देवून उर्मिला धांवत सुटिल्ली. पडवेरसून हावें आंगणात उडी मारली. मातसो पांय तीरपलो. तसोच धांवलों. सगळी शक्त एकठावन ती धांवताली. तिचे केंस सैरभैर हुबताले. न्हेसण हातभर लांबतालें. तरी ती वारें पियेल्ल्या वांसरावरी धांवताली. तिच्या पांयापोंदचे शेंकरे फट् फट् करून फाटल्यान उसळून झिलींत पडटाले. हांव तिजो सराव घेत धांवतालों. 'उर्मिला' म्हण उतरां ओंठार येतालीं पूण तोंडाक गुडो बशिल्लेभशेन उतरां भायरूच सरना आसलीं.-ती दोंगरार वयर वयर चडटाली आनी हांवूय तितल्याच वेगान. दुस्मानान आडावचो तसो एका फातरान म्हाका आडायलो. धोंपर फुटलें. कांय वेळ न्हिन्नळ्ळों. हाताक लागिल्लें रगत पळोवन अदीक चवताळ्ळों. देड पायांनूच दोंगर चडपाक लागलों. उर्मिलेचे बाबतींत घेतिल्लो प्रत्येक दुबाव खरो जातालो. उर्मिला वास घेत भुरग्याक पुरिल्ल्या फोंडाम्हऱ्यांत पाविल्ली. खिणाची उसरपत घेनासताना तिणे राक्षिणिच्या भेसान दोनूय हातांनी फोंड उस्तूवपाक सुरवात केली. आनी काळीज फूटचें तशीं म्हज्या ओंठांतल्यान उतरां भायर सरलीं –

– उर्मिला ऽऽऽ

सगळो वांठार खणखणून गेलो. धंय विटकळचें तशें पुनवेचें चान्नेय फुटून गेलें.

फोंड तसोच सांडून उर्मिला वयर दोंगरार धांवत रावली. हाताक मेळट मेळटाशी जाली पूण मेळळी ना. तेनयेर पावली आनी तेमयेच्या दुसरे वटेनच्या देंगणात कोंसळ्ळी. गडगडून सकल वतना एकदां दोनदां म्हाका दिश्टी लेगीत पडली. तिच्या बराबर दोनचार फातर गडगडले. मागीर फातरांचो गडगगड आनी तिच्यो किळांच्यो एकामेकांत भरसून गेल्यो. बऱ्योच खोल खोल ... दोंडींत पावसर.

ते मर्णकाळ दोंडीत एकक्ष्यान देंवपाचें धाडस जालें ना. तसोच धांवत घरा आयलों. घरच्यांक सगळयांक उठोन घालीं. घडिल्ली गजाल सांगली.
– फाल्यां सकळीं पळोवंया.
भयणीन सांगलें.
– येतली पिसाय फाल्यां.
आवयन जाप केली.
तांकां पटोवन दिवपाक असमर्थ थरलों आनी परत भायर सरपाक दुबळो थल्लों.
दुसऱ्या दिसा कितें पळोवपाचें ? वळखूंक येना असलें मडें खंय ! कोल्या कोलसुण्यांनी चाबडावन वडयिल्लें. हांव गेलों ना. कित्याक वतलों ? म्हणनात पिसो ! कितें घडलां तें म्हाका आदींच खबर आसलें.
अशी ही उर्मिलेची काणी. पूण इतल्यान सोंपना. हालीं सदांच ती म्हज्या सपनांत येता. केन्ना केन्ना तें सपन म्हळयार खरेंच घडिल्लेवरी दिसता. सपन कशें दिसचना. एक दीस येवन विचारता,
– म्हज्या माथ्यावयलो भोरो तुवें केन्नाच कित्याक सकल दवल्लो ना ?
दुसरे फावट दुसरोच प्रस्न,
– भयणिखातीर आसपी मावान लग्न जावंचेंच कित्याक ?
तिसरे खेप तिसरो प्रस्न,
– संवसारांत बायलेक घोवाबगर हेर कोणाची सत्त्या नाका हें तुका केन्ना कळटलें ?
तिच्या प्रस्नांनी हांव चक्रावतां तरी ती विचारीत रावता.
– बायलांकूय मन कित्याक आसता ?
– सांवटेखाला रोपली कित्याक मरता ?
– एक पिसाय संवसाराचो गाडो ओडूंक शकता हातूंत मात्तूय अजाप ना ?
– आतां मस्कऱ्यो करिनासताना सांग, दर्या मनशाइतलो खोल न्हय ?
– आवयक भुरगें कित्याक आसचें न्हय ?
ह्या सगळ्या प्रस्नांच्यो जापो सोदीत हांव हांगां वडामुळांत बसतां. पूण आयच्या बसपाक खास अर्थ आसा. कसलो अर्थ काय म्हण विचारतलीं तुमी. सांगतां, आज वसंत पुनव. उर्मिलेच्या बलिदानाची रात ती आयचीच. सकल गांवांत पळयात. थंय दिव्यांचो चोमो दिसना ? तें देवूळ. थंय वसंतोत्सव चलता. सगळो गांव आनंदान बुडला. म्हजें घरूय खोशयेन आसतलें. उर्मिलेचो उगडास कोणांक ना. फकत म्हाकाच. आतां हांगां, सामकें लागीं. वडापासून धायेक धेंपांचेर थंय तो उचेलोसो भाग दिसना ? थोडेशें तण मातलां पळय, व्हदळ ताजेरूच तुमी खीणभर बशिल्लीं. तोच म्हज्या पुताचो फोंड. आनी आतां हेवटेन फाटल्यान पळयात. हें देंगण दिसता पळय. खोल-खोल. हीच ती दोंड. हांगाच फातरांच्या सांगातान

उर्मिला गडगडत मर्णाचे सुवादीन जाली. आनी आतां शेवटाक हांगा पळयात. हांगा, म्हजे कुशीक.

जाणटेल्यान येदोवेळ कुशीक धांपिल्लो तुवालो काडलो. तुवाल्यापोंदाक एक पिठाचें बावलें आशिल्लें. काळचा रंगान ताका नाख-दोळे कडिल्ले. जित्रूप दिसतालें. चान्न्यांत तर अदीक भयांक्रत.

– हें बावलें कित्याक सांगात पळोवंया ? तें म्हज्या भुरग्यासारकें दिसना ? तें हांगा अशेंच उकतें मांडून दवरतलों. आनी असो वडाच्या आडसाक दडून रावतलों. मध्यानेर सुमार ती येतली. फसतली. म्हन्यांत येतली. मागीर अशी घट् धरतलों आनी तिच्या सगल्या प्रस्नांच्यो जापो दितलों.

जाणटेल्यान दोनूय हात आपलेच्र छातयेभोंवतणी आंवृळळे आनी माणकुल्या भुरग्यावरी जैत जाल्ल्याचे खोशयेन तो हांसत हांसत उडक्यो मारीत रावलो.

तीं दोंगांय हुमेन चिप्प जालीं. जाणटेल्याक फाट करून ताणीं पावलांत गती फुंकली. गांवांतल्या दिव्याचो उजवाड नदरेंत धरून तोल सांवरीत तीं दोंगर देंबपाक लागलीं.

फाटल्यान जाणटेल्याच्या हांरुपाचो खळखळ वाडत आसलो.



## ४.

# भोंवर

– बाबा, पेज जेवन वयता मरे ?

– पेज ? शी ! च्या कर.

पेंट चडयत अनीलान आवयक फर्मायलें.

– हे पेंटीक हो चिखोल खंयचो ?

धोंपराकडचें खत आवयक दाखयत तो तिडकलो.

– कोण वैता तुजे पेंटीकडेन ? तूंच खंयूय तेंकला आसतलो चिखलाक.

– हय, तुमचेसारको हांव वयतां चिखलांत लोळूंक !

कंडव्या भायर पडवेर विडी ओडीत बशिल्ल्या बापायच्या कानार अनीलाचीं उतरां पडलीं. तोंडांत घेतिल्लो विडयेचो धुंवर सोडीत तो सुस्कारलो.

– हय पुता, आमी लोळटा तीं पुरो ह्या शेताच्या चिखलांत. तूं आनी नाका. शिर्विसूच कर तूं.

– ह्या, ह्या खोऱ्याचो दांडो लागलो पेंटीक. कोणे दवल्लेलें तें हांगा ?

– आनी कोण दवरतलो ? तुज्या बापायन दवल्लेलें.

– हं. शिस्त म्हण ना. केन्ना सुदारतले म्हण देवाक खबर ! अनीलान त्रितरागान म्हळें. भायर बशिल्ल्या बापायक आयकूंक येवंचे न्हय इतल्या हळू पूण बापायच्या कानांर उतरां पडलींच· आपलोच पडटो काळ मानून बापूय ओगीच रावलो.

– त्यो पेंटी – बिटी दवरपाक बरी सुवात जाय.

आवयन त्रोसां मारपाच्या सुरान म्हळें.

– जायच.

आवयच्या उतरांचो रोख कळनासून अनीलान म्हळें. आवय मोन्यांनी च्याचो ग्लास घेवन मुखार आयली. तो बुटांच्यो लेसी बांदीसर तशीच उबी रावली.

– आयज तरी जातलें खंय शिर्विशेचें ?

– तें कितें पिकलेलें शेत ? वचपाचें आनी लुवून हाडपाचें ?

– शेतां आपशींच पिकता म्हण समजलो तूं ?

जाप दिनाआसतना अनीलान च्याचो ग्लास तोंडाक लायलो. पयल्याच घोटाक ताका च्या आवडूंना म्हण कळटालें.

– आतां म्हाज्याय जिवाच्यान नजो. तेज्यानूय नजो.

आवय फुडें कितें कितें सांगूक सोदी पूण इतल्यान भायर बापूय एकसारखो खोकूंक लागलो.

– बस येवपाची जाली.

अनीलान ताकतीक केली.

– बरो करून.

आवयक चक्क करून उगडास जालो. रांदनीकुशीच्या रित्या बुडकुल्यांत ताचेखातीर मुद्दम दवरिल्ली पांच रुपयांची नोट हाडून तिणें पुताच्या हातार दवरली.

– बऱ्या कामांक भायर सरताना कसलीं भिकमागेपणां गे ?

सकाळच्या पारार कपलाक आठयो घालीत ताणें आवयक दुशणां दिलीं. ते सरशीं राखून दवरिल्ले आनीक पांच रुपया हाडून आवयन ताच्या हातार घातले.

इतल्यान पयसुल्ल्यान बशिचो हॉर्न आयकूंक आयलो. ती संद साधून अनीलान ग्लासांतली नाका जाल्ली अर्दी च्या तशीच सांडली. पैशे बोल्सांत चोंदले आनी खोपिच्या पांख्यापोंदच्यान ओणव घालून भायर धांवलो.

शिळोणी घालीना फुडें बस थाल्ली. तो फाटल्या दारांतल्यान चडलो. शिळोणी घालून मदींच बस थारोवपी त्या विराक बसींतल्या पॅसेंजरांनी फाटीं वळून पळयलो. बस चालीक लागली.

– आरे, विनय मरे. खंय रे ?

– कॉलेजाक.

एका हातांत पुस्तकां आनी दुसऱ्या हातांन बसिचो हुमकळपी हॅंडल धरीत विनयान अनीलाक जाप दिली.

हातांत सांबाळूक जायना अशीं पुस्तकां आनी बसींत हेवटेन तेवटेन झीडपत उबो रावपाची कसरत पळोवन अनीलान ताची काकळूट केली.

– तूं बरो सुटलो.

विनयान म्हळें आनी तो हांसलो. तो शाळेच्यो आनी कॉलेजिच्यो गजाली सुरू करीत म्हण अनील ताचे कुशिच्यान मुखार सरलो.

बसींत पणजे वचपी कॉलेजचे भुरगे, ऑफीसांत कामाक वचपी लोक, तशेंच वाटेर दीसवडयाच्या वावराक वचपी कामदार हांचीं लूट आसली.

कॉलेजांत वचपी भुरग्यांमदीं ताचे वळखिचे खूब आसले. पूण ताणें तांकां म्हळलेशें हडकिले ना. मॅट्रीकेक फेल जाल्या उपरांत ताचो शाळेकडचो संबंद

तुटिल्लो. ताचेबरोबर नापास जाल्ल्या भुरग्यांनी परत यत्न केल्लो. ते पासय जाल्ले. पूण अनीलान पयलोच कौल मानलो आनी शाळेच्या जंजाळातल्यान मुक्त जालो. ताचेबरोबरचे भुरगे एक तर मुखार शिकताले, आवयबापायच्या कामधंद्याक आदार करताले वा आपले परीन पोटापुरतें मेळयताले. पूण अनीलाचे तकलेंत असलो विचार केन्ना आयलो ना. सर्विस करपाक जाय अशें ताका जरूर दिसतालें. पूण सर्विस मनास.रकी नाका? नाजाल्यार वगीच सुखाचो जीव त्रासांत वडोवपाचो !

– आवयस् !

पांयाक हून लागलें म्हूण ताणे चिरंगटींतल्यान सकयल पळयलें.

ताच्या म्हऱ्यांत उबें आशिल्ल्या एका कामेऱ्यान खतखतीत पेजेचो डबो भरून हाडिल्लो.

... शीस्त ना खरी. पेजो घेवन बसिनी मोंवतात.

तो मनांत जळफळ्ळो. पेज आपले पेंटीर रकली काय कितें म्हूणपाच्या भंयान तो दुबावलो.

– खंय ?

– पणजे.

– कित्याक ?

... हांका कर्माक चवकशो जाय !

अनीलान ताका कांयच जाप दिली ना. ताणें जनेलांतल्यान भायर पळेलें. मोडणार आशिल्ल्या सिनेमाथेटरावेलो बोर्ड ताणे मान वळोवन वाचलो.

... पाड पडूं ! कसलीं पोरनी पिक्चरां हाडटात. स म्हयन्या आदीं हावें हें म्हापशां पळयलां आत्याले थंय गेल्लो तेन्ना.

– कसलें पिक्चर लागलां रे ?

सिटावयल्या त्याच मनशान विचारलें.

... तुका जड्ड्याक पिक्चरां कित्याक ?

अनीलान ताच्या प्रस्नाक कांयच जाप दिली ना.

कॉलेजांत वचपी भुरगे कीटकीट्टाले.

... अं. कॉलेजांत वता म्हूण पॉजी मारता ! मीठ घालतां असल्या शिक्षणाक. बरे भुरगे फेल जातात. कर्माक जाय शिक्षणा !

अनीलाक बेश्टोच दुबाव आयलो. ते भुरगे आपणाचींच फकाणां मारतात जांवये. व्हवळच्यान एक एकलो पळयता.

– बाणस्तारी देंवात.

कंडक्टराचीं उतरां कानार पडनाफुडें अनील सडसडीत उठलो आनी पणजेची तिकेट काडिल्ली आसतना बाणस्तारीच देंवलो. बस थंयच्यान सुटचेपयलीं

तो हॉटेलांत भितर सरलो.

च्या घेवन भायर आयलो. फोंड्या वचपी बसिची वाट पळयत उबो रावलो. पणजे वचपी बसी भर भरून वताल्यो. सगळे पणजेंत शिंविसेक वचपी लोक.

... मस्णांत वतात हे लोक.

दोन - चार बसी मेजून तो सुस्कारलो.

पणजेसावन एक बस आयली. बाणस्तारी थाल्ली.

– फोंड्या ... म्हार्दोळ ... मंगेशी ...

अनील बसींत चडलो. व्हडलिशी गर्दी नासली. रित्या सिटार ताणे बसकण मारली. बस धांवपाक लागली. खंय वचपाचें तें अजून थारावंक नासलें ... कंडक्टर तिकेट दिवपाक येतकूच पळोवया.

मनांतल्या मनांत ताणे थारायलें आनी जनेलांतल्यान भायर पळोवपाक लागलो.

हातांत आवतां-आयिल्लां घेवन लोक शेतात धांवताले.

– फुलां ... फुलां ...

ताच्या जनेलाकडेन येवन एकलो फुलकार ताका फुलां दाखयतालो.

– कोणाक माळूं ?

ताणे त्या फुलकाराक विचारलें. फुलकारान ताचेकडेन आडनदर केली आनी तो तसोच मुखावयल्या जनेलाकडेन गेलो.

... कसलो फुलांचो धंदो ! दयडिरो ! फुलां फुलां म्हणपाक ह्या दादल्यांक लजूय दिसना !

बस म्हाड्डोळच्यान सुटली.

... आरे, हो कंटक्टर खंय ?

– वळखूना रे ?

– नारायण मरे. तूं रे पापया कंडक्टर केन्ना जालो ?

– जाले तीन म्हयने. हालींच हे लायनीक आसतां.

– शाळेंत आसतना तूं दोतोर जातलो म्हण सांग न्हय रे ? आनी आतां कितें काय म्हळचार कंडक्टर जालो !

– पैशे मेळना तर ?

– पैशे मेळटा म्हण कितेंय करशी ?

– तूं कितें करता रे ?

– कंडक्टरपणां मात करीना.

– तितलें सोपें नासता आं.

– म्हाका फुक्याक सुद्धां नाका.

– जांव, फोंड्यामेरेन तुका फुक्यासवाय पावयतां.

कंडक्टर इश्टान ताका तिकेट दिली ना आनी ताचेकडसून पैशेय घेतले ना. ... जांव, हरशीं शाळेंत कुस्कूटाक पावनासलो आज तिकेट तरी सुटली. पोराचे सर्विसेचें मात भोगूं !

देंवतना ताणे उपकारान कंडक्टराचे फाटीर थापट मारलें.

– फुडले खेप खंयचे लायनीक आसतलो तें सांग.

पूण ताका जाप करपाक कंडक्टराक फुरसद नासली. ड्रायव्हर बस रिव्हर्सान घेतालो. ताका, ड्रायव्हराक पिल्लूक मारून सिग्नल दिवपाचो आसलो.

अनील फोंडचां बाजारातल्यान चलपाक लागलो. बाजारांत एके कडेन ताच्या मावशालो भाजीपालो विकपाचो गाडो आसा. थंय पावतकूच तो दुसरेवटेन वळ्ळो आनी पयस पावतकूच परत आसा तसो मुखेल रस्त्यार येवन चलपाक लागलो.

... मावसो खंय दिसना जाल्यार पुरो.

ताचीं पावलां आपशींच मावशेल्या घराकडेन पडपाक लागलीं. फोंडचा पावता पावतांच ताणे मावशागेर वचपाचें थारायिल्लें. खरें म्हळ्यार मावशागेर न्हय, मावशेगेर. कारण मावसो म्हळ्यार ताका भाजेचो गाडो दोळ्यांमुखार दिसतालो. आनी मावशी म्हळ्यार फोंडेचें तें सोबीत घर.

तसो मावसो सभावान बरो आसलो. पूण बुरसोच म्हळ्यार जाता. भाज्जेचीं खतां खंय खंय पडटालीं ताचो हिशोब ना. मोटवें कलसांव घालपी आनी चडूच म्हळ्यार फूटपाथावयल्या गिरायकांक मुद्दम उलो मारून 'बाबा' 'बाय' करून भाजी खपोवपी. अनीलाक सगळ्यांत चड हींच नाककातेपणां दिसतालीं, मावशाचो व्याप वाडलो तसो ताणे गाडचार एक भुरगो दवरपाचें थारायलें. विचारचें कोणाक? एक दीस तांगेर आयिल्लेकडेन अनीलाकूच मावशान भीडमूर्वत धरिनासतना विचारलें,

– रावता मरे भाजयेच्या गाडचार ?

अनीलाक असो राग आयलो. मावशाक खांव काय गिळूं अशें जालें ताका. तेन्नाच्यान ताणे मावशेगेर पावलूच दवरलें ना तो कितल्या तेपान आयज –

– आयज सुर्या खंयच्यान उदेलो ? मावशेचो उगडास येयलो दिसता !

दारांतूच मावशेन अनीलाचें स्वागत केलें. अनीलाक मावशेचो सभाव खूब आवडटा.

–गाडचार गेल्लो ?

– ह ... हय.

– हे मेळ्ळे ?

– न ... ना गाडचार मावसो नासलो.

– खंय भायर सरिल्लो दिसता. तो पोर आशिल्लो मरे गाडचार ?

– हय.
– बरो पोर ! हे नासताना लेगीत गाडो बरेतरेन सांबाळटा.
   मावशी तोखणायेन सांगताली.
... ही आतां म्हजेर घसरना जाल्यार पुरो. तूं कित्याक रावलो ना गाड्यार ? मावशाल्या त्या गाड्यार रावचेपरस–
– च्या करतां.
   अनीलाक मावशेच्या हातचो च्या खूब आवडटा. बरें दाट दूद घालता. म्हस आसा तांगेर दुदाची. च्याची पावडरूय बरी वापरता.
– शिरो करतां आं.
   अनीलाक शिरो आवडटा म्हण मावशी जाणां. मचमचीत तुपांतलो शिरो खातकूच ताची रूच अनीलाचे जिबेर कितलेशेच दीस उरता.
– आवय बरी आसा मरे ?
– अं.
– बापूय बरो आसा मरे ?
– अं.
– कशें चल्लां ?
– अं.
   शिरो खातां खातां ताणे मावशेच्या प्रश्नांक थातूर–मातूर जापो दिल्यो.
– दनपारां जेवणांक रावता मरे ?
– ना.
– कित्याक ?
– काम आसा.
– कसलें काम ?
– का ... म मडगावां वचपाक जाय.
– मावशाक मेळून वचचो ना ?
– मागीर दुसरे फावट केन्नाय ...
   खरें म्हळयार मावशाचें दर्शन नाका म्हण ताका वचपाक जाय. नाजाल्यार तो रावपी आसलो. सकाळीं मावशेचो चलो कॉलेजींत गेल्लो. सांजचो येतकूच सिनेमाक वचूं येतालें पूण परत मावशान गाड्यार रावपाचो विशय काडल्यार ...
– चल्लो हांव.
– येन्नाच ? मातसो बस तरी. चार उतरां उलय तरी मरे.
– मागीर येतां एक दीस.
– राव, घे.
   मावशेन बळजबऱ्यां ताच्या बोलसांत पैशे चोंदले. खरें म्हळ्यार अनील

ताचीच वाट पळयतालो. मावशी रित्या हातीन केन्नाच निरोप दिना हाची ताका खात्री आसली. ताका तसो अगमव आसलो ... कितली मायेस्त मावशी ?

तो आयलो तसोच परतलो. भाज्जेचो गाडो मुद्दम चुकोवन दुसरे वटेन वळ्ळो आनी बसस्टँडार येवन मडगांवची बस धरली.

... धा रुपया ! फाटलेपरस पांच चड.

आनी तो बस सुटपाची वाट पळयत रावलो.

– ए, ए अनील ?

भायल्यान ताका कोणतरी सादयतालो. मायर पळय जाल्यार ताचो आठवे कांय णवे यत्तेंतलो एक क्लासमेट – अत्मा अर्थात आत्माराम.

– खंय रे अत्मा ?

– फोण्या बाजारांत गेल्लों.

ताणे तशें सांगना जाल्यारूय ताचे अवतिकायेन तशें स्पश्ट कळटालें. मोटवें कलसांव, कलसावांच्या सकयल्या पोंताकडेन पावता इतले लांबोडयें खोमीस, दाव्या हातांत रितें ओजें, खांदार चुंबळीक धरिल्लो चुरिल्लो तुवालो. हो कुळागरी मनीस फोंडच्या बाजाराक आयिल्लो म्हणपाचें पारखूंक येतालें.

– देंव मरे, कितल्या दिसांनी मेळ्ळ्या इल्लो च्याये घोंट तरी घेंवया.

अत्मा जनेलांतल्यानूच ताका आग्रो करतालो.

अनीलाक अजाप दिसलें ... शाळेंत हो अत्मा भुरग्यांक फकाणां मारपाक उपकारतालो तो आतां चायेक आपयता ...

– देंवना ?

अत्माचो आग्रो चडूच जालो. आतां तो बसिच्या दारांतल्यान भितर आयलो.

... ह्या असल्या सवंगाबरोबर हॉटेलांत वचून च्या घेवपाची ? शी ! एक वेळ आमचो मावसो परवडलो पूण हो अत्मा न्हय. बा ! खोमसार केळयांच्या दिकाचीं खतां चित्रां कशीं उदेल्यांत. केन्ना सुदारतले म्हण हे देवाक खबर !

– ए, देंवना मरे ?

– ना रे, बस चुकतली.

– एक चुकल्यार कितें जालें ? बसी आसा खोंटल्यानी !

आपल्याच बापायच्यो बसी आशिल्ल्याभशेन अत्मान सांगलें.

– नाजाल्यार इस्पीशल टॅक्सीन पावयतां तुका मडगांव.

हांसताना तागेले किडयाळ दांत सारखे दिसले ... आतां हें सवंग गेल्यार बरें.

अनीलान ताच्या बोलसाचेर नदर माल्ली. बरेंच तटतट्टालें.

... पोराक बाजार बरोच फायद्याक पडला.

– घे.

अनील देंवना तें पळोवन अत्मान थंयच्याच एका भुरग्याकडल्यान दोन लिंबूसोदाचे ग्लास घेतले. एक आपणें तोंडाक लायलो आनी दुसरो अनीलाक दिलो.

– आज बाजार बरो फुल्ला दिसता ?

अत्मा मनापासून हांसलो. ताच्या हास्यांतल्यान सगळी जोड भायर दिसताली.

... म्हाका शंबर रुपया दिता ?

अनीलाक मागनशें दिसले. मागल्यार अत्मा वॉर्टीन दितूय आसलो.

... पोराक माडूं येतालो.

– बरें तर.

बस चालू जाल्ली. बस सुटसर अत्मा एका हातांत रितें ओजें आनी दुसरो रितो हात हालयत आसलो. अखेर मेरेन अनीलाचो नदर ताच्या तट्टटीत बोल्साचेरूच आसली.

बस मडगांववटयां धांवपाक लागली. दनपारचें कडकडीत वोत हारश्यांतल्यानूय बादतालें.

– खंय ?

– मडगांव.

मडगांवची तिकेट काडटकीच ताच्या मनांत आयलें,

... बोरये देंवल्यार वायटशें जावचें नासलें.

बोरये तांचो एक पयसुल्लो सोयरो रावतालो. कसल्या नात्याचो तें अनीलाक सारकें बरें खबर नासलें पूण तो अनीलाक खूब बरो करी. एकदां जात्रेच्या निमतान चार दीस अनील बोरये तागेल्या थंय उरिल्लो. पूण मदीं काय वर्सां गेल्लीं.

... घडये वळखना जाल्यार ? लजशी !

बस बोरयेपूल काडून मुखार पावली.

... मडगांव खंय वचप ? चुलत्यागेर कांय ...

खरें म्हळचार फोंडचा ताणे मावशेक सहज वेळ मारपाक म्हण मडगांव काम आसा अशें सांगिल्लें पूण मागीर तेंच खरें धरून तो मडगांवचे बसीर बसलो.

मडगांव अनीलाचो चुलतो रावता. चुलत्याच्या घराबगर हेर सगळीं घरां ताका मडगावांत अनवळखी.

... आनीक खंय वतलो ?

अनील चुलत्यागेर वता म्हण कळ्ळयार आवय – बापूय ताका वगी रावची नासली. कारण आदींपासून शेताचे वाटणेक लागून तांचेमदल्यान उजो वचनासलो. चुलतो कितलीशींच वर्सां आदीं मडगावां येवन स्थायिक जाल्लो. पूण घरच्या

शेताचेर अधिकार सांगतालो.

... हांचीं झगडीं म्हाका कित्याक लागता ... ताणे भायर पळयलें. वोत रणरणटालें. रणरणत्या वोतांत साश्टीकार शेतांत वावुरताले.

... शेताखातीर चुलत्याकडेन झगडीं ? शी ! जाय जाल्यार दिवचें चुलत्याक शेत. आवय – बापायचें म्हण नाका जाल्लेंच. त्या चिखलाचो इतलो कित्याक सोस तेंच कळना !

मडगांव बस – स्टँडार तो देंवलो. ताचीं पावलां आपशींच चुलत्याले थंय वळ्ळीं. भितर सर जाल्यार दनपारच्या जेवणाची तयारी चल्ल्या.

– यो. प्रकाश, कोण आयला पळय.

चुलत्यान ताका भितर घेतलो. प्रकाश अनीलाचेच पिरायेचो. चुलत्याचो व्हडलो चलो.

– आगे, आनीक एक ताट दवर. अनील आयला.

सगळे जेवणाक बसले. काकी वाडटाली. मदीं मदीं अनीलाची वासपूस करताली.

– बरीं आसात मरे ?

– अं.

... आवय वा बापूय बरो ना म्हण सांगल्यार वायटशें जावचें ना.

– जेव.

काकी आग्रो करून वाडीत आसली. खूब दिसांनी असलें ताजें रुचीक जेवण तो जेवतालो. नाजाल्यार घरा उकडया शिताची रास आनी खारें नाजाल्यार आंबले तोराचो.

– पोटभर जेव. प्रकाश, अनीलाक घेवन पिक्चराक वता मरे ?

– ना. म्हाका अभ्यास आसा.

... हांव एकलोच वतां.

अशें सांगपाक अनीलाच्या तोंडार आयिल्लें.

– दुसरे खेप वचचें.

चुलत्यान मखलाशी केली.

जेवण जातकूच चुलतो तसोच भायर सरलो. ताका परतें ऑफिसांत वचपाचें आशिल्लें. अनीलाक कडेक व्हरून तांणे विचारलें,

– घरचीं खरेंच बरीं आसात मरे ?

– बापूय ...

– कितें जाता ? जिवाक राख म्हणजे. जाणटेपण ताचें आतां. म्हजें आयकुपी न्हय.

चुलत्यान वीस रुपयांची नोट काडून ताच्या हातार दवरली. प्रकाशान

तिरशे नदरेन ज्यूस्त पळयलें. चुलतो कामांक गेलो.
— आमचो प्रकाश बरो शिकता आं. अंदू मॅट्रीकेक. क्लासींत पयलो येता.
ताचीं फकाणा मारीत अनीलान म्हळें,
— आमकां अंदू पेडे आसात तर ...
— ना.
प्रकाशान तिरशे नदरेन ताचेकडेन तूच्छतायेन पळयलें आनी बोटवो उकतो करून तो शिकपाक लागलो.
बसून बसून अनील वाजेलो. वचपाचें थारावन उठलो.
— अशी पासय तरी मारून यो.
काकीन च्यायेक वडयत सांगलें.
— ना. वतां.
— खंय रे ?
— पणजे मातशें काम आसा.
— कोणाकडेन ? मामाकडेन ?
— ना, पूण वेळ मेळ्यार खबर घेवन वचपाक जाय.
च्या घेवन तो उठलो. हांसत हांसत काकीन ताच्या बोल्सांत पांच रुपयांची नोट घातली. अनीलान वगीच दुबावान प्रकाशाकडेन पळयलें.
— प्रकाश, अनीलभाई चल्लो मरे.
प्रकाशान दाव्या दोळ्यान हुंगोवन लेगीत ताचेकडेन पळयलें ना. अनील पैशांचे उबेर नेटान भायर सरलो. सुस्ती आजून निवळूंक नासली.
मडगावांत सिनेमा पळयल्यार खूब तेप जाल्लो पूण सिनेमाखातीर रावपाची परिस्थिती नासली. पणजे वचपाक तो स्टँडार बस सोदपाक लागलो. आगशेच्यान पणजे वचपी बस ताणे धरली. बसींत बसलो आनी पैशांक हात लायनासतना हिशोब करूंक लागलो.
बस मडगांवच्यान कुट्ठाळे पावली.
... हांगा देवून वास्को गेल्यार कशें ? पूण वास्को वचपाचें जाल्यार मडगावांच वास्कोचे बसीर बसपाचो. डायरेक्ट पावतलो आसलो.
पूण तो कुट्ठाळे देवलोना. कारण तशीं सोयऱ्याभितर कोण वास्को नासलीं आनी आतां ताणे थारायिल्लें, रातचो घरा पावप. तरी आसतना रावपाचोच जाल्यार सांजमेरेन पणजे काडप आनी रातीकडेन रावपाक बेतीन मामागेर वचप.
अनील पणजे पावलो तेन्ना सांज जाल्ली. आनीक एका वराभरयान ऑफिसां सुटपाचीं जाल्लीं. पणजेंत व्हडलिशी गर्दी नाशिल्ली. हांगा थंय टूरीस्ट भोंवताले.
... ही टूरीस्टांची सर्विस बरी. कांयच काम करिनासतना भोंवपाचें आनी हॉटेलांत वचून खा खा खावपाचें.

उगडास जालो तसो तो हॉटेलांत भितर सरलो. च्या घेयन दिशिल्ली. सुस्ती तशी निबळिल्ली पूण मूक नाशिल्ली. तरी पूण गरमा गरम भजीं ताका खायन दिसलीं. पणजे आयिल्ले फावट तो सिनेमाक वतालोच अशें न्हय, तरी पूण थेटरांकडेन एक फावट मारतालोच.

... वा ! हें पिक्चर पळोवपाकूच जाय. रिकोर्डी कितल्यो गाजल्यात. डायलॉग सामके ...

पूण आज ताका सिनेमाचो योग नासलो. बोलसांत पैशे खुळखुळटाले पूण घरा वचपाक जाय अशें दिसतालें. रातचो भायर उरत म्हणपाचें ताणे घरा आवयबापायक सांगुंकूच नासलें. तशें सांगल्यार बरें जावपाचें अशें ताका दिसलें.

... पाडपडिल्लीं हुस्को करीत बसतलीं !

दुदाची तान ताकार म्हणटा तशी ताणे थेटराभायर पुस्तकां विकपाक बशिल्ल्या मनशाकडल्यान चालू आशिल्ल्या पिक्चराच्या डायलॉगाची पटी विकती घेतली. जड पावलांनी तो थेटराकडल्यान परतलो.

— जालें काम ?

अनीलान कुशीक नदर मारली.

... कोण हो ?

सकाळीं माशेलांत ताच्या सिटार बशिल्लो तो मनीस ताका विचारतालो. अनीलाक ताची नदर आनी ताचें विचारप कुचित्रीपणाचें दिसलें.

... सकाळीफुडें तुजें तोंड पळयतकूच आनीक कामां जाता ?

अनीलान वाटूच बदल्ली. चार पावलां मात चल्ला, मुखावयल्यान कॉलेजच्या मुरग्यांचो मेळ ! ताच्या गांवचे सकाळचे बसितले दोग — चौग जाण मुरगे त्या मेळांत आसले.

... पाड पडूं ! हे पणजेंत भोवपासारखें ना. ताणे आनीक एक वाट बदल्ली.

मनांत 'हय' 'नाका' 'हय' 'नाका' अशें करतां करतां तो अखेरेक मामाचे गॅरेजींत पावलो.

... नशीब ! मामाची ही गॅरेच पणजेंत कडेकशी आसा म्हण नाजाल्यार लजेक म्हारग ! हरशीं वॉर्गन कोणाकूय सांगपाक बरें, मामाची गॅरेज आसा म्हण. पूण गॅरेज कसली ? मामा थंय म्होडक्यो सायकली सारक्यो करतालो. स्टोव, पेत्रोलमॅक्स तसलेंय सारकें करतालो. लोकांल्या घरांतल्यो म्होडक्यो वस्तू मामाल्या त्या इल्ल्याशा गाडयांत कशाय कशो दाळून दवरिल्ल्यो आसताल्यो. केन्नाय गेल्यार त्योच वस्तू थंयच अप्सा कश्यो दिसताल्यो. मामा दीसभर थंय काम करतालो. हातापांयाक घस आनी ऑयल माखून एक वेगळोच रंग तयार जातालो. आनी मामाचें सगळें रूपच बदलतालें. सांजवेळच्या आदेसाक मामालो चलो श्रीकांत बापायबरोबर ते

घशींत आनी ऑयलीन हात भरशितालो. आतां अनील थंय पावलो तेन्ना बापूय आनी पूत दोगूय जाण एके म्होडके सायकलीक उबी करपचो यत्न करताले. अनीलाक पळयतकूच मामा ते परिस्थितितूय हांसलो. मामान नदरेची कुरू करून ताका तामरेतीर बसपाक सांगलें.

पेंट वयर काडून आनी तामरेत थंयच्यान एका कागदा कुडक्याक पुसून अनील तिचेर बसलो.

– आयलो तें बरें केलें.

कितल्याय कामांत आसलो तरी अनीलाचो मामा कोणाचेर केन्ना सहज वाजेना. अनीलाचेर तरी केन्नाच ना.

– आतां वांगडाच घरा या.

मामा ताका आपणाबरोबर बेतींत येवपाक आग्रो करतालो. कारण मामाची गॅरेज पणजे आसली पूण तो रावतालो बेतींत.

– ना मामा, घरा वचपाक जाय. घरा सांगूना. दुसरे फावट येतां रावपाक.

खरें म्हळयार तो रावतूय आसलो. पूण मामा तसल्याच अवतारांत घरा बतलो आसलो ...असल्या मामाबरोबर वचप म्हळयार.

– मागीर घरा वचपाक उशीर कित्याक केलो तर ?

– घराच वतालों. आवयन सांगलेलें येतना तुकां मेळून यो म्हण. मातशी बरी नाशिल्ली. आतां आसा बरी.

– दोतोराकबी दाखयिल्ली ?

– ना. तसले सादेंच तिगेलें.

मामान ऑयलिचोच हात कलसांवाच्या बोलसांत घातलो आनी दोन - तीन नोटी मेजून अनीलाच्या हातार दवरल्यो. अनीलान नोटी हातांत घेतल्यो आनी मुठींत दवरल्यो. मुखार वतकूच सोडून सारक्यो बोलसांत घालपाक, नाजाल्यार नोटिंची घस आनी ऑयल ताच्या बोलसाक लागत म्हणपाची ताका भिरांत आसली.

पैशे हातार पडनाफुडें अनीलाची पावलां चुळबुळलीं. ताणें मामाचो निरोप घेतलो. नेटान चलल्यार ताका पयली बस मेळटली आसली. पूण आतां घरा बेगीन पावपाची ताकतिक नासली.

... दीस उणोच पडलो. नाजाल्यार म्हापशां वचून येवं येताले. खूप तेप जालो आत्याची खबर ना आनी ...

– पयले बसीर येना ?

सकाळीं बसींत मेळिल्ल्या तागेल्या त्या क्लासमेटान ताचे फाटीर थापट मारिल्लें. अनीलान ताका पळयता म्हगसर तो बस धरपाक धांवतूच रावलो.

... येतनाय धांवता, वतनाय धांवता.

अनीलान सकाळचे परस ताची अदीक काकळूट केली.

बाटेवयल्या पसऱ्यार ताणे एक टूथब्रश आनी एक टूथपेस्ट घेतली.

... सदां सदां ती राखोणी लावन कितें तोंड धुतलो ? आनी वयल्यान लजशी.

आनीक कसली खरेदी ताणें केली ना. ताका आवयच्या उतरांचो उगडास जालो.

— आमचेखातीर कांय नाका. तुज्या जिवाक मोड. आमकां पावले !

दुसरी बस सुटपाक आजून कळाव आसलो. तो बसींत चडलो. सादारण मदल्या सिटार जनेलाकडेन बसलो. बोलसांतले पैशे मेजपाची ताका मोटी उमळशीक लागिल्ली. पन्नास रुपया आनी कांय मोडचे पैशे इतली ताची आयची जोड जाल्ली. खर्च सुमार पंदरा एक रुपया जाल्लो. तो खुबूच मुल्लुसलो. आज पयलेच खेप इतले पैशे ताच्या हातांत आयिल्ले.

जाणीं चड पैशे दिल्यात तांचो चड मोग ! अशें ताणे वगीच आपणाल्या समाधानाखातीर मानलें. ... तशें जाल्यार फोंडेचे मावशेचेर उणो मोग ? शे, तशें कशें जातले ? तशें जाल्यार मावशेले थंय हावें कांयच बुदवंतपणा केली ना. सांगपाची आवय दुयेंत म्हण ... आवयबापायक भोव कळटा फोट मारल्या म्हण ... आनी आयिल्ल्या दिसा दुयेंस आसताच् तें कितें फट ...

... बाकी सगळया सोयऱ्यांचो म्हजेर मोग आसा हे खरें. घडये हांव आवयबापायलो एकलोच पूत म्हण जांवये. जांवये कित्याक ? तेचखातीर. म्हजे सटयेक खंय सगळीं झाडून आयिल्लीं. हांव जगचो म्हण खंय सगळीं सटयेक पराथितताले. हांचे सगळयांचे गडगंज आशिर्वाद आसतना हांव तसो मरतां ?

... खरें म्हळयार हांव मावशेगेर बी ... न्हय, काकीगेर बी जल्माक आयिल्लो जाल्यार म्हजे चड लाड जावापाचे. हांगा कोण लाड करतलो ? अखेर कितलेय लाड केले म्हण उकडचा तांदळाचें शीत आनी ...

— हांगा कोण बसला ?

— ना.

अनीलान पैशे बेगीबीन बोलसांत घातले. बस सुटपाची जाल्ली. सामान सुमान घेवपाक फाटीं राविल्ले कांय ऑफिसाचे लोक बसींत चडिल्ले. तांच्या हातांतले दनपारच्या जेवणाचे रिते डबे खडखडटाले.

... म्हाका सर्विस म्हण आनी कित्याक जाय ? आनी सर्विस मेळपाक आयल्या ? बरे बरे शिकलेल्यांक मेळना. तेचखातीर शिकून तरी उपेग किते ?

... आपले हेच धंदे बरे. आठ-पंदरा दिसांनी असो ऽऽ एक भोंवर मारपाचो. तीनसांज जातासर पन्नास रुपया हातार.

... आवयबापायक भोव कळपाक आयलां ... आनी कळ्ळें म्हण ... कोणा परक्याचे काय खावना ... अखेर सोयऱ्यांचेच पैशे.

ताका चक् करून फोंडचा मेटिल्ल्या अत्माचो उगडास आयलो.
... पोर बरो हाताक सांपडिल्लो. कितेंय उठोवं येतालें. धा - पंदरा तरी सहज. जांव, पूण लिंबू सोद तरी सुटलें.
... फुडले खेप फोंडचा वतना तीच बस धरप. कंडक्टर इश्ट आसा ती. फॉल्ग वायट वचना.
– तिकेट,
– घे.
... प्रत्येक खेप मात आवयबापूय दुयेंत हे निमित्त चलचें ना. दुसरे आनीक कितेंय सोदून काडपाक जाय.
...शेत रोवपाक, सारे हाडूंक पैशे ना, घर सारकें करता ... तशी मातशी तकली चलयल्यार –
– बाणस्तारी -- बाणस्तारी
... एक भोंवर पुराय जालो. सकाळीं हांगासावन गेल्लों ... पन्नास रुपया जोडून परतलों ... बसींत हे इतले पॅसेंजर आसात, म्हजे इतले आज कोणे जोडलां जायत ... तितले जोडल्यार जेवणाचे डबे खडखडायत कित्याक हाडटले आसले ?
– माशेलांत देंवात.
... जांव पोरणें, फाल्यां परत माशेलांत येवन पिक्चर पळोवचेंच पडलें.

बस घराकडेन पावली तेन्ना रात जाल्ली. हरशीं घराकडेन वतना तो सदांच उबगतालो. घरांत भितर सरचे बदला वरांची वरां भायर हेडटालो पूण आज नीट घराकडेन गेलो.

घरांत सदचे सारकी जागमाग नासली. ना म्हळ्यार मदीं मदीं बापायचे खोकलेचो आवाज कडवो चिरून भायर सरतालो. तो भितर सरनाफुडें आवयक सूऽऽजालें.
- रात केली. हुस्को जालो !

अनीलान कपडे देंवयले.
– न्हाता मरे काय पयलीं जेवता ?
– न्हातां पयलीं.

आवयन उदक तापोवन दवरिल्लें. तो न्हालो.
– शिविशेचें जालें ?

आवयन ताच्या ताटांत हूनहून शीत वाडीतूच ताका विचारलें.
– अं

अनीलाच्या मनांत कितें तरी आयलें आनी तो तसोच जेवणावयलो उठलो. आवय कांचवेली,
– जेवणावयलो कित्याक उठलो रे ?

— घे.

आवय फाटी फुडें जाता आसतनाच ताणे आवयच्या हातांत पंचवीस रुपया चोंदले. पयलीं आवय समजली, तो रागानूच आपणाकडेन पैशे दिता म्हण. पूण मागीर ताचें हांसतें मुखावळ पळोवन तिगेली भिरांत पयसावली.

— हे कसले पैशे ?

— आयच्या दिसाचे शिविशेचे पैशे.

— खऱ्यांनीच ?

आवयचो आपणाल्या दोळयांचेर विश्वास बसलो ना.

— आयकलां, पुताची करामत तरी पळयात.

मायर खोंकीत बशिल्लो बापूय खोंकपाचें विसरून भितर आयलो.

— घेयात, पुताची पयली जोड बापायकडेन आसूंदी.

आवयन पंचवीस रुपया घोवाच्या हातांत दवरले.

— शाब्बास पुता, शाब्बास ! पंचवीस रुपया न्हय, पंचवीस पैशे जरी तुवें जोडून हाडिल्ले तरी आमकां ते लाख मोलाचे ! मनशान चार पैशे जायना, जोडचे. पूण स्वकश्टाचे. हरामाचे वा दुसऱ्याच्या फुडचांत हात पसरून गळवज्ञा येवन भीक मागून मेळोवचे न्हय. हांव इतलो दळिद्री. आमचीं सोयरीं धायरीं इतलीं बरीं आसात पूण एक दीस कोणाच्या दारांत गेलो ना. केन्ना कोणामुखार हात पसरलो ना. आतां हांव केन्नाय मरपाक तयार आसां. पूत आपणाल्या पायांचेर उबो रावलो. खूब जालें. शाब्बास ...

बापायन इतलो वेळ दामून दवरिल्ली खोंकलेची गुड्डी सुटली आनी मागीर तो आंतकडचो तूटसर खोंकीत रावलो.

अनीलाच्या हातांतली शिताची उंडी दुकांनी ओली जाली आनी मळब फुटून घसघशांनी पावस ओतचो तसो तो हो हो करून रडपाक लागलो.



हातांक भरिल्लो कंप आजून वचूना. जेवणा वयलो अुठलां आनी जें कितें घडलें ताचो अर्थ सोदीत पेन घेवन बरोवंक बसलां.

सगली गजाल सांगतलो जाल्यार स ते सात म्हयने फाटीं वचपाक जाय.

तिनसांजचे कातरीर भायर पडवेर ओल्तेरार लवंडलेलों. कितें तरी येवजितालों जावंये. उपरांत जें घडलें तें जशाक तशें यादिचे सरयेक गुंथिल्लें आसा.

अकस्मात किळांचशी कानार पडली आनी ते सरशीं हांव ओल्तेरार अस्थिरलों. खिणाभरयांत दोळयांसामखार विजेसारको एक प्रसंग झळकलो. दोगां माजरांची ती आकांताची लडामुडी आसली. दोगांय एकामेकाचेर शेंपड्यो फुलोवन, दांत ओंठ किल्लून धोंस घालतालीं. आनी तांच्या झगडपाचें कारण जेन्ना म्हाका समजलें तेन्ना हांव ओलतेर भिरकटावन तसोच तांच्या म्हऱ्यांत धांवून गेलों, पूण कांयच उपेग जालो ना. त्या दैत्याभशेन मातिल्ल्या बुकल्यान आमगेल्या माजराचो धवोफुल्ल पेटो तोंडात धरून पडवेवरसून आंगणांत उडी घेवन नळी काडली.

## ५.

# बुकलो

माजर तितक्याच नेटान ताचे फाटोफाट बाणशें धांवत गेलें. काळखांत दोगांय नाच्च जालीं. पयस अडूळशांनी मेरेन दोगांयच्या धांवपाची जाग लागली. आनी बऱ्या वेळान जड पावलांनी 'म्यॉंव' 'म्यॉंव' करीत माजर परत आयलें. ताच्या आंगावयली ल्हंव फांसफल्ली. आंगार नाखटां ओडिल्लीं तितलोय भाग रगतेल्लो.

आंगणांतल्यान पडवेर वयर सरताना ताणें थारून तीन - चार वेळां फाटीं वळून पळयलें.

हांव तटास जावन थंयच उभो आशिल्लों. माजर आयलें आनी तोल गेल्ले भशेन म्हज्या पांयांर घसटलें आनी तशेंच ताणें पावलार घालून घेतलें. दोळे वरशे करून तोंड उक्तें केलें 'म्यॉंव'

खूब पयशिल्ल्यान, तळाक सावन तो आवाज आयिल्ले भशेन दिसलो आनी त्या खिणाक म्हाका त्या मोनजातिचे भाशेचो दिस्टावो जालो. खंयच्याय उतरांचे भाशेपरस तो भास कदीस जिवाक भिडपी आशिल्ली. ताची ती घारशी नदर आनी वेदनेन चीप्प भरिल्लो तो आवाज म्हजें काळीज पुराय हालोवन गेलो. दुख्ख ओंकून वडोवपाची शक्त हाका रचणाऱ्यान हाज्या जल्मा वांगडाच कित्याक दिली ना ? तशें जाल्यार ह्या खिणांक ताचो जीव ल्हवपीक जावपाचो.

ताचे नदरेंत फकत दुख्ख आनी वेदनाच नाशिल्ली. आनीकूय कितें. म्हजेविशिंची तुच्छताय !

... आपूण दुबळें. देखून असमर्थ पूण तुंवूंय आपणाल्या पोराक वाचोंवक पावलोना. हांव शरमलों. खूब. पयलेच खेप म्हजें गिड्डेपण जाणवलें म्हाका. म्हज्या अटूक बळग्याचें म्हाका दर्शन जालें. खंत. माजराच्या अिल्ल्याश्या पिल्याक हांव वाचोंवक शकलोना.

ताका वांचोवपाक म्हज्या मुखार फकत एकूच खीण आसलो. फकत तितक्याच खिणांक माजराक म्हज्या बळग्याची गरज आसली. पूण म्हजेलागीं जमलेंना. विजेच्या वेगान तो खीण म्हज्या दोळ्यांमुखावयल्यान कडसरलो.

माजराचे खंतीक हांव एक गवाय. ताचे खंतिचो एक जापसालदार. तशें पळोवपाक गेल्यार एक गुन्यांवकार लेगीत. हावें तशें मानलें.

जाय, ह्या गुन्यावांचे परिमार्जन म्हण माजराखातीर कितें तरी करपाक जाय. आनी म्हाका चट् करून उगडास जालो. त्या माजराचो आनीक एक पिलो घरांत आसा.

हांव रांदचे कुडींत गेलों. तो माणकुलो पिलो कवडचापोरसो जीव सांबाळून कोनशाक कुरगुंटी करून लिपिल्लो. माजर ताका बगलेक घेवन चाटीत बशिल्लें. माजराक ते अवतिकायेंत पळोवन म्हज्या काळजांत सुपूर समाधानाची पालय हाल्ली.

हांव मातसों धादोसलों. ओणोव घालून बसलों. माजराचे फाटीर अचळय हात भोंवडायलो. माजरान म्हजेवशीं पळयलें ना. तें पिल्याचें आंग चाटीत रावलें. घडये ताका दिसलां आसु ये, 'फाल्यां ह्यावूय पिल्याक त्या दैत्यान खाल्लो जाल्यार मागीर कोणाचें आंग चाट्टलें ! '

हांवें ताका सांसपिलें. ताची सांत्वना केली. ताका अुतरूय दिलें. ' ह्या तुज्या पिलाची जापसालकी म्हजेर. हांव ताका राखतां. व्हड जायसर कोणाच बुकल्याचे झळकीक पडूंक दिना. '

हांव तसोच भायर सल्लों. आतां म्हज्या माथ्यार खंतिचें ओजें नासलें. भुजार जापसालदारकेचें जूं मात हावें आपखोशयेन घेतिल्लें. कडाशेचो दांडो काडून हांवें हातात घेतलो. दुसऱ्या हातांत टॉर्च घेतलो. पांयांत व्हाणों चडयल्यो

आनी अडुळशांनी गेलों. जागो कांट्याकुट्यांनी भरिल्लो. तो बुकलो खंयूय मांडून बशिल्लो दिसल्यार ताचो कपाळमोक्ष केलेबगर रावचो नासलों. पूण आशिकुशीक खंयच जाग लागली ना. टॉर्चिच्या उजवाडांत बुकल्यान व्हेल्लो माजराचो पिलो मात नदरेक पडलो. बुकल्यान ताचे गंवटेक घास मारून रगत घोटिल्लें आनी ताका थंय मारून वडोवन तो नाच्च जाल्लो. परत एकदां काळीज चुरचुरलें. बुकल्याविशिंचो राग जसो वाडलो तशी माजराविशिंची काकळूट आनी उरिल्ल्या पिल्याचे जतनायेची भावना आपसूक वाडीक लागली.

त्या दिसाच्यान त्या पिल्याचेर हांवें नदर दवरली. एकदां बुकल्याची सुलूस लागली तसो फातर-गुंडे मोखून ताका भायरो केलो. फुडें केन्नाच तो झळकीक पडलो ना.

पिलो माततालोय बरो गुलगुलीत. हरशीं माजरांक नांवां दवरपाचे भरीक कोण पडटा पूण चड अर्थं अपुरबाय जातकच ओंठार आपशींच नांव येता. नांव दवरलें तिकलो. रंगान शिरबो अ'सलो. धव्या सोंडार काळी तिकली उठून दिसताली. ते खातीर नांव येवजलें तिकलो.

पयलीं तिकल्याक कोनशाकूच दवरलो. आडसाक एक म्हण्णी उबी केली. पूण माजर ताचे म्हऱ्यांत वतना माजराचें आंग लागून म्हणी पडची. एकदां तर तिकल्याच्या कपलारुय आदळली. वांगडाच न्हिंग्नळ्ळो. तेन्नाच्यान ताका एक पिनिचे काशेचो रितो खोको हाडलो. तातूंत थोडीं बोंदरां वडोवन मोवसाण हाडली आनी तिकल्याची गुटली अचळय उखलून तातूंत दवरली. तो सुवात ताका बरी मानवली पूण चड काळ तिचो उपेग जालो ना. ताका ल्हान बुकलो म्हणपा इतलो आंगलोट आयलो. आतां तो शिताक बी तोंड लावपाक लागलो.

हांव जेवताना ताका म्हऱ्यांत घेवन बसतालों. हुमणांत कालयिल्ली उंडी रुचीन बरी खावपाक तो शिकलो. नुस्त्याचीं बोडकां आनी कांटे आतां ताका रुचकर लागले. नुस्त्याच्या वासाक तो पुराय संवकलो. म्हजी आवय नुस्तें उजरायताना माजर कुशीक बसतकूच ताचे मांडयेक मांडी लावन तो बसूंक लागलो आनी बोडकांच्या वांट्याचेर आपणालो अधिकार गाजोंवक लागलो.

हांव नुस्तें हाडपाक बाजारांत गेल्यार तिकल्याखातीर दोन ताल्ले पेडवे हाडपाक विसरनासलों. घरांत नुस्तें खायना त्या दिसा तिकल्या खातीर हावें बाजाराची वाट माड्डुची आनी दोन भोपशीं ताचे मुखार वडोवचीं. मागीर मागीर नुस्त्या बगर शितागोट्याक तोंड लायना, इतल्यार ताचें पडलें.

तिकलो आतां खऱ्या अर्थान बुकलो जालो. हांवें पळयिल्ल्या खंयच्याय बुकल्या परस आंगापांगान घटमूट. शेजारी पाजारी पळयताले आनी अजापभरीत जाताले. आवय म्हणटाली, 'कित्याक मातचोना, लाड भुरग्या परसूय चड जांतात.' आवयच्या उलोवपांत कुस्कुटाचीय अतिताय नासताली. तिकल्या खातीर म्हाका

मदीं मदीं आयकुचेंच पडटालें. नुस्तें उजरायताना तिकलो हुतहुतेपणां करतकच आवय धब्ब करून फाटीर थापट मारताली आनी मागीर सणसणिल्लो हात व्हीजळीत म्हणटाली,

– ह्या राकेसाक मातोवन दवल्ला, फकत म्हाजो जीव खावपाक.

कोणूय फकाणां करतालीं, 'आगे बाये, बुकल्याचे इतले लाड! फाल्यां मागीर भुरग्यांचे कितले ?' आनी हांव मागीर हांसत म्हणटालों, 'ताचीच संवय करतां न्हय.'

आनी म्हाका संवय जाली तिकल्याचे अपुरबायेची. खंयच्याय पारा हांव घरांत येनाफुडें तिकलो 'म्याँव' करीत म्हज्या पायांक घश्टूंक लागलो. हांव खातना - जेवतनां आपणाल्या अस्तित्वाची जाणवीक करून दिवपाक लागलो. ताचे बगर म्हाकांय केन्ना खावंक जेवंक जालें ना.

सोयऱ्यांगेर गेल्लेकडेन एक दीस हांव फस्तीक पडपात्रों. सकाळचे च्याक बशिल्लों. भाजयेंत पाव बुडोवन खातालों. थंय तिकलो ना म्हणपाचें भान आसलें पूण हाताची संवकळ इतली – हांव मदीं मदीं पावाचे कुडके कुशीक काडून वडयत आसलों. कोणाचे नदरेक पडचे आदीं म्हजें पिशेपण म्हाका कळळें आनी हांव जतनायेन वागलों.

रातिचो तिकलो म्हज्या हांतुणार पांयाकडेन न्हीदचो आनी सकाळीं म्हज्या वांगडा उठचो. हुंदराचे वाटेक वचना म्हण हांवें केन्ना ताचेर शीण काडलो ना.

स – सात म्हयन्यांच्या काळांत तिकल्याक जितलें दिवं येतालें तितलें हांवें दिलें. माजराचे जातीक फावता ताचेपरस जायतें अदीक ताका मेळळें. सुरवेक म्हज्या गुन्यावाचें परिमार्जन म्हण, उपरांत भुतदयेन, मोनजातीचे अिश्टागतीन सगळें जालें.

आनी आयज –

हांव जेवंक बशिल्लों. बगलेक सदचे भशेन तिकलो नासलो. पयली उंडी कालोवन तोंडाकडेन मात व्हेल्या शेजारच्या घरांत माजरांच्यो किलांटी कानांर आयल्यो. पाटार बशिल्लेकडेन हांवें अदमास घेतलो. घरांतल्यान दोगांय माजरां भायर सरिल्लीं आनी भायल्या झाडांपोंदच्या पत्र्यावयल्यान सर्र सर्र करून धांवतालीं.

कांय खीण गेले. उखलिल्ली उंडी तशीच उरिल्ली. ती आतां तोंडांत घालतलों, इतल्यान पाऱ्या वयल्यान म्हजे मुखार धब्ब करून कोणेंतरी घालून घेतलें. तो तिकलो आशिल्लो.

आनी – ताच्या तोंडांत दोन – चार दिसांफाटीं जल्माक आयिल्लो कोणा माजराचो पिलो आशिल्लो. तिकल्याचे दांत त्या पिल्याचे मानेंन रोमिल्ले. पिलो मेल्ल्यांतूच जमा आशिल्लो.

म्हजो कपलाची शीर उबी जाली. फुडलें काम केलें तें म्हज्या हातांनी.

बशिल्लों ती म्हाणाय दोनूय हातानी उबारून हांवें तिकल्याच्या मस्तकार आदळ्ळी. निमाणी किलांट्य मारपाक तो पावलो ना. थंयच ...थंयच फडफडून फडफडून ...

आनी आतां हांव बसलां. कितें घडलां ताचो अर्थ सोदीत. हातांक भरिल्लो कंप आजून वचूना.



६.

# बाजार

ऑफीसांतलो कारकुनी कामाचो भार भुजांवयल्यान देंवयत, मदलो सदचे वाटेन बाजारांत भितर सरलो. ताचेपरस एकलो व्हडलो आसा आनी एकलो धाकलो आसा, देखून ताका मदलो म्हण वळखतात.

मळार सोडून घातिल्ल्या गोरवां सारको लोक बाजारभर भोंवतालो. मदलो लोकांत भरसुंचे आदींच ताच्या पांयांक हात लावन तो हुंडकेलो. हातापायांनी धड आसुनूय तो भीक मागतालो. आंगवयली मुस्तायकी मात म्हेळी आनी सामकी पिंजकारी. मदल्याच्या पांयांक हात लावन तो दोनूय हात जोडून ताच्या मुखार उबो रावलो तरी ताच्या खरखरीत हातांची थंडसाण मदल्याच्या पावलांक लागून जाणवताली. ताच्या मुखार उबो रावलो तरी ताच्या दोळ्यांतलें आर्जव ताजेली अवतिकाय समर्थपणान प्रगट करतालें.

गांवांतले जावेक फाव इतलो लोक त्या शाराच्या बाजाराक आसलो आनी इतल्या बाजारांत एकलो मदलोच ताका तारणारो अशा भरंवशान तो ताका पळयतालो. नकळटां मदल्याचो हात ताच्या बल्सांत गेलो आनी सकाळच्यान हाताक आडखळपी दोन रुपयांचीं तीं दोन नाणीं मदल्यान त्या थरथरपी हातांच्या पोशांत घातलीं. उपकारी भावनेन तो बागवलो. परत ताणे मदल्याच्या पांयांक हात लायलो आनी आपूण हे भिकेक खऱ्यांनीच लायक आशिल्ल्याचें सिध्द करून दाखयलें. मदल्याक वगीच दिसलें, व्हदळ थंड आशिल्ल्या ताच्या हातांक आतां आपणाल्या पालवान उबसाण आयल्या. मात्तूय दुखूंक नाशिल्ले भाशेन ताणे, बल्सांत उरिल्ल्या पैशांचो हिशोब केलो. कागदांत गुठलायिल्ली पोती सोडयली. परत एक फावट ताणे त्या भिकाऱ्याचेर नदर मारली. पूण आतां तो थंय नासलोच. ...बाबडयाची गरज भागली देखून भीक मागप सोडून तो वाटेक लागलो.

मदल्यान मनाची प्रामाणीक समजिकाय करून घेतली. भरिल्ल्या बाजाराचेर एक तुच्छ नदर मारून – अखेर हांवच जिखलों, अशा अविर्भावांत मदल्यान

बाजारांत घालून घेतलें आनी गर्देत भरसून गर्देपासून वेगळो रावपाचो तो यत्न करूंक लागलो.

लोक बाजार मोलायतालो. कोण नुस्तें हुंगतालो. कोण भाजी उस्तितालो. कोण फळां तोलतालो. कोण तांदूळ परखितालो. धा वाटांनी उक्तो आशिल्लो तो बाजार लोक धा वाटांनी मोलायताले.

मदल्यान आपणांक कितें जाय ताची वळेरी परत एकदां दोळयां सामखार हाडली. मनांतल्या मनांत तो चुटपूटलो. भिकाऱ्याक दोन रुपया दान केल्यान तो मातसो अडचणींत आयिल्लो. आतां एक दोन जिनसांक कातर लायले बगर दुसरो उपाय नासलो. गर्देतल्यान वाट काडीत मदलो चलतालो.

– खंय बाजाराक ?

– कितें, बाजार चल्ला ?

एक दोग जाणांनी ताका हुडकिलो.

– रुपयाक पांच दिना ?

– दोनशें ग्रामाक कितले ?

मदल्यान बदलिल्ल्यो दरो तपासून पळयिल्ल्यो.

– हें घे, हें सवाय.

– वायट आसल्यार परत हाड.

मदलो भिडेक पडनासताना मुखार गेलो. ताका जाय आशिल्ल्या सगळ्या जिनसांच्यो दरो विचारून जाल्ल्यो. खंयचेकडेन सवाय आनी खंय म्हारग ताचोच पत्तो ताणे काडिल्लो. खंय ताजें आनी खंय शेळें ताचोय वास ताका लागिल्लो. ताजें न्हय देखून सवाय आनी मोटें आसूनय सवाय अशा दोनूय गजालिंचो सोद ताणे लायिल्लो. मागीर गर्देतल्यान मातसो कुशीक सरून तो उबोच रावलो. पांय थोडे वळिल्ले. – ऑफिसांत बसूनय पांय वळटा आनी बाजारांत भोंवल्यारुय पांय वळटा. ताणे परत आंकडे जुळयले. आयज कितें घेवपाचें आनी फाल्यां कितें घेतल्यार जातलें ताचो एकमुखी हिशोब केलो. तो आपणाचेरूच खुश जालो.

... जायत्यो म्हत्वाच्यो गजाली मुखार आसतकूच मनशाक तांतुलीय म्हत्वाची गजाल पारखून तिका पयलें म्हत्व दिवपाक कळूंक जाय.

आपणाल्या ऑफीसाच्या कामाचे पद्धतिचो आपूण वेवहारांतूय बेस उपेग करून घेतां म्हणपाचें कळून ताचे खोशयेक ओतो आयलो.

तो परतो चालीक लागलो.

व्हांवतें उदक एकेचकडेन धुंविल्लेवरी एके सुवातेर गर्दी दाटिल्ली. बाजाराच्या एका कोणशाक बरोच बोवाळ चलिल्लो.

– किते चल्लां ?

– कोण रे तीं ?

मदल्याक ते गर्देन ओडलें. पयलीं एका दोगांक ताण, विचारून पळयलें. मागीर पावलांच्या बोटां तेमकांर उबो रावपाची कसरत करून ताणे कितें चल्लां तें पळोवपाचो यत्न केलो. लोकांच्या भुजांवयल्यान ओणव घालून पळयलें. इतले उपाय करूनय कुस्कूट दिश्टी पडना जालें तेन्ना तो पांच-स जणांच्या भुजां पोंदच्यान गर्देंत रीगलो. ते खातीर तोंडाक तोंड तेंकोवन ताका चार सणसणीत गाळीय खांवच्यो पडल्यो.

भर बाजारांत तो एक लोकखेळूच चलिल्लो. आंगार तांबडया कोराचो व्हिस्तीद घातिल्ली एक बायल बुळूबुळू करून रडटाली. कोणा फातराच्या काळजाकूय तिची काकळूट येंवची अशी तिची अवतिकाय आसली. तिच्या दोळयांपरस तिचीं दुकांच दिसतालीं. तांबडेगूज दोळे वठारून तिका मारपाक फुरफुरपी तो काळे कातिचो तिगेलो घोवूच आसुये आनी बुकल्याक मानेक धरचो तसो एका तरनाटयान त्या घोवाक गचेक धरून आंवुळिल्लो.
– हो काळेलो तिगेलो घोव.
– बाजारांतूच बायलेक मारता.

आपणें बायलेक कित्याक मारची न्हय तें तिगेलो घोव परी परीन सगळयां सांगपाचो यत्न करतालो आनी तागेलें उलोवणे सोंपचे आदींच तो तरनाटो ताका उदकांत झंजलिल्ले भाशेन हालयतालो.
– हो तरनाटो न्हय जाल्यार ह्या घोवान तिका हांगा काबार केल्या.
– हागेलो चलो मरे तो. हुशार.

तिगेल्या घोवान तरनाटयाच्या हांतांतल्यान सुटपाचो किंवाट्याचो यत्न केलो पूण खोमसाचे दोन बुतांव तुटपाबगर आनी दोन सणसणीत थापटां कानसुलार उदेवन घेवपा बगर कांयच घडूंक पावलेंना.
– म्हजे बायलेक हांव मारतलों.
– तोंड घेवन वयल्यान उलयता पळय.

परिणाम म्हण तरनाट्यान घोवाच्या कंबरा बराबर एक खोंट घातली. एकल्यानूय तरनाटयाच्या हातसून त्या घोवाची सुटका केली ना. कोणाच कडसून दयेची कुस्कूट भीक ताका फाव जाली ना. तो तरनाटो ताका मारतालो म्हळयार सगळे आपूण जावनूच ताका झोडटाले.
– एके बायलेक भर बाजारांत मारता आनी तुमी सगळे मेंढरे कशें पळयतात ?

तरनाटयाच्या उतरांनी गर्देची हवा सूऽऽ करून काडून घेतली. कोणें जाप केली ना. तशें तांचें गोरें गोरें हड्डें गर्वान फुलून आयलें.

समस्त बायलांवयल्या अत्याचारा आड उबो रावपाक हांव एकलोच पुरो अशा अर्थान ताणे गर्देवटयां पळयलें आनी त्या घोवाक निर्जीव मडयाभाशेन धुकलून वडयलो. ताचीं पावलां वचपाक हाल्लीं तेन्ना समस्त गर्देन आदब सांबाळून ताका

वाट करून दिली. पूण तिबूय कोंक्यार मारून तो आपणाले नवे ताल्ल गाडयेकडेन गेलो.

मदलो बरोच वेळ थंय खडपेल्ले भाशेन जावन उबोच उरलो. मागीर ते बायलेक ताणे आपणाल्या काळजांतली सगट सहानभुती ओंपली आनी तेच बराबर तिगेल्या पाडचा घोवाक जळजळीत तिरस्काराचो आहेर भेटयलो— मोन्यांनीच.

— मदलो योग्य वेळार हांगा पावल्यार तुज्या आदाराक धांवून येतलोच आसलो.

बायले वटयां पळयत ताणें मनांत म्हळें आनी घोवाकडेन नदर मारीत तो सुस्कारलो.

— हाचे परसूय तुका सवंग म्हारग पडटलें आसलें.

आनी मागीर मदल्याक त्या तरनाटयाचो बेस्टोच दुस्वास दिसलो.

एका एकाचो वेळ - काळ आसता हेंच खरें.

तो चुटपूटलो.

... म्हजे घामाकश्टांचे दोन रुपया भिकारी मोन्यांनी घेवन वता आनी फुटकी दमडीय मोडीनासताना तो तरनाटो भर बाजारांत हिरो थरता !

मदलो थोडोसो दुखावलो. पूण आपूण चुकलों अशें मानपा इतलो तो पिसो नासलो. पांय कुट्टा आसुनूय सारखें चलपाचें सवंग करचें तसो तो लटक्या समाधानान सुखावलो.

बोण फुटन कापूस धायदिको हुबिल्लेवरी त्या कोनशाची गर्दी फाफसली.

इतल्या बोवळान हातांतली वीण मुटिल्लेवरी मदल्याचे तकलेंतलो व्हडळ जुळयिल्लो हिशोब फिस्कटलो. कितें घेवपाचें आनी कितें गाळपाचें तेंच तो विसरलो. मागीर ताणे परत आंकडयांक होरायलें, जे धा मदीं बसताले उल्याक कुकडां धांवत येंवचीं तशे आंकडे धांवत येवन ताचे तकलेंत नट कशे फीट बसले.

... आतां कशें जालें !

आपणाले स्मरणशक्तिची तोखणाय मानून ताणे आपलेंच दालें जड करून घेतलें. पूण त्या तरनाटयाचो उगडास जावन तो आपले भितरूच खजील जालो.

... हांव मदलो. तो घडये व्हडलो आसुंये. व्हडल्यान जायत्यो गजाली, जाय तश्यो करूं येता. म्हाका फुडेंय पळोवचें पडटा आनी फाटींय. आनी इतलें सांबाळूनूय आमच्या सारखिल्लो कितेंय आगळें - उणें करता तें कमीचें न्हय.

दोन रुपयांचीच रुखरुख ताका हें चिंतूंक लायताली.

एका पसऱ्यार मदलो थारलो. चार दिसांक पावतली इतल्या अदमासाची च्या पावडर ताणे घेतली. पोतयेंत घातली. गोसायांचे झोळये सारखी ताची पोती सोबून दिसली. ताच्या तें लक्षांत आयलें. मागीर ताणे ती वाटकुळीच कवळ्ळी आनी पोती न्हयच कशी करून लांब्य नासताना हातांत धरली.

– घेतलें ?
– जालो बाजार ?

व्हदळच्याच दोगांयनी ताका परत हटकिलो - ताका आनीकूय कांय जीनस घेवपाचे आसले. व्हदळ पारखून दवरिल्ल्या सामानाकडेन तो गेलो. दुसऱ्या कोनशाक. थंय पावल दवर जाल्यार व्हदळच्या लोकांखेळाचो भाग सुरू जाला.

चाळिशेक वर्सांची ती तांबडचा व्हिस्तिदांतली बायल त्या कोनशाक नाच करताली. नाच म्हळ्यार खेतबागडी. तिच्या न्हेसणांक सुदबूद नासली तशी तिच्या पांयांक आनी हातांकूय.
– बेबदड चेडी !
– सोरो पियेता आनी पिशेपणा करून दाखयता.

बाजारांतलीं तिका वळखुपी मनशां तिचेर धेंगसून तिका गाळी संवतालीं. येतो - वयतो खीणभर थामतालो आनी वाटेवयली. हळशीक दिसतकूच सडसडीत पावल उबारना तशेतरेन चलूंक लागतालो. बाजारकारांनी चेडी म्हणिल्ली ती मात धेयभान विसरून लाळ गळयत नाचताली.

तो तिजो घोव, कोनशाक वागाची उब कसो कुरगुंटी करून बसलेलो. मदलो अचळय ताच्या म्हऱ्यांत ओडलो. मदल्यान ताका बारीकसाणेन तेयळो. व्हदळच्या माराचे ताका आतां कश्ट जाताले. मदीं तो कंबरार हात भोंवडायतालो आनी पिंजक्या खोमसाकडेन न्हिन्नळिल्ले नदरेन पळयतालो. व्हदळ रागान रसरसपी ताच्या दोळयांक आतां म्हूर्त चोरून व्हेल्ले गर्भकुडी सारकी निस्तेज कळा आयिल्ली. दोन दुकांक लेगीत ते पातिशेर जाल्ले.
... आनीक सांगपा सारखें कांयच उरूंक ना.

अशें चिंतून तो बसलेलो. मदल्याचीं पावलां आपणांकुशीक तीरटतात म्हणपाचें ताका जाणवलें. एक उस्वास सोडून ताणे मोटचा कश्टान म्हणटा तशे पांय मातशे सदळ सोडले आनी इतल्या लोकांमदीं फक्त मदल्याकूच सांगपाचें अशा अर्थान ताणे आपणाली धाकुलकथा सांगली.
– हांव धाकलों रे !

आपूण धाकलो आशिल्ल्यान हे परिस्थितीक कसो पावलों ते ताणे मदल्याक सांगलें आनी मदल्यान तें पटून घेतलें.

धाकल्याक ताचे बायलेन जीण म्हळ्यार उबगण केल्ली. आज घोवाच्या बल्सांतले पैशे काडून घेवन ती बाजारांत आयिल्ली. इतले म्हणसर तिणे अर्द्यां वयर पैशे सोऱ्यांत बुडयिल्ले.

तिचेकडले उरिल्ले पैशे, तो काडून घेतना तांची लडामुडी जाल्ली आनी गिरेस्ताल्या व्हडल्यान बाजारांत रिगून बायलांच्या अत्याचाराआड ह्या घोवाचेर हात उबारिल्लो – आनी खोटूंयबी. धुकन्नीचे पेटे तशीं तिका कचीं – बुचीं

कितलीशींच भुरगीं आसलीं.
– हांव एकलो जोडटां आनी ही नाच करता. आनीक कितें कर्म सांगूं ?
धाकल्यान आपणाली धाकुलकथा सोंपयली आनी मदल्याक आपणे कांयच सांगलेंना अशें तोंड करून तो आशिल्लो तसो वगी बसलो.
– आपल्या आंगावयली शाल काडून दुसऱ्याल्या आंगार घालूंक मेळटा तशे तरेन आपणाल्या अंतस्कर्णांतली सहानुभूती दुसऱ्याक उक्तेपणीं लेपडाबनाक मेळऊयार कितलें बरें दिसतलें आसलें !
मदल्याक अशें दिसलें.
ती आजून नाचताली.
– बायल मनीस म्हण वगी रावपाची नाजाल्यार हिका व्हाणांनी फोडपाची.
मनांतल्या मनांत तो पेटलो आनी 'तुमच्या नशिबाचीं तुमी' अशें चिंतून ताणे पावल उबारलें.
– वा रे गिरेस्तालो व्हडलो ! कितें तर समाजकार्य केलें ! चोर सोडून सन्याशाक सुळार दिवपाची नीत ही. वयल्यान लोकांनी ताका तोखेलो आनी आतां हे कितें ?
मागीर मदल्याक कळून आयलें, बाजारांतलो व्हदळचो लोक वेगळो.
– घडये हांवूच एकलो मनीस, जाणे ह्या खेळाचे दोनूय भाग पळयले आनी सत् कितें तें म्हाकाच होलमूंक पावलें.
मदल्याक आतां खरेपणीं दिसूंक लागलें. सामकें एकमुखान – आपणें जी कितें दोन रुपयांची वाट लावन सादलें ताका ह्या प्रकरणाकडेन तरी तुळा ना. तोड ना.
दोन चार पावलां उबारतकूच तो फळवाल्याकडेन पावलो.
– ताज्जीं आसात. आतांच आयल्यां. एक डझन घालूं ?
– कशीं ? दोनूच पुरो.
ते बायलेचेर तिरस्कारान नदर मारीत मदल्यान बल्सांत हात घातलो आनी ताणे वेंचून काडचे आदींच फळवाल्यान दोनूय फळां कागदाक गुठलावन मदल्याच्या हातांत चोंदली.
– तांची काकळूट करपाची ना. एक नंबरचो फटींग.
फळवाल्यान पैशे काडीत ताका सांगलें.
– कोण ?
अशा अर्थान मदल्यान ताचे कडेन पळयलें.
– तो काळेलो धाकलो. पयलीं ह्याच बाजारांत आपूण जावन बायलेक भाड्याक घालतालो. आतां कोणांक रडटा खंय !
फळवाल्यान आपणांक शंबर टक्के खबर आशिल्ली गजाल मदल्याच्या कानार घातली आनी मदल्याचे कान किट्ट जाले.

– आतां ती पिशेपणां करची ना जाल्यार आनीक कितें करतली ?
मदलो चलूंक लागलो.
– उल्लेले घे.
मदलो थार नासताना सडसडीत चलूंक लागलो.
– झक् माल्लो उरिल्लो बाजार.

मदल्याक याद जाली. भुरगेपणांतली. तो मातयेची म्हूर्त करतालो. करता म्हणसर म्होडटाली. तशीच कितेंशी आयची गत जाल्ली.

कितलोसोच वगत बाजारांत सारूनूय ताका थोडोय वेळ बाजार मोलावक जमूंक नासलें.

... सगळी फटवण ! धाकलो; ती, व्हडलो. एक नंबरची फटवण !
मदलो चलतां चलतांच येवजितालो.
... नशीब म्हजें ! फटवलोना तो हांव.
ताणे आशिल्ल्या नाशिल्ल्या आत्मविश्वासान मनाची समजिकाय घातली.

मदलो चलतालो तितल्याच नेटान काळोख फांकतालो. ताच्या पावला कणकणी मुखावयलें पावल पावल अंतर अदीक अदीक काळखें जातालें.

ताचे सद्चे वाटेवयल्या बारांकडेन तो पावलो. अदीं मदीं आसता तशीच गिरेस्ताल्या व्हडल्याची त्या तरनाटयाची गाडी भायर वीसव घेताली. आपणाले भुतावळीक घेवन तो सोऱ्याच्या ग्लासांतल्यान हांशें पिकयतालो. मदल्याच्या पावलांनी नकळटाना थंय गणयलें.

– सगळे मेंढरे कशे वगी, हांवें दोन फुलयलीं.

ताचे फुशारके सरशीं हातांतलीं कोपां रितीं जालीं आनी परत भरलीं. मदलो आपले भितरुच मुमुरखोच हांसलो.
– दयडिऱ्या, सत् कितें तें तुका उमजल्यार, तूं आतां पियेता तो सोरो तुका दुसऱ्याच्या मुतापरसूय हळशीक लागतलो. व्हडल्याची काकळूट करूनच ताणे पावल नेटान उबाल्लें.
– अखेर सत्पात्रीं दान हेंच खरें. बाकी सगळी फटवण !

आपूण परत परत अशी मनाची समजिकाय कित्याक घालतां हें येवजून ताचो तोच खीणभर दुबावलो. थोडोसो निरशेलो आनी मागीर शेणाचो गुळो भोंवडावन जमीन लीप करची तसो ताणे त्या विचाराचेर पड्डोच घालो. पूण पड्डो उसोवचो तशेंच जालें.

ताचें घर लागीं पावलें तरी ताचीं पावलां फाटल्यानूच गणयत उरलीं. चलतां चलतां तो मातसो थारलो.

सकाळची नाका आशिल्ली घाण शरीरांतल्यान भायर वडोवपाक मेळटा तशे नाका आशिल्ले विचार मोखून भायर वडोवपाक मेळटाले जाल्यार कितलें बरें जावपाचें !

ताणे सुस्कारत येवजिलें. आतां मात खऱ्यानीच ताच्या पावलांनी गती घेतली.

तो थंय पावलो. हे सुवातेची ताका सदांच उबगण. केन्ना काळा उत्सुकतायेन पळोवपाची उमेद आसताली. आतां निखालस ना. नाईलाजान ताका ते वाटेवयल्यान वचचोच पडटा. थंय मनशां मनशांक भाडयान मेळटात.

बांबरांतली हळशीक परवडली पूण हांगा नदर मारप न्हय. दीसभर ती सुवात न्हीदता आनी रातची जागता. कितलेय देंवते दरेन, नदर पडल्यार ओकूंक येत अश्यो नायकिणी धंदो करतात. कोण पोट जाळटा कोणाच्या पोटाचेर कोणाची खाज भागता. कोण खिणाखातीर नागवता आनी जिवीतभर रडटा, कोण त्या जिवितांतूय हांसता. होवूय वांठार म्हळ्यार ह्या शाराच्या बाजाराचोच एक भाग. तसो मानिना जाल्यार लेगीत.

मदल्याचीं पावलां हांगा अडून उरपाक कसलेंच कारण नासलें.

नाक मुड्डीत धांवपाचीय गरज नासली आनी नदर रोमून चत्रायेन पळोवपाचीय. तरी आसताना ताची नदर त्या चालंत धंद्याचेर पडलीच.

गिरायकां नायकिणीक मोलायतालीं. गिरायकांत कोण मानायहमाल, कोण आलमपेड्डचार, हॉटेलांतले पोर, कोण भिकारी. नायकिणींत एकानएक सगळ्यो नायकिणी.

चलतां चलतानाच आपसूक तो देखाव मदल्याचे नदरेआड जालो. मागीर खऱ्यांनीच कांय वेळ तो मेकळ्या मनान चलत रावलो. माथ्यावयलें वजें अकस्मात कोणेंतरी काडून घेतलां आनी आपूण कापसाच्या ल्हव्पीक पावलांनी घराच्या दारांत पावलां अशें ताका दिसलें. तो घराकडेन पावलोयबी.

घरांत भितर सरनाफुडें ताणे पोतयेंत हात घालून दोनूय जीनस पयलीं भायर काडले. ताच्या आवाजान खंयतरी पाल चूकचूकली. फोलीण उक्तें करून च्या पावडर भितर ओतली. दुबाव येवन पावडर हातांत घेवन पळय जाल्यार पावडरींत कितेंतरी मिस्तूर. ताणे चट् करून दोन तुसां तोंडांत वडयलीं. एकदां दाडेक लागलो लाकडाचो भुसो आनी दुसरे फावट हळशीक कितेंतरी. घडये घोडयाची सुकयिल्ली लीदूय आसूंये.

मदल्यान पावडरचें आख्खें फोलीण कोनशाच्या कोयरांत रकयलें. व्हदळची पाल ताका कळपा इतल्यान चूकचूकली. ताणें फळांची पोटली सोडलीं. उजवाडांत हाडून पळय जाल्यार दोनांचींय पोंदा कुसल्यांत. फाटकुडो पळय नासतना ताणे दोनूय मोखून भायर मारलीं.

– सगळी फटवण !

ताचो तोल गेल्लो. तो तसोच हाथरूणार पडलो. ताका सामकें म्हळचार शंभर टक्के दिसपाक लागलें आनी ताची खात्रीच पटली थंय काळखांत नायकिणींकडेन दोन रुपया हातांत घेवन वांटपण करपी तो तोच भिकारी आसलो, जाका मदल्यान भीक घातलेली.

आनी मागीर सगळो भार हड्डचार घेवन मदलो रातभर जागोच उरलो.



७.

# बळी

बस थारली तसो दिनकर जड पावलांनी देंवलो. सद्चे परस ताचे कपडे चड चुरिल्ले पूण ते सारके करचेशे ताका दिसलेंना. चलतां चलतां तो पाज्जेकडेन पावलो. पाज्जेच्या पयल्याच सोंपाणाचेर पावल दवरिनाफुडें ताका येवजलें, इतले खेप हीं सोंपाणा चडलां – देंवलां पूण तीं केन्ना मेजपाचें मनांत आयलें ना. चडटाना तर नाच आनी देंवतानांय. तशें जायत्या गजालिचें धंगण उरलेंना, ना जाल्यार आज हीं पावलां अशीं जड जांवचीं नासलीं.

पाज्ज देंवताना ताचे नदरेच्या अस्करांत आयलें तें कुळागर. तागेलें वैभव. अस्तंतेकडल्यान सुर्याचीं किरणां कुळागराचेर शिंवरिल्लीं. एका केळिच्या पिंजक्या चार्वटाचेर कांय किरणां तीकतीकतालीं आनी तिस्त्यांतल्यान सकल सांडटालीं – कोणा दयडिन्याच्या पोशांतल्यान धन गळून पडचें तशीं.

पाज्ज देंवून तो सकल पावलो. आंगणांत पावल दवर जाल्यार एखाद्या सिनेमांत सोबपी असो देखाव चल्ला. वाडयावयल्या सगुणाल्या धा वर्सांच्या पोराक म्हेडीक बांदून घातला आनी कुशीक उबो रावून बापूय ताका फुलां घालता.

– चोट्टो. सगळी घरवडूच चोरांची. बापूय तसो. आवय ताचे फुडली आनी आतां पूत. बीं तशें भात.

दिनकराचेर नदर पडनाफुडें बापायक अदीक नेट आयलो. त्या पोराक ताणे आनीक दटायलो.

– आतां धाकलो भाटकार तुका कसोच सोडीना. माडयांचेर शिपटीं बेस्टींच जाता म्हण समजलो तूं ? चोर. आज एक चोरताना सांपडलो. अशीं कितलीं शिपटीं तुवें चोरल्यां जायत ! आतां ना म्हण बासून कोणाक सांगता ?

दिनकराक पळयतकीच त्या पोराची दांतखिळी सामकीच बसली. पूण ताच्या दोळयांतल्यान दूक गळ्ळें ना. ताणे लजेन मान मात बागयली. दिनकराक

त्या पोराच्या नीबरट मनाची तोखणाय दिसली. ताणे पोराचेर हय न्हयशी नदर मारली. ताच्या बापायन ताका बांदून घातिल्लो खरो पूण शेपलांवकबी नासलो. दिनकर सुस्कारलो, 'खरो भाटकार जाल्यार घडये त्या पोराचेर दोन फुलोवन ताका धांवडावन दितलो आसलो पूण आपणालो बापूय पडलो अडेचो भाटकार– ताका मिरोवपांतूच सुख!'

– मदींचसो आनी इतले बगीन?

तिनसांजच्या वेळाचो अदमास घेत बापायन दिनकराक विचारलें.

– सहज.

तोंड उक्तें करिनासताना ताणें मान हालोवनूच जाप दिली. आंगणांतलीं सोपाणां चडून तो पडवेर आयलो. बूट काडले. पडवेच्या दाराचो हुंबरो हुबताना ताचे मानेंक गरजे परस अदीक बाग पडली. ताचे जागीन कुडींत आड पडिल्ली तागेली आवय उठून बसली. दिनकराक सट् करून येवजलें, ही आतां नवे सोयरीगतिच्यो खबरी सांगतली. तो आपणाले कुडींत भितर सरलो आनी तिका जाणवचेंना इतले सवकासायेन ताणे दार ओडून घेतलें. सद्चे संवये प्रमाण आंगावयले कपडे काडून वडोवपाक ताणे बटनाक हात घातलो. तो परत सुस्कारलो, 'कपडे काडून वडयता तशी नाका आशिल्ली जापसालदारकी काडून वडोवपाक मेळिल्ली जाल्यार काय बरें जावपाचें!' बटणाक घातिल्लो हात आपसूक फाटीं आयलो. कुशिचें कदेल ताणे जनेलाकडेन ओडलें. आनी भायर पळयत बसलो.

किरणां कुळागरांतल्यान पातळ जातालीं.

'हीं अशें तरेन उडून वचपाची ताकतिक करतात, जशीं कितें परतून केन्नाच येंवचिनात.'

कुळागराचें गाड पाचवेपण रसरशीत दिसतालें तें दोळयांतल्यान सकल काळजांत देंवतकूच थंड दिसपाचें पूण दिनकराक त्या पाचव्यापणाचे जाळूच पडले. कुळागरांत बापायचो आवाज घुमतालो. सगळयांक आयकूंक येंवचें येदया व्हडल्यान बापूय त्या पोराचो आनी ताचे घरवडीचो उद्धार करतालो. ताणे जनेल बंद केलें. पूण जनेलाचे फुटके हारशेच्या फास्केंतल्यान बापायचो आवाज येतूच रावलो. फाटल्यान कदेल बागोवन ताणे हात लांब केलो. वणटीकूच पोखरून केल्ल्या आरमारींतल्या पुस्तकाक हात घातलो पूण हाताक आयली ती डायरी. तशीच उकती केली. पोरूंची. मागीर ताणे एकार एक रचून दवरिल्ल्यो हेर डायऱ्यो काडल्यो. सगळयांन पोंदची डायरी उकती केली – चार वर्सां फाटली. मदल्या पानांचेर नोंद आसली, तो बँकेंत रुजू जाल्लो ताची.

... सगळयान पयलीं ताणे ती खबर आवयक सांगली आनी तिच्या हातार पेडो दवरलो. तिका खोस जाली कशी दिसली. पेडो काडून तिणे कोळयांत दवरलो

आनी पुताचे फाटीर हात ओडीत म्हळें, 'आतां बेगीन लग्न जा.'

सगळयांन चड खोस जाली ती ताच्या बापायक. पूत बँकेंत लागनाफुडें बापायचो चार – चौगांत वागपाचो झेत वाडलो.

– म्हाका शंबर पुरसेंत खात्री आसली. आरे, पूत कोणालो तर !

बापूय गांवच्या तिठचार, गाडचार, च्याये हॉटेलार मिजासी मारतालो.

– पावुणशीं लोक बसलेलो खंय ते एझामींक. कितले पास जांवचे ? फक्त पंदरा. म्हजो दिनू तिसरो. तसो तो पयलोच. कारण पयले दोन तुम्र गुड्डयाचे.

दिनकराक बँकेत क्लार्काची नोकरी लागनाफुडें बापायन हात – पांय हालोवपाचें सोडलें. ना जाल्यार तो सप्तकाच्या बाजाराखातीर खरेदी विक्रिचो उद्‌देग करून संवसार चलयतालो.

– करट काडून पुताक शिकयलो. आतां पोटाखातीर हात - पांय बडोवपाची म्हाका गरज ना.

बापायन सांगचे आदींच दिनकरान संवसाराचो पत्कर घेतलो. ताका तातूंत उमेद आनी अभिमानूय दिसतालो. तो नोकरी करता थंय शारांतूच एकीकडेन पेईंग गेस्ट म्हण रावतालो. दर शेनवारा दनपारां बसींत बसून घरा येतालो. मदल्या दिसांनी येवपाचो जाल्यार बँक सुटून आमोरेर घरा पावतालो.

घरा येतकूच बापूय – पुताच्यो गजाली रंगताल्यो. बँकेत कसल्यो कसल्यो नविदादी घडल्यो तांची वळेरी दिनकर वाचतालो तातूंत ताच्या 'कर्तुत्वाचो भाग अदीक आसतालो. आनी मागीर तीच खबर तीख – मीठ लावन बापूय सप्तकभर गांवभर गायतालो.

– दिनू क्लार्क आनी तो ऑफीसर. पूण ऑफीसराची मिस्टेक दाखोवन दिली. करतलो कितें ? मिश्यांनी हांसलो आनी बगी रावलो खंय !

– चाळीस पैशे ! येदे व्हडले बँकेंत कशेच सांपडना जाले. टॅली काय कितें जायना जालें. सिनीयर सिनीयर म्हणटात ते सगळे तकल्यो धाडयतात. सोदून दीवंचे कोणे ? दिनू दिसाक लाख हातान घोळयता ते चाळीस पैशे सोदून दिवपाक व्हडले ताका ?'

– येदे व्हडले बँकेंत इतलो स्टाफ पूण मॅनेजर फक्त एकल्याकूच पातयेता. एका प्युनाक घेवन दिनू रात रात काम करता खंय ! केदो भरवंसो !

– बँकेंत रीण दिल्ले गुदांव, गाडयो, वचून कोण तपासता ? दिनू.

त्या दिसांनी तिठ्यांर गजालींक आनी मिजासींक सुमार नासतालो.

शेनवार – आयतारा बापूय – पुताच्यो रातभर खबरी चलताल्यो. मागीर सोसूं नजो जावन आवय मदींच येवन तोंड घालताली,

– ते सोयरीगतीचे कितें केलां ?

– हुंडो कितलो दिता खंय तीं ?

पांयार पांय वडोवन बापूय विचारतालो.

– आमचेकडेन हुंड्याची पद्धत खंय आसा ?

– ना न्हय ? मागीर सुरू करूंया.

बापूय आपणालेच कल्पनेचेर खूश जावन मोटमोटयान हांसतालो आनी आवय तोंड वांकडें करून भितर वताली.

बापायन घरांत कांय नव्यो गजाली सुरू केल्ल्यो. पयली गजाल म्हळ्यार ताणे दिनकराक शिकयलो. वाड्यावयले ताच्या बरोबरचे सगुणाले आनी हेरांले भुरगे शाळा सोडून आपल्याच शेता – भाटांत वावूरपाक लागले पूण दिनकर मात मुखार गेलो. बापायन वांगडच्या भुरग्यांची संगतूय पातळ करपाक लायली. बापायक लागून आपूण शिकपाक पावलों हाची जाणविकाय दिनकराक सदांच आसताली.

बँकेतले चार वर्सांचे क्लार्काचे नोकरे उपरांत दिनकर ऑफीसराचे टॅस्टीक बसलो आनी सहजतायेन पास जालो. घरा येवन बापायक ही खबर ताणे सांगली. बापायक सुमाराभायली खोस जाली पूण सद्च्यावरी ताणे उतरांनी प्रगट केली ना.

– आतां म्हजें सपन फळाक येतलें.

चड उलयनासतानाच तो उठलो. दर फावटीं पुताक सोयरीक घेवन नाचपी आपले बायलेक मात ताणे खूब तापयली.

– येन्नादर लग्न करपाक कित्याक हारेल्या ? ताका सोयरीक जाय तेन्ना जाय तशी चलून येतली. तूं अशी गरजेभायर वयरसकयल जांव नाका. कितलो वाडला तो ? पाडसाक तेंकला ? हांगां पयलीं चिंतला तें मातशें जाग्यार पडूंदी.

बापायन कितें चिंतलां तें दिनकराक तेन्ना कळ्ळें ना. बापायक विचारपूय ताका समा दिसलें ना. पूण तो हालीं खूब कमी उयलतालो आनी खूब खूब चिंततालो. हें मात ताच्या मुखामळावयल्यान दिनकरान समजून घेतिल्लें.

अकस्मात एक दीस ताका घराकडसून बापायचो निरोप आयलो.

– आज रातचो घरा यो.

थोड्याश्या हुस्क्यांतूच तो घरा आयलो. घरा यो जाल्यार दोगांय बरीं आसात. ताका सू ऽ ऽ जालें. बापूय पडवेर शेंकानशेंक पासयो मारतालो.

– कितें जालां ?

– यो, बस. सांगतां.

गजाल आयकुपाक खोशयेची आसली. ते ज्या कुळागरांत मुंडकार म्हण रावताले तें कुळागर भाटकारान विकपाक काडिल्लें. जाणटेलो भाटकार सगळें विकून मुंबय पुता म्हऱ्यांत वचपाक तयार जाल्लो. वाड्यावयल्या सगुणाच्या कानार ही गजाल पडनाफुडें तो कुळागर घेवपाक फुरफुरलो. पूण जाणटेल्यान

दिनकराच्या बापायक विस्वासांत घेतलो कारण तांगेलें एकूच घर तांच्या कुळागरांत आसलें.
– म्हजी खूब दिसांची इत्सा. हांव ह्या कुळागराचेर दोळो दवरून आसलों. म्हजे आशेनूच जाणटेल्याक विकपाची वान्सा जडल्या जावंक जाय.
– पूण ...
– आमी घेना जाल्यार सगूण घेता. दिसावडचाचें मानायपण करून. जगपी अनाडी लोक ते. तांकां जर शक्य आसा जाल्यार आमच्या सारखिल्ल्या शिकल्ल्या– सवरिल्ल्यांक कित्याक शक्य ना ?
– तांची जगपाची पद्दत ...
– नाजाल्यार तो काश्टो न्हेशिल्लो कुळागराचो धनी जातलो आनी मागीर आमी तागेल्या कुळागरांत ...

बापायच्या दोळयांत फक्त दुकां येवपाचीं बाकी उरिल्लीं.
– हांवें तुजेकडेन आनीक कितें मागलां ? इतलो तेंप हांव ताठ मानेन भोंवलो. म्हाका निमाणोय तसोच भोंवू दी.

बापूय गळवञ्ञा येता म्हण न्हय पूण दिनकराकूय बापायचें म्हणणें पटलें. कुळागराचो धनी जावपाचे कल्पनेन तोवूय भुल्लूसलो.
– पूण पन्नास हजार म्हणजे खुबूच जाले.
– तो दुस्मान सगूण मदीं पडना जाल्यार चाळीस हजारांक लेगीत सा जावपाचें.
– हांव मातसो विचार करतां.
– जाणटेल्यान पंदरा दिसांची मुदत दिल्या. ताकाय वचपाची ताकतीक आसा.

कांय वेळ बापूय – पूत बगी रावले.
– तुजे वतीन तूं कितेंय उबें करूंक शकशी ?

बापायकडेन कांयच ना हें खबर आसून लेगीत ताणे विचारलें. बापूय तसोच उठून घरांत गेलो. बायलेकडेन कितेंतरी उलयलो. कांय बगत दोगांयनीं हुज्जत घातली. मागीर ती व्हडल्यान वड्डली.
– म्हाका कांयच सांगू नाका. जें कितें भांगर म्हण आसा तें सुनेबगर कोणाच्याच हाताक लावची ना.

बापायन घण्ण करून दार आदळ्ळें आनी परत हात हालयत तो पुता म्हऱ्यांत येवन बसलो. काळखांत कोणाचीं तोंडां कोणाक दिसनाशिल्लीं.
– हांव सामको खाखनवाळ. तुजे बँकेंत कसलोय तरी मार्ग आसतलो.

रातभर दिनकराच्या दोळयाक दोळो लागलोना. सकाळीं जागरणाचे दोळे चोळीत ताणे बापायक सांगलें,
– हांव पैशांची व्यवस्था करतां. तूं फुडले तयारेक लाग.

पुताचीं तीं उतरां आयकून ताच्या पांयांर प्राण सोडूं अशें बापायक जालें.

हांसत्या मुखान ताणे पुताक निरोप दिलो आनी कुळागराचेर धनीपणान एक नदर भोंवडायली.

पन्नास हजार रुपया जाणटेल्याक फारीक करून हेर सगळयो कायदेशीर गजाली थाऱ्यार घालता म्हणसर पंचावन्न हजारांवयर खर्च आयलो. वयल्यान दिनकरान एक हजार बापायच्या हातार दवरलो.

– कुळागरांतल्या कामांक उपकारतलो.

बापूय सामको भारावन गेल्लो. मोटे जिद्दीन आनी आत्मविस्वासान ताणे पेंगट बांदलें. गांवभर भोंवून तोंडाची वाफ वडोवपाचें ताणे बंद केलें. वाल्याचो कांसाटो खोवन आपूण खासा कुळागराची उस्तवारी करपाक लागलो. पयली गजाल ताणे केली ती म्हळयार कुळागराचो धनी जावंक सोदपी सगूणाक आपणाल्या कुळागरांत दिसावड्याच्या वावराक लायलो आनी वर्सासंकिनी कुळागरांतल्यान वचपी वाट दुरीग काड्न बंद केली.

– इतल्या वर्साच्या जाणटेल्या भाटकारान करूंक नाशिल्लें तें हाणे चार दिसांच्या भाटकारान केलें.

जायतेजाणानी अशें म्हळें पूण ताचे हुजरां न्हय – अस्वडीं.

– फाल्यां शेनवार. धाकलो भाटकार येतलो.

वावर करतल्या सगूणाक बापायन म्हळें आनी दुसरे दिसाच्यान 'धाकलो भाटकार' अशें म्हणून सगूण आनी तागेली घरवड ताका पाचारूंक लागली. आनी मागीर तागेलो बापूय आपसूक भाटकार जावन पडलो. सादो न्हय – व्हडलो भाटकार.

मागीर भाटकारागेर नुस्तेकान्नी शेंवटचांच्यो गांथनी घेवन येवपाक लागल्यो. तिठयार सद्दां मेळपी सॉंतिकार भाटकाराखातीर नेमान पांचक्को घेवन घरा येवपाक लागलो. वाड्यावयल्यो थालयो, तोप, गंगळयो भाटकारागेर घाणांक पडपाक लागल्यो.

दिनकरान कुळागर विकतें घेतिल्ल्याची खबर बऽऽऱ्या उसरां म्हळयार स म्हयन्या उपरांत बॅंकेतल्या तागेल्या कांय इश्टांक समजली तेन्ना ताणी ताचेकडेन च्या मागली. इश्टांनी ती खबर गुपीत राखची म्हण ताणे तांकां एक ल्हानशी पार्टीच दिली.

– अशें म्हण कळयार आमचो मॅनेजर आपली भाची तुकां सोडून हेर कोणांकूच दिना.

च्या पितां पितां तागेल्या इश्टान ताचीं फकाणां केलीं आनी दिनकर मनातसून मुरकुटून हांसलो.

आनी अकस्मात एक दीस मॅनेजरान ताका सकाळिफुडें कॅबिनांत आपयलो. लेजर उक्तो करून धा हजार आंकड्याचेर बोट दवरून ताणे नदरेंतूच 'हें कितें ?'

आसो प्रश्न केलो. दिनकराचें तोंड पडलें. कसलींच शाणेपणां करिनासतना ताणें मोन्यांनी मान हालयली.

– अशें कितलेकडेन आसा ?

दिनकरान आपूण जावन सगळयो नोंदी दाखयल्यो. मॅनेजर घटाघटा करून उदक पियेलो. सगळो मेळून पन्नास हजारांचो आंकडो जातालो.

पावसा उपरांतचे तापी सारको मॅनेजराचो सभाव अकस्मात बदल्लो. तो शादूर जालो. सगळयांत पयलीं ताणे मनांत निश्चेव केलो – दिनकराचो आतां भाचयेखातीर अजिबात विचार करप ना.

– असोच बसून राव.

अशें मॅनेजरान ताका सांगलेंना पूण परिस्थितिचो सुनशा घेवन तो तसोच बसून रावलो. भायर वचून वांगडच्या स्टाफाक तोंड दिवचे परस भितरच बसप ताका बरें दिसलें.

बँकेचें हेड ऑफीसूय त्याच शारांत आसलें. स्टेटमेंटाची एक कॉपी घेवन बँकेचो एक ऑफीसर हेड ऑफीसांत गेलो. कांय वेळान मॅनेजराक फोन आयलो. फोनाचेर बँकेचो चेअरमन उलयतालो. ताणे फोनावयल्यान जायत्यो गजाली विचाल्यो. मॅनेजरान 'अू' 'अू' करून जापो दिल्यो आनी निबरसाणेन म्हळें,

– येस् !

वराभितर हेड ऑफीसांतल्यान खास गाडी आयली. गाडयेंतलो सिनिअर ऑफीसर परवानगेबगर कॅबीनांत भितर सरलो. दिनकराक मात्तूय वळखना अशे तरेन ताणे हातांतले लेटर मॅनेजराच्या हातांत दिलें. मॅनेजरान तें वाचलें आनी तितलेच सहजतायेन दिनकराच्या हातांत दिलें.

– पन्नास हजार रुपयांचे अफरा – तफरी खातीर सस्पेंन्डेड.

दिनकरान चालू वर्साचे डायरेंत नोंद केली. तो कदेलीवयलो उठलो. काळोख पडूंक आनींक थोडो कळाव आसलो.

पाज्जेवयर पुलिशेची जीप थारिल्ल्याचो आवाज ताणे आयकलो आनी आपणें येवजिल्लें तें खरें जाल्लें पळोवन सुस्कारलो.

कुळागरांतसून बापायन पुलिशेची जीप पळयली आनी म्हेडीक बांदून घाल्ल्या सगूणाच्या पोराक तो भेश्टांवक लागलो.

– आतां पुलीसांचे सुवादीन करतां तुकां. चोरा !

दिनकर कुडींतल्यान भायर सरलो. आंगणांत येवन ताणे मान सकल घालून ख्यास्त भोगपी त्या पोराच्या हातांतली दोरी सोडून ताका मेकळो केलो आनी बेडयो घेवन पाज्जेचीं सोपाणां देंवपी पुलीसांची वाट पळयत रावलो.



८.

# खाटकागेर एक रात

दीस पडलो आनीताचीं पावलां जड जालीं. तिशेक वर्सांचो तो तरनाटो वाटसुरो थंयच आडखळून कसो उरलो.

खोपीभायर उबो आशिल्ल्या जाणटेल्यान ताची अवतिकाय पारखिली आनी तो मुखार आयलो. ताच्या लागीं गेलो.

तरनाटो घामान चीप्प भिजिल्लो. माथ्यांतल्यान हुमेच्यो पावळ्यो ताच्या काळशा कपलार आनी पोल्यार देंवताल्यो. नदरेंतली अथीरताय आनी तोंडावयली चींता लिपोवपाचो तो यत्न करतालो पूण आमुडलेलो मूस परत परत पोल्यार बसचो तशी ताची गत जाल्ली.

जाणटेल्यान ताच्या म्हऱ्यांत येवन आपूण जावन ताका हटकिलो,

— वाट चुकलो ?

जाणटेल्यान थरथरत्या आवाजान ताका विचारलें.

— ना, सांज जाली.

वाटसुऱ्यान जाप दिली. जाणटेल्या इतलोच ताचो आवाज थरथरलो.

— भियेंव नाका. हांगां कसली भिरांत ना.

जाणटेल्यान दोनूय हात वयर काडून ताका धीर दिलो. जाणटेल्याचे दोनूय हात, वाऱ्यान पेट्टचो वाती हालच्यो तशे कडकडटाले.

वाटसुऱ्याक मातसो धीरसो आयलो. कपलावयलो घाम बोटान फापडीत ताणे सरभोंवतणी पळयलें. तो इतली वाट चलून आयिल्लो ताचेपरस हो वांठार सामकोच वेगळो आसलो. वेगळो म्हळयार कोणाची जाग माग ना. ना मनशां, ना गोरवां वासरां, ना घरां - दारां. नदर पावता थंयमेरेन पडींग मळ कशें. मळाचें पोट चिरून व्हांवपी एक व्हाळ मात नदरेच्या अस्करांत येतालो. त्या अख्ख्या वाठारांत एकूच खोपूट - जाणटेल्याचें. आनी त्या अख्ख्या मळार तिनसांजच्या वेळार दोगूच मनीस - वाटसुरो आनी जाणटेलो. ना म्हळयार तांच्या माथ्यार काळीं-निळीं शेवणीं आडव्यो - उब्यो रेगट्यो मारच्यो तशीं बाण कशीं भोंवतालीं आनी खोपी मुखावयल्या पोरसांत हळडुव्या पाखांची पिसोळीं नाचतालीं.

– हांगा परक्यांखातीर खंय रावपाची बी व्यवस्था आसा ? एके रातीपुरती.

वाटसुऱ्यान जाणटेल्याक विचारलें.

– तशी व्यवस्था ना. पूण हांव करपाक शकतां.

जाणटेल्यान हांसत म्हळें. हांसतना ताच्या पोल्यावयले कातीक सुरकुत्यो पडल्यो.

– उपकार जातले.

– पूण तुवें उपकार करचे पडटले.

– कसले ?

वाटसुऱ्यान उमळशिकेन विचारलें. पूण जाणटेल्यान जाप दिली ना. ताणें पावलां वळयलीं. आपल्या फाटल्यान येवपाक ताणे वाटसुऱ्याक खुणायलो आनी तो खोपीवटेन चलपाक लागलो.

फाटसून वाटसुऱ्यान ताका नियाळ्ळो. पिरायेन पावुणशीं ऐंशी वर्सांचो तरी आसपाक जाय. कातीन नीवळ. कण्याक आजून बाग पडूंना. माथ्यावयले भौतेक केंस गेल्यात. मदीं खड्डो पडला. खड्डचा भोंवतणी एके हारीन भाताच्या थामाचें कुतल्ल दाळचें तशे केंस दसयिल्ले भशेन दिसता. केंस धवेफुल्ल. आंगावयली मुस्तायकी फाटसून नीवळ बरी. मुखारूय नीवळ पूण कसलीं कसलीं खतां, दाग पडल्यात.

हरशीं चार धेंपाची वाट. जाणटेल्याचे चालीन खोपीकडेन पावतासर बरोच वगत लागलो. खोपीचें दार उकतेंच आसलें. जाणटेल्या फाटोफाट वाटसुरो भितर सरलो आनी जाणटेल्यान बस म्हणचेआदींच सोप्याचेर बसलो. जाणटेल्याक बरें दिसलें.

– तुका खूब पुरो जालां आसतलें.

– थोडें भोव !

– पिवपाक दिव ?

वाटसुऱ्यान तोंड हांसतें केलें.

– कितें दिव ? उदक ? काय च्या करूं ? दोनूय करतां. पयलीं उदक पिये आनि मागीर च्या.

वाटसुरो भिडेन कितेंय सांगचे आदींच जाणटेल्यान ताच्या हातांत उदकाचो पेलो दिलो आनी तो च्या करपाक भितर गेलो.

उदक ताळयासकयल देंवतकच वाटसुऱ्याच्या जिवाक थाकाय मेळ्ळी. मन ल्हवपीक जालें. जाणटेलो आपणाली रातीपुरती खंयतरी व्यवस्था करतलो हाची ताका खात्री पटली. फाल्यां सकाळीं उठून चलूंक लागल्यार आपूण आपल्या कामांक पावतलों हाचेविशीं ताका दुबाव उरलो ना. घडये बेगीन पावता अशी एखादी आडवाटूय जाणटेलो सुचयत अशें ताका दिसलें आनी तो चिंतेविरयत

सोप्यार लवंडलो.

ताणें खोपिचेर नदर मारली. भायल्यान दिसता तशी ती खोप नासली. दरवटयाचेर चुट्टांचें पांखे घातिल्ल्यान ती खोप कशी दिसताली. पूण भितर ताका तांबडे मातयेच्यो चार गडगंज वणटी आसल्यो. वयलीं दोनूय पाश्टां मातयेच्या गांवठी नळयांचीं. सोप्याकुशीक एक जनेल. जनेल आनी दाराचो भाग चिऱ्यांनी बांदून काडिल्लो. घरांत मदीं वणत अशी नासली. मल्लांचो कडवो कसो. एक भाग बसपाचो, दुसरो भितर रांदपा सवरपाचो. घरांतली दर एक वस्त-वस्ती सामक्योच उण्यो पूण धुवून पुसून दवल्ल्यात अशें दिसतालें. जमिनूय नीवळ बरी सारयिल्ली. खंय कोयर ना, कसलो वास ना. फक्त आपणांक आपल्याच घामाचो वास येता ताची जाणीव वाटसुऱ्याक जाली.

ताका दिसलें, हें घर कोणा ब्राम्हणाचें आसपाक जाय. जाणटेल्याक पळयल्यार तातूंत दुबाव येवपासारखें कांय नासलें. नाजाल्यार घर कोणाचेंय आसू येता पूण घरांतली बायलमनीस बरे नितळकायची, शिस्तिची आसपाक जाय. नातर ...

जाणटेलो च्याचो पेलो घेवन भायर आयलो आनी वाटसुऱ्याचीं चिंतना थंयच तुटलीं,

– खुटी च्या. दूद नाशिल्ली. चलता न्हय ?

– न चलपाक कितें जालां !

वाटसुऱ्यान ताच्या हातांतलो च्याचो पेलो घेतलो आनी बेगोबेग सकयल दवरलो. ताच्या हाताक चूरको बसलो पूण जाणटेल्यान तो सहजतायेन हातात धरुन हाडिल्लो.

– दुदाचें कितें जाता. दूद हांगा मेळना. गांवांत वचून हाडचें पडटा. गावांत आसा तशीं दूदकारां पूण तीं गरज तेन्ना दूद घेवन येता. हरशीं येना. गरज कोणांक ? म्हाका न्हय. तांकां. तांकां शाक-भाजयेची गरज पडटा तेन्ना तीं वाटीभर, पेलोभर दूद घेवन येतात. दूद दितात आनी भाजी व्हरतात. दूदय म्हण व्हडलें बरें नासता. उदकबी आसताच. पूण तशी हांव पिकयतां ती भाजी म्हण सगळी खंय सारखी आसता ? मुट्टेता, किडेता. पूण गरजेक गरज भागता.

जाणटेलो उसरपत घेना आसताना उलयतालो. वाटसुऱ्याक च्या फूक मारून पियची पडटाली.

– गोरवां तशीं आसा गांवांत पूण हेवटेन कोण सोडिना. तशीं चुकून येतात केन्नाय. एकवटेन बरें. म्हजें शाक-भाजयेचे पोरस् सुगूर उरता. हेवटेन गोरवां कित्याक येनात ताचें कारण हांव तुकां सांगन पूण गांवचे लोक दुसरेंच सांगतले.

वाटसुऱ्याक त्या प्रश्नाचें कसलेंच म्हत्व नासलें. ताची च्यावय पिवून सोंपिल्ली आनी तो उठपाचे तयारेन आसलो. पूण वयलेदरा विचारपाक जाय

म्हण ताणे विचारलें,

– गांवचीं गोरवां हेवटेन कित्याक येनात? चरवाखातीर काय बरी सुवात आसा.

– एक फावट म्हज्या पुतान एक आगळीक केली. एक दूदाची गाय हेवटेन आयिल्ली. तिका बळजबरीन बांदली आनी तिचें तांबयोभर दूद काडलें. हांवें वचून चूक मागली धनयाकडेन. पूण सगळयांनी हेवटेन गोरवांकूच सोडप बंद केलें. दूदाचें फक्त निमित्त. मूळ कारण वेगळेंच.

वाटसुऱ्यान ताच्या गिजालचो ओग पारखिलो आनी तो सडसडीत उठलो. च्या पिवून ताका बरीच तरतरी आयिल्ली.

– म्हजी खंयूय व्यवस्था करता न्हय?

मान बागोवन ताणे जाणटेल्याक विचारलें.

– ह्या घरांत केल्यार जायत?

– पूण तुमकां अडचण?

– कोणांक? हांव एकलोच.

– म्हजी हरकत ना. वयल्यान तुमचे उपकार जातले.

– उपकार कसले?

– व्हदळ तुमी म्हाका म्हणिल्लें, तुजी व्यवस्था करतां पूण तुमचेर एक उपकार करचे पडटले. आतां सांगात हांव तुमचेर कसले उपकार करूं?

– उपकार हेच. हांगा राव. म्हज्या हातचें खा. आनी कांयच फारीक करी-नासताना वच.

– म्हणजे रित्या हातान भितर सरप आनी उपकाराचें ओजें घेवन भायर वचप.

वाटसुऱ्याच्या उतराचेर जाणटेलो मन सोडून खळखळून हांसलो. हांसताना ताच्या तोंडाची घोल उकती जाली. भितले सगळे दांत शाबूत आसा म्हणपाचें पळोवन वाटसुऱ्याक अजाप जालें. दांत नीतळ बरे आसले.

– अखेर तुजेर उपकार कसले करतलों? हांव खाता तेंच शाकभाजयेचें शिवराक जेवण तुका घालतलों. मानवतलें न्हय?

– वाटसुऱ्याक भुकेक कुडो लेगीत चलता.

आनी वाटसुरो हातपांय सैल सोडून परत सोप्यार बसलो,

– घरांत कोण ना?

– ना.

– भायर सरल्यांत?

– अं.

– पयस गेल्यांत?

– अं.

– चड पयस?

– खूब पयस,

जाणटेलो अचकीत गंभीर जालो. वाटसुऱ्याक दिसलें, वगीच नाका आशिल्लो प्रश्न विचारलो.

– पूत तुज्यायेदो जातलो. सोडून गेलो म्हाका. बरींच वर्सां जालीं.

– तुमी दोगांय उरलीं !

– एकलोच. ती, बायल पुताआदीं गेल्ली.

– दुयेंसान मेली ?

– तिचे दुयेंस वेगळें. तिवूय पळून गेली.

कांय वेळ दोगूय वग्गी रावले. जाणटेलो फाटले यादीन रडत बी म्हणून वाटसुऱ्यान उलोवणे मुखार व्हेलें.

– खरें म्हळयार सुसंस्कृत घराब्यांत अशें घडना. तुमच्या सारख्या –

– हांव खाटीक.

वाटसुऱ्याक आपणालें उलोवणे कच् करुन सुरयेन कापिल्लेपरी दिसलें.

– म्हागेले जाणटेले हो धंदो करिनासले. हांवेंच तो सुरू केलो.

घरांतलें सगळे वातावरण अकस्मात कोंदट जाल्ले भशेन वाटसुऱ्याक दिसलें.

– पुण हांवें खाटीकपण बंदूच केल्ल्यान जमा. फाटल्या पांचेक वर्सांत गोरवाचे मानेर पाळ हाणूना.

कोंडिल्लें वातावरण जनेलांतल्यात आयिल्ल्या एका वाऱ्याच्या झोतान निवळ जाल्लेवरी वाटसुऱ्याक दिसलें. वाटसुरो आतां वेगळयाच विचारांत आसलो. ताणे अनमनत म्हळें,

– खरें म्हळयार हांव आतां वाटेक लागल्यार पावतलों. तुमचे च्यान हुशारी आयल्या. शिवाय तुमकां गरजेभायर त्रास.

जाणटेल्यान ताची अस्वस्थताय पारखिली.

– कित्याक ? एका खाटकागेर रावपाक मन धजना ?

– ना, ना. तशें न्हय.

वाटसुऱ्यान आपणांक सावरपाचो खूब यत्न केलो. पूण जाणटेल्यान ताचेपरस कितले तरी अदीक पावसाळे पळयिल्ले.

– हांव धंद्यान - खाटीक. समाजान वा वृत्तीन न्हय. पूण गांवांतले लोक हाजेपरस वेगळेंच सांगतले.

वाटसुऱ्याक याद जाली. व्हदळूय गोरवांचो विशय काडटान ताणे गांवच्या लोकांचो उल्लेख केल्लो. खाटकागेर रात काडपाक आपूण आतां उतरान बांदून उरलां हाची ताका जाणीव जाली.

– हांव खाटीक आसून जेवणान शिवराक !

आपणाले सगळे दांत भायर काडून तो हांसलो. वाटसुऱ्याच्या मनावयलो

कांच धील करपाखातीर तो गरजेभायर चडूच हांसलो.
– हांवें केन्ना नुस्तेंय उस्टोवना आनी मांसूय तोंडाक लावना.
– अशें कशें ?
– म्हाका खबर ना. संवयूच ना खावपाची. केन्ना खायनूय दिसलेंना.
– विटून ?
– ना. तशेंय न्हय.
– मागीर तूं खाटीक कसो जालों तर ?
– आपूण जावन न्हय, आपशींच जालों.
– कसो ?

वाटसुरो पांय सोडून तांचेमुखार बसलो. जाणटेल्याची खात्री पटली, हो आतां खऱ्यांनीच मन लावन आयकता.

जाणटेल्यान ताका आपल्या जुवानपणाची गजाल सांगली. तेन्ना ताचें जुवानपण रसरसतालें. आंगांत शक्त आसली. ताचे बरोबरचे जुवान तरातरांचीं कश्टांची कामां करताले. जोडटाले. पूण जोड फक्त गरजेपुरतीच जाताली. ताका असलीं कश्टाचीं कामां मानवलींना. ताणे गांवांत नदर मारून पळयली. गोरवांचें मांस खावपी लोक चड. मायलें मांस विकतें हाडून ते खातात. ताणे एक लोखंडी पाळ पळयलो. निसाण्यार बरो पाजून घेतलो. पाळ घेवन रातचो तो गांवावयल्या रानांत भोंवपाक लागलो. दोन-चार राती फक्त भोंवलो. वांटचुकीं गोरवां रानांत भोंवतालीं. कांय जाणांक रानांतूच भोंवपाची संवय जाल्ली. ताणे संद सोदून एक दीस पाळ एका गोरवाचे मानेर हाणलो. खिणांत रक्ताचे व्हाळ. मान एकेकडेन जाल्यार धड दुसरेकडेन. आपणाल्या बळाचो ताका अभिमान दिसलो. ताचो आत्मविश्वास वाडलो.

दुसऱ्या दिसा गांवच्या तिठ्यार जित्या चट्टांर ताणे मांसाचे वांटे घातले. एका धपक्यांत गिरायकांनी उबारून व्हेले. पयल्याच अणभवान उमेद वाडीक लागली.

आत्र्या-पयऱ्यान गांवच्या तिठयार मांसाच्यो राशी पडपाक लागल्यो. गांवांत आनी आशिकुशीच्या गांवांत कोणालो बैल, कोणाली गाय ना म्हणपाच्यो खबरी चलताल्लो पूण तिठ्यावयल्या मासाची कोणे खोलायेन उस्तवारी केली ना.

नव्या खाटकाचें गांवांत नांव जालें. आनी त्याच म्हालवजार खाटकाक सोयरीक आयली. लग्न जालें.

लग्ना उपरांत अवघ्या कांय दिसां उपरांतची गजाल. तिठ्यार मांसाचे वांटे पातळावन खाटीक बशिल्लो. गिरायकांच्यो झुंडी वांटे मोलायताल्यो. इतल्यान धामाधूम जाल्ली एक बायलमनीस झुंडीतल्यान मुखार आयली. बचकुलाक धरून तिणे पांचेक वर्साच्या भुरग्याक हाडिल्लो. भुरग्यांक उबारून तिणे मांसाच्या वांट्याचेर लोटून वडयलो. बोंबलेच्या देंठातल्यांन ती आड्डली.

– आतां ह्या पोराचे कातरून वांटे घाल. रातीं तुवें हाच्या दुदाची गाय कापून आतां हांगां वांटे घालून बसला !

जाणटेल्यान गजाल सांगून सोंपयली. थोडोवेळ वग्गी रावलो. शींसल फोडचें तसो वाटसुऱ्याच्या दोळ्यांमुखार परत परत तो प्रसंग कीट् कीट् करून उसवपाक लागलो.

– तेन्नाच्यान चोरून गोरवां, वासरां मारपाचें सोडलें आनी तो गांवूय सोडलो. बायलेक घेवन हांगां येवन ह्या गांवांत रावलों.

जाणटेलो सुस्कारलो.

– हांगां कसलो घंदो सुरू केलो ?

– दुसरें कितें करप जमलेंना. ह्याच धंदयाचेर भर दिवंचो अशें बायलेचेंय मत पडलें. नवें कितेंय शिकचेपरस म्हाकाय तें सोपें पडलें आनी हांव व्यवसायान खाटीक जालों. पूण हांवें म्हज्या म्हाकाच शीस्त लावन घेतली. ह्या गांवांत सप्तकांत एक दीस म्हळयार शेनवारा एकलो मनीस. एक बैल घेवन येतालो. त्या बैलाक तो विकतोच हाडटालो आसूंक जाय कारण भर दिसा तो ताका भर मारगावयल्यान आमुडून हाडटालो. आयतारा दिसा सकाळीं फुडें हांव त्या बैलाक कातरतालों. खंय जाणा ? तूं व्हदळ त्या पाणटयावयल्यान चलून येवंना ? थंय एक नीवळ केल्ली आनी फांतरांनी बांदून काडिल्ली सुवात आसा. तीच सुवात. उकतो खाटीकखानो. उकती सोग. बैलाक कापतालों. थंयच व्हावत्या उदकांत नीवळ करतालो. मासांचे आनी हाडांचे कुडके करून त्या मनशाचे सुवादीन करतालों म्हजो पाळ धुतालों, तसोच पाणटयार व्हातालों. ताणे दिल्ली बिदागी घेतालों आनी ओल्या आंगान घरा येतालों. ती जोड सप्तकभर पावताली. केन्ना केन्नाय कोणूय काजराक नाजाल्यार फेस्ताक बैल हाडून म्हजेकडसून कातरून घेताले. ताचें अदीक सुट्टालें. तें जीवन वायट नासलें. म्हाका आवडटालें.

– पुण तुजे बायलेक आवडनासलें व्हय ?

वाटसुऱ्याच्या त्या प्रश्नान ताका आपलेपण जाणवलें. हो आपणांक समजून घेवपाक सोदता अशेंय ताका दिसलें.

– हय. तिका तेंच जीवन बरें दिसतालें. तेन्ना चोरयां कपिल्ल्या अख्ख्या गोरवाचो धनी हांव आसतलों. हागां काटकसर करची पडटाली. परत ती आनी पूत मांसाहारी. हांव आदींपासून शिवराक. तिचें म्हणणें हांवें कापता थंयचेंच कितेंय हातालागीं करून हाडचें आनी घरचें जेवण सोबोवचें पूण तशें करप म्हाका केन्ना जमलेंना. जेवणाच्या वेळार आमचेमदीं सदांच झगडीं जातालीं. सगळयान चड आदळआपट तीच करताली. म्हाकाय तिची संवयूच कशी जाल्ली.

– इतल्याच खातीर तिणें घर सोडलें ?

– तिका घर सोडपाचें आसलेंच. तो फकत निमीत्त सोदताली. आनी तें निमीत्त

तिका एक दीस मेळ्ळें.

जाणटेलो सडसडीत बशिल्ल्या जाग्यावयलो उठलो. भायर येवन ताणें वगीच हेवटेन तेवटेन पळयलें. भायर काळोख दाटत वतालो. परत आसा तसो वाटसुऱ्या म्हऱ्यांत बसत ताणे बायलेची गजाल सांगली.

एक दीस रातीकडेन खाटकाच्या दारार कोणेतरी मारलें. खाटकान दार उकतें केलें. दारांत एक गांवातलो वळखिचो मनीस. तो आप्लें आपूण भितर सरलो. ताच्या हातांत कितल्याशाच नोटांची घडी आसली. खाटकान चोरयां गोरवां मारून विकून मेळयिल्ल्या दुडवांपरस ते चड आसले. ते दुडू ताणे खाटकाखातीर हाडिल्ले. तो मनीस खाटकाखातीर एक काम घेवन आयिल्लो. त्या मनशालो एक दुस्मान आसलो. त्या दुस्मानाची तकली खाटकान धडावेगळी करपाची. मडें पुरपाची जापसालदारकी खाटकाची नासली. जाय जाल्यार त्या नोटांनी आनीक भर घालपाचीय ताची तयारी आसली. पूण खाटकान त्या दुडवांक हात लायलो ना आनी त्या मनशाचें काम आपणायलेंना. तो मनीस खूब पिकार जालो.

– कसलो खाटीक तूं कर्माचो !

अशें म्हणून ताच्या तोंडार थुंकून गेलो.

खाटकाची बायल तांचे उलोवणे भितर रावून चत्रायेन आयकताली. पूत न्हिदिल्लो.

तो मनीस भायर वतकच फाटोफाट तिवूय भायर गेली. आनी काळखांत दोगांय नाच जालीं.

ती परत येतली अशें खाटकाक दिशिल्लें पूण ती परत आयली ना. दुसऱ्या दिसा आनी तिसऱ्या दिसा खाटकान वाट पळयली आनी मागीर आशा सोडली.

पांचव्या दिसा गांवांतले धा जाण खाटकागेर आयले. खाटकाची बायल पळून गेल्या म्हण तांकां कळिल्लें. ताणी रडकीं तोंडा करून खाटकाक भुजवण दिली. खाटकाची बायल कोणाबरोबर पळून गेल्या तें लोकांनी ताका सांगलें. ते रातीकडेन आयिल्लो तो तोच मनीस म्हणपाचें खाटकान वळखलें. त्या लोकांनी खाटकाक आनीक एक गजाल सांगली. गांवांत एका मनशाचो खून जाल्लो. खून जाल्ल्या मनशाचें नांव कळटकूच खाटकाक तो खून कोणे केला ताचें कुवाडें पडलें ना. पूण तो वग्गी रावलो. कांयच उलयलोना. भुजवणेक आयिल्ल्यांक दिसलें, बायलेच्या दुख्खान हाका उतर फुटना.

जाणटेल्यान फाटली गजाल सांगून सोंपयली आनी व्हदळचेमशेन उठून बेस्टोच भायर एक पासय मारून आयलो. आतां सगळयाक गुपाट काळोख जाल्लो.

– म्हाका एके गजालीचें अजाप दिसता.

जाणटेल्यान हुस्कार सोडीत म्हळें.

– कसले ?
– गोरवांक मारपी खाटीक मनशांक कसो मारपाक शकता ?
– कित्याक मारुंक शकना ?

वाटसुऱ्यान काळखांतल्यानूच प्रश्न केलो.

– तशें जालें जाल्यार तो व्यवसायानूच खाटीक न्हय. सभावानूय खाटीक आसचो पडलो.
– कितें फरक पडटा ?
– खूब पडटा. मनशाक मारपाचो जाल्यार दुश्टपणांक लागूनच मारचो पडलो. गोरवांक मारतात तीं दुश्ट म्हूण न्हय. खावपाची वस्त म्हूण. तुमी कुंकडा, बोकडे मारीना ? मारून खायना ? खूबे तिसऱ्यो कल्लयना ? तसो खारव्यांत आनी खाटकांत कसलो फरक आसा ?

वाटसुऱ्याक ताची समजावणी पटली पूण ताच्या उतराचेर ताचो विश्वास बसलो ना.

– तूं दिवो कित्याक पेटयना ?

वाटसुऱ्यान जाणटेल्याक विचारलें आनी मागीर ताका दिसलें, आपणे गरजेभायर ताका सांगलें.

– तुका जाय तेन्ना पेटय.

वाटसुऱ्यान परत म्हळें. ताचो आवाज सुकिल्लेवरी जाल्लो.

इतले म्हणसर जाणटेल्यान दिवो पेटयिल्लो. पेत्रोलाची चिमणी हाडून ताणे वाटसुऱ्यामुखार दवरली. तिचो भगभग जालो. घरांतलो काळोख पैस जालो आनी पडिल्ल्या उजवाडांत धूंवर मिस्तूर जालो.

– हांगां वीज पावूंना ?

वाटसुऱ्याक विशयूय बदलपाक जाय आसलो म्हूण ताणे विचारलें.

– गांवांत पावल्या. हें घर गांवापासून खूबच पैस. एकल्याखातीर हांगां कोण वीज हाडटा ? आनी जायतरी कोणांक ? म्हाका नाका. गांवांत वीज केन्ना आयली जाणां ? म्हाका घट याद आसा. याद येवपासारखेंच घडलें त्या दिसा. गांवभर खांबे उबे करून जाल्ले. मागीर तांचेर सरयो ओडून जाल्यो. एका दिसा सगळ्या गांवभर चक्क करुन उजवाड पडलो. गांवभर फुगोटचो पेटल्यो रातचो फक्त ह्या घरापुरतो काळोख. बाकी सगळ्या गांवांत विजेचे दिवे.
– याद उरसारखें कितें घडलें त्या दिसा ?

जाणटेलो विसरत म्हूण वाटसुऱ्यान ताका मदींच याद करून दिली.

– ते राती म्हजो तो मनीस, जाचे हांव बैल कापून कमायतालों तो म्हाका सोदीत आयलो. तो खोशयेंत आसलो पूण म्हजेखातीर चिंतेस्त जाल्लो. ताणे सांगलें, सरकारान उकते सोगींत गोरवां कापपाक बंदी घातल्या.

सरकार आर्विल्ल्या साधनांनी आनी सुवातिनी ह्यानफुडें गोरवां कापपाक मान्यताय दितलो आनी गोरवांचें मांस गांवागांवानी गाडयांनी पावोवपाची व्यवस्था करतलो. अशे एके गाडयेंत बसून मास वितरावपाची नोकरी ताका मेळिल्ली. तो खूबच खोशयेंत आसलो. म्हजेखातीर मुजवण दिवन तो आयलो तसो काळखांत धांवत धांवत परतलो आनी गांवच्या उजवाडांत पावलो. म्हाका दिसलें, गांवात आनी म्हज्यांत आतां खूब अंतर निर्माण जालां. हांगां काळोख जाल्यार थंय उजवाड.

– आतां तुजें कित्याचेर चलता ?

वाटसुऱ्यान ताची काकळूट करून विचारलें.

– पोरसांतले भाजयचेर. खावपाची खातां. उरिल्ली विकतां. तिचेर भागता. जाणटेपणांत पोटाची खळीय अशीर जाता.

उलयतां उलयतां तो उठलो आनी भितर गेलो. आतां ताका जेवण रांदपाची ताकतिक लागली.

-- हांव थोडीभोव मदत करूं ?

वाटसुऱ्यान विचारलें. खरें म्हळ्यार ताका इत्सा नाशिल्ली.

– नाका. तशें जेवण कितें व्हडलें न्हय. शीत करतां. दाळचो रोस, आनी भाजी. चलतलें न्हय ?

– खूब जालें.

– हरशीं तुजें जेवण कसलें आसता ? कितें आवडटा ?

– खास अशें कांय ना.

– म्हज्या पुताचेंय अशेंच आसलें. तो वचचे आदीं निमणे राती हांवें ताका खूब अपुरबायेन रांदून वाडलो.

रात्तीर जेवण शिजत दवरून तो भायर आयलो. ताच्या हातांत फळां, भाजी आनी तोप आसलो.

– तुकां जाय जाल्यार तूं पाणट्यार न्हावन यो. जाय जाल्यार हांव वांगडा येतां. चिमणो घेवंया.

– नाकां, नाका.

वाटसुरो पाणट्यार न्हावपाचे कल्पनेन थरथरलो.

– हांव सकाळीं न्हावन आयलां.

– त्या पाणट्यार हांवें बैलांक न्हाणयल्या. हांव म्हजे इत्सेन आनी कश्टान मारच्या आदीं बैलांक न्हाणयतालों. खावपाची वस्त. सदांच धुवन पुसून खावपाक जाय. तुकां पाणट्यार वचपाक भिरांत दिसता जाल्यार हांव हांगाच तुका न्हावपाक उदक दितां. न्हावप धुवप वायट न्हय.

हातांतलीं फळां ताणे तोपांत घुलीं आनी भितर व्हरून चिरपाक बसलो.

'सुरी गोरवांचे मानेरआनी फळांचे मानेर-फरक कितें पडटा ?'

आपले आपूण तो ओठांतल्या ओठांत गुणगुणलो. वाटसुऱ्याक आयकूंक येवचे येद्यान ताणे म्हळें,

– मनशाचे सभाव बदलता पूण बारीक सारीक संवयो बदलना.

– कित्याखातीर म्हणटात ?

– म्हजेच खातीर. भाजी कातरतना लेगीत हांव मांस कशेंच कातरतां. सगळें खबर आसून. भितर हाड ना हें खबर आसून लेगीत नेटान धपको घालतां.

वाटसुऱ्याक ताचें खरेपण कळून आयलें. सगळी भाजी ताणे तशेंच तरेन कापली.

– म्हजी आनीक एक संवय.

– अं ?

– सकाळीं उठून हांव म्हजो पाळ पाजून दवरतां. खबर आसा हरशीं – आतां गोरवां कापपाचीं ना. तरी पाजून दवरतां.

– पाजिल्लो पाळ मानेर चलोवचोसो दिसना ?

– खूब दिसता ! पूण ...

जाणटेल्याचीं फुडलीं उतरां रात्रीतल्या धुंवरान गिळ्ळीं. धूंवर ताच्या नाकपुडयांत गेलो आनी ताका खांक आयली.

कांय वेळ शांततायेन गेलो. कसली जाग ना म्हण वाटसुऱ्यान ल्हवूच भितर पळयलें. जाणटेलो लक्तुबायेन पाळाचे धारेर बोटां भोंवडायतालो. खीणभर तो भायल्या वाटसुऱ्याक विसरून गेल्लो अकस्मात तो भानार आयलो आनी मागीर आदलेबरी व्हांवतो व्हाळ कसो उलयत रावलो.

– लोक समजतात, हागां गोरवां आयल्यार हांव तांकां मारुन वडयतलों. गोरवां वासरांक हेवटेन सोडिना ते सोडिना. भुरग्यां बाळांकूय सोडिना. म्हजो कसलो गुन्यांव तेंच म्हाका कळना. म्हाका त्या खुनाची सुपारी मेळटाली ती घेवन जर हांवें पैशे केल्ले जाल्यार लोक म्हाका असो कडेक वडोवचे नासले. तुकां कितें दिसता ?

– तुमी केलें तेंच बरोबर केलें.

वाटसुऱ्यान सांगलें.

– तूं म्हगेर रावलो तें म्हाका खूब बरें दिसलें. जांव, एकल्यान तरी म्हजेर विश्वास दवरलो.

जाणटेल्यान भायर येवन ताका जेवपाक उठयलो. भितर व्हेलो. जेवपाक बसयलो आनी आपल्या हातान वाडपाक लागलो.

– बैलाक मारच्या आदल्या दिसा हांव आपूण जावन ताका खावड घालतालों.

वाटसुऱ्याक उस्तुरें गेलें.

– उदक पी.
– अं.
– उपाशीं पोटार गोरवांक मारप हें मनीसपणा भायलें काम. हांवें तें केन्नाच केलें ना. तूं पोटभर जेव.

वाटसुऱ्याक परतून एकदां उस्तरें गेलें. जाणटेलो ताका उदक पिवयत रावलो पूण गोरवां कापपाचो विशय ताणे बंद केलो ना.

वाटसुरो भकाभका करून जेवलो. फाटोफाट जाणटेलोय जेवलो. न्हीदपाखातीर वाटसुऱ्याक सोप्याचेरुच हाथरूण पातळून दिलें. जाणटेलो भितर न्हीदपाक गेलो. वाटसुरो अर्दी न्हीद अर्दी जाग अशे अवस्थेंत उरलो. भितर जाणटेलो अर्दी मर्दी घोरेवपाक लागलो.

वाटसुऱ्याक मध्यानेच्या पारार एक विचित्र सपन पडलें ... जाणटेलोसो ताका खूब खूब वाडटा. ताचें पोट जड करता. आनी ताका घट्ट धरता. तो बोबो हुयेली मारता पूण आवाजूच भायर सरना. जाणटेलो ताका उखलून पाणट्यार व्हरता. व्हाळांत बूचकळावन नीवळ बरो करता. वयर काडून उकते सोगींत ताका दवरता आनी पाळ वयर उबारता. तेसरशीं वाटसुरो किळांच मारता. पूण आतांय आवाज भायर सरना ...

... आनी वाटसुरो खडबडीत जागो जालो. पळय जाल्यार काळखांत जाणटेलो उबो. जनेलांतल्यान भितर पडपी चान्न्यांत वाटसुऱ्याक जाणटेल्याची मूर्त स्पश्ट दिश्टी पडली. ताका दिसलें, ताच्या हातांत पाळूच आसा.

जाणटेल्यान हातांतली चादर वाटसुऱ्याच्या आंगार घातली आनी गेलो. वाटसुऱ्याक जाग आयल्या तें जाणटेल्याच्या ध्यानी मनीं नासलें.

वाटसुऱ्याची न्हीद खळ्ळी. हयन्हयशी लकण येता म्हळच्यार तो जागो जालो.

फांत्यार जाणटेलो उठलो. ताचे जागीन वाटसुरो सारखो जागो जालो. निसाण्याचेर पाळ पाजता तो आवाज ताका आयकूंक आयलो.

वाटसुरो उठलो. कांबुरचेली चादर हाथरुणाचेर मनशाचे आकृतायेन फुलोवन दवरली आनी ल्हवपीक पावलांनी भायर सरून झिळमिळट्या उजवाडांत नाच् जालो.

जाणटेल्यान रान्नींत उजो केलो. भोगुण्यांत उदकाक सळसळ काडून दवरलो. आनी वाटसुरो उठटलो तेन्ना च्याची पूड उदकांत घालतलो म्हण वाट पळयत बसलो.



९.

# बळजबरी

झाकडी मारूंक कोणूच मेळूंक नाशिल्ल्यान दोनेक वरां बेकार आशिल्ल्या अंतुल्यान तें सगळ्याआदीं पळयलें. कावळ्याची नदर हळशिकेचेर तशी. एक हाडकुटें गाढव एके सणसणीत गायेफाटल्यान लागलां. गाय काचाबूल जावन हांगाथंय धांवता आनी गाढव हातभर शेलें भायर काडून तिचेर चडपाक सोदता.

अंतुलो पयलीं कांय वेळ त्या देखाव्यान रंगलो. खीणभर आपुणूच गाढव जावन ते गायेफाटल्यान धांवलो. जेन्ना आनीक एकदोगांनी तो देखाव पळयलो तेन्ना मात अंतुलो खऱ्यांनिशी हातांत दांडो घेवन गायेच्या आदाराक धांवलो.

गायेची फाट सोडपाक गाढव कशेंच तयार नासलें. अंतुल्यान चार/पांच दांडे ताचे हाडकुटे फाटिचेर ओडले. तेसरशीं ताचो मद देंवलो आनी न्हिन्नळत तें पांय फांफारींत दुसरे वटेन धांवलें. गाय कान तायट करून पैस उबी रावन वता त्या गाढवाक तेळीत रावली.

अंतुलो दांडो हातांत घेवन परत आसलो थंय आयलो. भातसो खरशेल्लो. नकळटां ताच्या तोंडार हांशें उदेलें. आज दीसभर झांकड्यांक पुरो इतली खबर ताणें दोळयां पळयिल्ली.

धोराच्या वासान हिरांटे येवंचे तशे गांवांतले आलमपेड्ड्यार, बेकार, अर्दबेकार लोक अंतुल्याम्हऱ्यांत येवन ते खबरेचो वास घेवन वताले. चिऱ्यांकारालें गाढव सख्याले गायेफाटल्यान लागिल्लें होवूय पेंत आतां मेकळो जाल्लो. मुखावयल्या मनशाक पळोवन देवस्पण सांगपी घाडयाबशेन अंतुलो आतां ती खबर मनशाप्रमाण चड अदीक म्हत्व दीवन सांगतालो. ताचे पिरायेच्या तरनाट्यांक तेभशेन रंगोवन, जाणटेल्याक गायेची काकळूट करून, भुरग्यांक आपले शक्तिचीं वर्णनां करून. कांय वेळां उपरांत ते खबरेक बरीच सूज मारली. खबर आयकनाफुडें हांसपाचें आनी गाढवावयल्यान मस्कऱ्यो मारपाचें प्रमाण उगें जालें आनी

दनपारचो वगत जातां जातां खेबरेन अचकीत गंभीर रूप आपणायलें.
– तशें जाल्यार ही भयंकर वाइट जजाल.

पचीन पानाची पीक भायर वडयत सख्याहुजीर सांगलें.
– आरे, अंतुल्यान पळोवंना जाल्यार केदो अनर्थ जावपाचो ? गाढव आनी गायचेर? फाल्यां तें तुज्या ...

पिकोवांगडा मुखावयलीं उतरांय ताणें थुंकून वडयलीं.
– तुमकां हांसपाक कांय न्हू.

हांसपी लोकांक पचीन शिटकायलें. मागीर हांसपी आपशींच वगी पडले. पचीवरीच ताणी आपणाल्या मुखांर गंभीरतायेचीं पुटां चडयलीं. आतां वातावरणाक अनर्थ घडिल्लेया उपरांतची सया मारूंक लागली.
– आरे, आमी भारतीय हिंदू गायेक कितले पवित्र मानतात ?
– गायेचें मूतलेगीत पितात.
– मूत न्हय गोमूत्र. सणांपरबेक पयलें पान कोणाक दवरता ? गायलेक न्हय ?

चर्चेक गती आयली. गायची व्हडवेक गावपाक कोणांक केन्नाकाळा वाचिल्लें – आयकल्लें गिन्यान उपकाराक पडलें. इतल्या बोवाळान सखो वगीच आसलो. हे चर्चेत ताचेंच मत म्हत्वाचें आसलें कारण खरो अन्याय तागेले गायेचेर जाल्लो. पूण ताका इतलो पिकयतकूच तो तरी कसो वगी रावत. हरशीं दुसऱ्याचें मूत सुद्दां आंगार उसळ्ळयार तो गांवपणाची भाशा उलोवपी. आपलो निर्णय सांगपाक तो योग्य ते संदिची वाट पळयत आसलो.
– आतां फकत तोंडाची वाफ वगडावन घरा वचपाचें ? येन्नादर शादूर जातले कांय ना ? हेचेर कितें उपाय घेवपाचो ?

पचीन निमणी पीक भायर उडयत तोंडाचें बोळकें जिबेन लीप करीत विचारलें आनी सख्यान अितलो वेळ दामून धरिल्लो स्वास सोडलो.
– गांवपण आपोंवया.
– आं. आतां कशें जालें ?

सगळयांनी सख्याचें उतर फूल कशें वयलेवयर जिखून धरलें.

X X X

गांवपणाचो साद घालपाक धा जाणांनी देवळांत नेमियार केल्ल्या केसवान गांवभर साद घालो.
– सांजे गांवपणांक येयात.

हरशीं विचारिल्ल्या मनशाक तो गांवपणाचो विशय सांगतालो पूण आज ताणें तशें कांय विस्कटावन सांगलें ना.
' गांवपणांक येयात. मागीर कळटलें ' सामकोच कोण खट फाटीक लागतकूच ताणें सांगलें – ' अनर्थ जाला. गायेफाटल्यान गाढू ... ' फुडलीं उतरां ताणें चांचावन

खाल्लीं.

तिनसांज दाटत आसतना गांवपणाची खबर गांवभर पातळत गेली.

गांवच्या गांवकारांक नेट आयलो. गांवाचे जापसालदारकेची तांची भावना चड गाड जायत गेली. चिऱ्यांकारासारखो दळिद्री मनीस दुसरो गावांत नासलो. तरी लेगीत ताचो दुस्वास करपा गावांत आसले. तांणी खावचे दांत वेगळे आनी दाखोवचे वेगळे हे नितीन गजालींक बरींच फोडणां घालीं. व्हांवते गंगेंत हात धुवून घेवपाच्या यत्नांक सगळेच लागले.

देवळांत जावपी गांवपणांआदीं वेंचीक गांवकाराचें गांवपण जालें तें दादिल्या बल्कावांर. अर्थात खंयच्याय गांवपणाची येसाय हांगाच जाताली. सगळे आपलीं मतां पयलीं दादी मुखार उक्तायताले. मागीर देवळांत वतकूच दादी सगळयांचे वतीन उलयतालो आनी मागीर हेर सगळे दादिच्या तोंडांतल्यान येता तो आपलोच आवाज अशा अर्थान तकल्यो हालयताले.

आंगोस्तराचो शेव खांदार वडोवन दादीन हालींच पिकिल्ल्या केंसांतल्यान हात भोंवडायत बल्कावांर कुलो तेंकयलो तशे सगळे गांवकार वांगडाच उलोवपाक लागले.

– अनर्थ !

– विटंबणा !

– धर्म बुडटलो !

– कलंक !

– गाढव गावांत आसचेंच क्त्याक ?

– गाढवाच्या धनयांक पानवळ जाय.

– सामकें खर.

दादीन सगळयांचें म्हणणें आयकून घेतलें.

– सगळें देवळांत थारावंया. पूण आतां इतलेंच सांगतां – ह्या प्रकरणाक जो कारण जाला ताका खरांतली खर ख्यास्त धा जाणांनी भोगोंवकूच जाय.

सगळयांनी दादिचें उतर फुलापरसूय ल्हव करून वयल्यावयर जिखून घेतलें.

x x x

गावांत, सगळयांत निमाणी ही खबर चिऱ्यांकाराच्या कानार पडली. आमोरेच्या वेळार तो खोंपटांत भितर सरतालो इतल्यान ताची धूव पांय ओडीत धांवत धांवत आयली आनी तिणेंच ती खबर बापायच्या कानार घातली. बापायचो आवरो उडलो. अशें कितें घडत हें ताणीं कदीमकाळा येवजूंक लेगीत नासलें. कित्याचें धंगण नासून ताणें तशोच शेळ आयिल्ले जमनीर थपकल मारली.

हरशीं ताका गाढवाची कसली कटकट नासली. आसल्यार कितेंय वडयलें

फुडयांत. नाजल्यार गावांतलो व्हारो उस्तून तें आपलें पोट भरतालें. सदाच बांदून दवरपाची गरज भासनासली म्हळयार जाता. तशें सभावानूय बाबडें जनावर. केन्नाय गांवांतले अवचीन्न पोर गाढवाचे शेपडेक लात बांदून ताका धांवडायतालें आनी मागीर चिन्यांकारालें लंगडें पोर पांय ओडीत आनी पोरांक खेपेत गाढवाक थांबोवपाक धांवतालें. हांसून हांसून पोरांचो मुड्डो जातालो पूण तो देखाव पळोवन चिन्यांकाराच्या काळजाक पिंवळ पडटालो. गाढवाचे हाल आनी धुवेची काकळूट ! गाढवाक कोणाच्याय हाताक लावपाचेय विचार ताच्या मनांत येतालें. पूण धुवेखातीरूच तर ताणें गाढवाक विकतें घेतिल्लें.

पांचेक वर्सां आदींची गजाल ती. तळयाकडले खणींत चिन्यांकार चिरे मारतालो. बरेच चिरे मारपाचें कंत्राट ताका मेळिल्लें. चिरे फुटून जाल्ल्या करपांकूय दर आयिल्ली. दादिनूय मानस आनी बांद बांदपाची पावणी व्हेल्ली. गाढवांचो मेळ घेवन घाटारसून आयिल्लें एक कुटूंब खणीरसून न्हंय कडेन चिरे व्हांवोवपाचें काम करतालें. धायेक गाढवां ह्या कामांक बांदिल्लीं चिन्यांकारान चिरे मारून गाढवांचे फाटीर घालपाचे अशें थरयिल्लें. काम बेगीन जावन पैशे चड मेळपाचे आस्तेन चिन्यांकारान बारा तेरा वर्साच्या पोराक, चिरे गाढवांचेर घालपाच्या वावराक लायलें. आनी दुसऱ्याच दिसा चिरो पायांर घालून पोरान पांय मोडून घेतलो. चिरे मारून जोडिल्ली अर्दीअदीक जोड बापायन धुवेच्या पायांचेर खर्चिली. घावो पेकलो पूण पोर लंगडेंच उरलें. त्याच वेळार चिन्यांच्या वावराक वेळाकाळाक उपकारत म्हूण चिन्यांकारान एका गाढवाक मोलायलें. आनी गांवांतूच दवरलें. भटावाडयार कूंकड तशें ते गांवांत नदूंक लागलें.

— तुकां धा जाणांनी आज देवळांत गांवपणांक आपयला.

केसवान सगळयांन निमाणे चिन्याकारक सांगलें आनी ताचे जापेची वाट पळयनासताना तो वाटेक लागलो.

'कसलो सांवार येयला ह्या जनावराचेर.' आंगणान देडकेंन उबें आशिल्ल्या गाढवाक शिरापीत ताणें पोराक उलो मारलो.

— जनी ऽऽ.

x x x

देवळांत उत्सवाक जायना इतली गर्दी जाल्ली तरी आसताना एकटो एकटो येत आसलो. उसरां येवपी मुद्दम मदल्यान देवळांत भितर सरतालो आनी देवाक पायें पडून देवळांत बसपाक सुवात सोदतालो. भितर सरपी दर एकलो आपली हाजिरी कितली म्हत्वाची हें दाखोवपाकूच आयिल्लेभशेन दिसतालो.

देवळांतलो पुजारी गोवर्धनभट दर एकल्याक पळोवन दोळो मोडून मुमुरख्यांनीच हांसतालो. ताच्या जिवाक बरोच चूटपुटे पडिल्ले. ही खबर ताका आदींच कळिल्ली जाल्यार तो कोळयांत उस्तून पोण्र्या धर्मग्रंथांतली गायेची

व्हडवीक गावपी आनी गाढवाक हीण लेखपी दोन तरी सुभाशीतां वा मंत्र चारचौगांक वाचून दाखयतलो आसलो. तरी आसतना ताणें तकली बरीच खरपिली पूण थरिल्ल्या सदच्या मंत्रांशिवाय ताचे तकलेंत कांयच आयलें ना.

– धर्माक लांच्छन !

दोग तीग जणांकडेन ताणें इतलेंच म्हळें आनी वर्सांसंकिनी उमळूं नाशिल्ल्या सवळ्याक हात पुसलो.

आपले पद्धतिप्रमाण दादी सगळ्यान निमाणीं देवळांत भितर सरलो. सगळ्यांच्यो नदरो ताचेवशीन वळ्ळयो. बऱ्याच जाणांनी उबे रावन ताका मान दिलो. वाट तर दिलीच बसपाक, सुवातूय दिली. दादीन देवूळभर नदर घुंवडायली. सगळे आपलीच वाट पळयत रावल्यात म्हणपाचें ताका कळ्ळें. तो उठून मदें चौखार आयलो. उलोवपाचे तयारेन उबो रावलो. मुद्दम घसरूंक दिल्लो आंगोस्तराचो शेव ताणें उजव्या खांदार वडयलो. पिकिल्ल्या केंसांत हात भोंवडायलो.

– धा जाणांनी गांवपण कित्याक आपयलां तें हांवें परत सांगपाची गरज ना.

लोकांचे फक्त स्वास सुटटाले.

– तरी आसतना परत एकदां सगळ्यांक कळ्ळ्यार बरें.

दादीन गर्देतल्या अंतुल्याक बोट दाखयलें आनी ताका देवामुखार रावन खरें कितें घडलां तें सांगपाक लायलें. अंतुल्यान एक ल्हानशें भाशणूच केलें. केन्नाच संद मेळूंक नाशिल्ली. ताच्या बराबरच्या हेर तरनाटयांक कांय वेळ ताचो दुस्वासूय दिसलो. अंतुल्यान घडिल्ली गजाल सांगताना खंयच कितें उणें पडूंक दिलें ना.

अंतुल्यान घडिल्ली गजाल सांगतकूच सख्यानूय चार उतरां उलोवपाचो यत्न केलो. मात चिऱ्याकाराविशींचो दुस्वास उक्तो जावचोना हाची ताणें जतनाय घेतली. मदीं थोडी चर्चा जाली. दीसभर झरोवन झरोवन गुळगुळीत जाल्लीं तींच उतरां अदलून बदलून एकामेकांच्या तोंडातल्यान भायर सरलीं.

मागीर चिऱ्यांकाराक मुखार येवन आपली बाजू मांडपाक दादीन फर्मायलें.

चिऱ्यांकार थतर बितर जालो. कांयवेळ उतरांच जुळना जालीं. रडपाकडेन पावलो.

– आतां रडकीं संवगां कित्याक ?

– गाढवाक पोसताना कळनासलें ?

– आमी पिशे म्हण गाढवां पोशिनात ?

– गांवाक पाड घालपाक मुखार सल्ला ?

– जातीभायर दवरात.

देवळाचो कोनशान कोनसो फुतफूतपाक लागलो. चिऱ्याकाराची अवतिकाय

सामकीच बाबडी जाली.
– हांव चूक मागतां. धा जाण दितात ती ख्यास्त भोगतां. म्हाजे धुवेक आनी म्हाका मात रस्त्यार बडोवं नाकात. पोर कोणाच्याय हातीक लागपाक जाय.

चिन्याकारान वाल्यान दोळे पुसले. चिन्यांकाराची धूव जनी एका खांब्याकुशीक आंग चोरून उबी आसली. इतले गर्देनूय दादीन ताचेर नदर मारली. चिन्यांकार सामकोच गळवश्या येवन धा जाणांकडेन भोगसुणी मागपाक लागलो.
– संवंगा ! संवंगा !

धा जाणांनी चिन्याकाराचें संवंग सामकेंच बिटयलें. कोणूच ताच्या पाक्तार गेलो ना. कोणाकूच ताची काकळूट आयली ना. ताणें कोणाचें खावंक नासलें. पूण तेचबराबर ताणें कोणांक दिवंकूय नासलें. निमाणों ओडूनच म्हणटा तसो चिन्याकाराक कुशीक काडलो. आतां चर्चा निमण्या निर्णयाचेर थेताली. धा जाण सांगता ती ख्यास्त चिन्याकाराक भोगतली आसली.

सगळयांचे दोळे आतां दादिचेर थिरावल्ले. दाद अदीक गंभीर जाल्लो. धा जाणांनी दादीक निर्णय दिवपाचो अधिकार दिलो आनी आपलें काम सोंपलें अशें मानून सगळे आपापल्या जाग्यार वचून बसलें.

दादीन अेक नकसूद भाशण दिलें.
– भावांनो आनी भयणांनो,

एक व्हडलें काम तुमी म्हजेर सोंपयलां. निर्णय दिवपाचें. पूण हांव हो निर्णय दीतना कुड्डेपणां करचोना. हावें कोर्टांतसुद्धां आर्त्याचें पर्ते करुन बऱ्या बऱ्या कुळांक खुळां केल्यांत हे तुमी जाणात. पूण आयज हांगा देवामुखार निर्णय दितना म्हाका म्हज्या काळजाक हात घालुनूच निर्णय दिवपाक जाय.

आमच्या धर्मांत गाय कितली पवित्र हें आमी जाणां. गोवर्धनभट तें बरेतरेन सांगतलो. पूण हेच पवित्र गायक आमच्या समाजांत मारून खाता म्हण तुमी जाणां ?

गायेक माल्ल्यार आमी वगी रावता जाल्यार गायेचेर गाढव चडल्यार येदो व्हडलो बोवाळ कित्याक ?

आनी अंतुलो सांगता तेप्रमाण गाढव गायेच्या फाटल्यान लागिल्लें इतलेंच. मुखार कांय घडूं ना. पूण हातूंत गाढवाचो तरी गुन्यांव आसा ? गावांत एकटोच तो गाढव. तेका सांगाती नाका ? तुमी आमी लग्नां कित्याक जातात ? आनी ख्यास्त दिवपाचीच जाल्यार गाढवाक दिवं येता. पूण ताका कसली ख्यास्त दीतलो ? जल्माचोच गाढव तो. देवान ताका गाढवाचे जातींत जल्माक घातला ही सगळयान व्हडली ख्यास्त न्हय ? आनी चिन्याकाराक कसो दोशी धरूं येता ? गाढव ताणें आपल्या पोटाखातीर हाडलां. ताचे फाटीर मारूं येता. पोटार कशें मारतले ? आमच्यांनी इतलेंच करूं येता, ताका सांगूया-गाढवाचो नीट सांबाळ कर. ह्यानफुडें

अशें घडपाक जायना. म्हाका दिसता ताचे धुवेचो फुडार चिंतून आमी असोच निर्णय घेवंचो आयच्या सुधारिल्ल्या काळांत होच निर्णय सोबून दिसतलो. नाजाल्यार अन्नाडचांचें गांवपण म्हण लोक आमकां हिणसायतले.

दादी भाशण सोंपोवन बसलो. कांय वेळ कोण कांय एक उलयलो ना. पुण दादिच्या मताआड कोणाक वचपाचें नासलें. परवडपासारखेंय नासलें. सगळयांनी एका तालार तकल्यो हालोवन दादिच्या म्हणण्याक हयकार दिलो आनी दीसभर धोस घालून हेंच थारावपाचें आसले अशें मानून सगळे घरचे वाटेक लागले.

चिन्याकार धन्य जालो. दादिविशीं खूब वायट – बऱ्यो गजाली ताच्या कानावयल्या गेल्ल्यो. दुसऱ्याच्या घरार सुणी चडोवपी आनी आंवळो दिवन कुंवाळो काडपी म्हण ताणें आयकल्लें पुण आज दादिचें खरें चित्र ताणें पळयलें. प्रत्यक्ष देवळांतलो देव आपणांक दादिच्या रूपान पावलो अशें ताका दिसलें.

लोक पातळ जाले तसो तो दादी म्हऱ्यांत गेलो. फाटोफाट जनी पांय ओडीत आयलें. ताणें दादिच्या पांयार घालून घेतलें पूण दादिनूच ताका उबाल्लो.

– तुजे उपकार

– आसूं. आसूं रे. नांव कितें हाजें ?

– जनी ...

X X X

देवळांतसून येवन मद्यानेर चिन्याकार खोपींत भितर सल्लो. जनीन दिवो पेटयलो. आनी तें खोपींत बसलें. चिन्याकारान दोरी काडली आनी तो आंगणांत आयलो. गाढवाच्या गळयांत ताणें दोरी घातली आनी गाढवाक खुंटयाक बांदून घातलें.

पावलां वाजलीं म्हण ताणें फाटीं वळून पळयलें. पळय जाल्यार आंगणांत दादी उबो.

– दाद !

ताणें अजापान हडकिलो.

– जनी खंय ?

आनी दादी ताचे जापेची वाट पळयनासताना खोंपींत रिगलो.

भितल्ल्यान ताणें कवडी लावन घेतली. जनीन एक किळांचशी माल्ली. दिवो वाडवलो. चिन्याकार उबो आशिल्लेकडेक सैमां आयिल्ल्यावरी जालो. मान धुंवडायत हांगा थंय नदरेन झळपेत रावलो. ताचे नदरेक एक दांडो पडलो. ताणें दांडो उखल्लो. कांतरे पडसर दांतानी ओंठ चाबडायले आनी सपासप दांडे ताणें गाढवाचेर ओडपाक सुरवात केली. ओठांतल्या ओठांत तो गाढवाक शिरापूंक

लागलो.
– पाडपडलेल्या ! तुज्याखातीर हें घडोंक पावलें.
गाढव बांदिल्लेकडेन काळीज फोडपी हुयेली मारपाक लागलें.

X X X

आनी मागीर अर्दी – मर्दी आत्र्यापयऱ्यान चिऱ्याकार असोच असाह्य जावन गाढवाक घेटपाक लागलो.



## १०.

# जैत

"मुरगो तो. आसत धा-बारा वर्साचो. वेटर म्हण हॉटेलांत आसलो. हालींच लागिल्लो आसूंक जाय. नाजाल्यार असली चूक ताच्या हातसून घडची नासली. चूक तरी कसली ? गिरायकाक च्या हाडून दितना ताचो हात थरथरलो. च्या गिरायकाच्या आंगार ओतपाची पूण हाणे तितलें तरी धंगण राखलें आनी च्या आपणाल्याच आंगार ओतोवन घेतली. सामकी पोटार. आपणाली कंवळी कात हुलपल्या ती पळोवपाची संदूय ताका मेळ्ळी ना. हॉटेलाचो धनी सडसडीत गल्ल्यावयलो देंवलो आनी त्या पोराक थापटासरशीं जमीन दाखयली. सगळीं गिरायकां हें पळोवन चकाचूर! कोणाच्यान कितें करूं येता ? पूण कोनश्याक च्या पीत बशिल्लो एक तरनाटो उठलो आनी दुखावल्या नागावरी फोंस घालीत धनयाच्या आंगार झुडोन गेलो.
— तो केदो ? तूं केदो ? ताची चूक केदी ? आनी ताका ख्यास्त केदी ?

एका एका उतराकणकणी ताणें धनयाचेर मेळटा थंय थडाथड थापटां फुलयलीं आनी नेटाभरशीं ताका हॉटेलांतल्या दारांतल्यान पेल्ल कसो भायर मोखलो. एके विजेच्या कॅणासारखी ही गजाल घडली. धनी आंग सांसपीत उठलो तेन्ना ते गजालीक कारण जाल्लो तो तरनाटो, गवाय आशिल्लीं तीं गिरायकां खंयचे खंय ना जाल्लीं."

विजयान गजाल सांगून सोपयली तेन्ना सगळ्यांनी ताळयो मारल्यो. सगळे तरनाटे सांकवार बशिल्ले. पोंदच्यान ऱ्हाळ व्हांवतालो.

— ही गजाल खरी काय काणी ?

अनंतान दुबावान विचाल्लें.

— काणी कशी दिसता ? समज, त्या तरनाटयाचे सुवातेर तूं आशिल्लो जाल्यार कितें करतलो आसलो ?

विजयान शिवाचेर नदर मोखली.

– सांगू ?
– सांग.
– ताणे मारलीं ताचेपरस धा तरी दापटां चड मारतलों आसलों.
– पुण हांवेंन तितलींच मारलीं.
विजयान शांतपणान म्हळें,
– म्हणजे तो तरनाटो तूंच ?
सगळ्यांक अजाप जालें आनी खूबशी खोस.
– हांव शारांत वचून कॉलेज करतालों तेन्नाचो खबर.
सगळ्यांकूच दिसलें, ही गजाल आपल्याच जिवितांत घडल्या आनी अन्यायाआड झुडोन गेल्लो तो तरनाटो आपुणूच आसलो. ती गजाल आतांच घडिल्लेभशेन जण एकलो आपले भितर खोशयेन भूरकूटलो. तांची शिरंनरां आपसूक फुलून आयलीं. सांकवागोंदच्या व्हाळाचो खळखळ आनी तांच्या शिरांतल्या रक्ताचो वेग एक जालो.

X X X

जानकी आदोळेचेर तन्नो केळीं शिनतालीं. दोगांय भुरगीं भायर आंगणांत बोवाळ घालून खेळटालीं. अकस्मात तांचो बोवाळ थाल्लो. व्हडलो चलो भेंडावयली चेड्डी सांवरीत धांवत भितर आयलो.
– आवय, भायर कोण ?
भुरग्याच्या आवाजान जानू घरांतल्यान पडवेर आयलो. तसोच भायर आंगणांत.
– कोण ?
– तुकां बाबान आसा तसो आपयला.
निरोप दीवन तो आसा तसो परतलो.
– कोण येयल्लो ? कित्याक ?
जानकीन केळयाची साल सोलीत विचारलें.
– बाबान खंय, आसा तसो आपयला. खरें म्हणजे येन्नादर तेच्या पांयांकडेन पावपाचो पूण तुजीं हांयची कामांच सोंपना.
जानू थतर – वितर जावन उलयलो आनी उलयतां उलयतां ताणे खुंट्येवयलें खोमीस आंगार लकयलें. दाणयेवयलो तुवालो खांदार वडयलो. पावळे भायर सरताना ताचो ओणोव सारखो पडलोना. खट् करून तकली वयर आदळ्ळी. वांगडाच धोंग आयलें.
– वयर वचोन येतां.

आंगणांत रावन पावळेभीतर तकली बागयत ताणे बायलेक सांगलें.
– तुकां हे तें हातीक कितें जालें ?

तकलेक सणसण सोंसू नजो जावन कपलाक मिरयो घालीत ताणे विचारलें.
– कांय ना. आदोळी लागली.

तिणे रक्ताची पर्वा करिनासताना हात पालवाक पुसलो. तिच्या तोंडार चितेचीं कुपां दाटलीं.

जानू गडबडयां चलपाक लागलो. ताच्या दोळ्यांमुखार बायलेच्या हाताचें रक्त पगळपाक लागलें. आंग शीरशीरलें.

सकयल्या वाडयाच्या निमाण्या पोंताकसून तो सामको वयल्या पोंताक पावलो. वाटेर कोणे कोणे ताका हटकिलो पूण फक्त जापेक जाप दिवपाबगर ताणे आनीक उलोवणें वाडयलें ना.

आतां तेमयेर वचपाचे वाटेर तो पावलो. हरशीं तेमी चडटां चडटां तो घामेतालो. आतां तेमयेच्या मुळांतूच ताका शेळो घाम फुटलो.

... कसली अवदिसा येवजली हिका तन्न्या केळ्यांची भाजी खावपाची ? कुळवाडयाल्या बायलांक कोणें सांगल्या असले धुवाळे ! पयल्या गुरवाचाराच्या वेळार केली एक अपुरबाय ! पूण हांवच पडलों दुबळों. पाड पडू म्हजें. म्हज्यान पोटाचे हाल पळोंव नजो. कोणेय म्हज्या फाटीच्यो सालत्यो देंवयच्यो पुण निदान पिकिल्ल्या केळ्याची सालतरी पोटाक धरूंक दिवची. तेचो हांव उपकारी.

... लक्ष्मीकांताचे तशे उपकार सुमाराचे न्हू. दीसवाडयाच्या हिसपाक पडली पाड. पूण आयची पड हाडपाक मर ना. तेगेर सदां कसलें ना कसलें तरी काम आसताच. हांव तेगेलो सामको घरचो मानाय. बाय – तेची घरकान्नूय बरी. अडीअडचणीक समजून पावता.

... घडावलें कापता म्हूण कालूच तेका सांगपाचें. पूण यादूच उरली ना. परत आयज सकाळींतरी उगडास उरपाचो ? ना.

... तेका सांगलेबगर कसलेय वस्तूक हात लावप म्हणजे हातूच वगडावप.

... भंय आसा पूण लज ना अशी आमची गत. राणेचो म्हण आनी पोटभर वाड. आतां पळोवया कसली वाडी आसा ती.

चलतां चलतां जानू फातराक आदळ्ळो ... पाड पडूं ! रगत येयलें. आयज सगळें तांबडें. ढेंजर !

भिरांत उणी करपाक मनांतल्या मनांत ताणे हांसपाचो यत्न केलो पूण ताका तें जमलें ना.

तेमयेवयल्या लक्ष्मीकांताच्या कुळागरांत ताणे पावल मात दवरलें, ताच्या कानांर साद आदळ्ळो.
– जानू, सुण्यान झवतरेच्या, हांगा यो.

जानू अेके गाळीवयल्यानूच कितें समजुपाचें तें समजलो.

धव्याफूल्ल आंगस्तराचो शेव खांदार वडोवन लक्ष्मीकांत ताका येवन भिडलो. जानूक वाचा फुटचे आदींच लक्ष्मीकांतान ताचे गच्चेक घट धरलो. व्हिजळत ताका कुळागरांतल्या दाण्यार व्हरून शेंवटिलो आनी केळीक हात लावन विचारलें,

– हेजें घडावलें कोणें मारलें ?

– हांये बाबा ...

जानून व्हिन्नळत तोंड उकतें केलें.

– सांगतां बाबा –

तोंडातल्यान उतरां फुटचे आदींच ताच्या दोळ्यांत दुकां दाटिल्लीं.

– सांगनासताना केळावल्याक हात लायलोच कसो ? दीसभर हांव नासो पळोवन असलीं चोट्टेपणां करता ?

लक्ष्मीकांताच्या एका थापटासरशीं जानू केळावल्लें कापिल्ले केळिच्या आळयांत पडलो. धडपडत ताणे उठपाचो यत्न केलो. दोळ्यांवयलो काळोख पैस सारपाक दोनूय हात कपलार भोंवडायले. दोनूय हातांचें रगत ताच्या तोंडाक माखलें. तसो काळजांतल्यान किंवाटलो.

लक्ष्मीकांताचो अच्छेवी अवतार तसोच आशिल्लो. जानू केळिच्या मुळांतलो उठटलो आनी आपूण परत ताका थापट मारून जमनीर आड वडयतलों म्हूण तो तयारेंत आसलो.

ओंठावयल्या रगताचे दोन थेंबे ताळ्यांत देंवतकूच जानू पिसावल्लेवरी जावन चवताळ्ळो. लक्ष्मीकांताक खांव काय गिळूं अशें ताका जालें. ताणे आशिकुशीक पळयलें. हाताक मेळटां तें कितेंय उखलून तो ताजेर घालतलो आसलो. पूण केळिच्या मुळांत कांयच नासलें. ताच्या उजव्या पांयाची व्हाण मात आंगठो तुटून चिखलांत पडिल्ली. जानून फाटफुडो पळयनासताना व्हाण उखल्ली आनी लक्ष्मीकांतावटयां भीरकावन मारली. तीर धरून ताणे ताच्या हड्डुयार मोखलेली पूण जानूचो तोल वचून तीर चुकलो आनी चिखलांत भरिल्ली व्हाण लक्ष्मीकांताच्या जांगडार बसली. धव्याफुल्ल आंगोस्तराचेर व्हाणिचो दाग उदेलो.

– लक्ष्मीकांत, राणग्याच्या तुकां हांव काबार करतलों.

जानूचीं उतरां लक्ष्मीकांताच्या काळजाक झोंबलीं. आंगोस्तराचो कांसाटो खोवन तो जानूवटयां धांवलो.

हाताकडेन कांय नासून जानून केळूच हुमटुवपाक केळीक वेंग मारली. संद सादून लक्ष्मीकांतान जानूच्या हड्डुयाबराबर एक नेटाची खोंट घाली. खोंटेसरशीं जानू हड्डुंभर उंचायेच्या दाण्यावयल्यान आर्तोपर्तो जावन सकल शेंवटलो. सगळें कुळागर आपणांभोवतणीं गरगर करून घुंवताशें ताका दिसलें. दोळ्यांमुखार ब्रीण

बोण्ण काळोख दाटलो.
– जा ... न ... की ...
ताणे रक्तेल्लें तोंड मातयेंत रिगयलें.

x x x

व्हाळाची खळखळ वाडिल्ली. गजान सगळी खबर एका दमान सांगून वडयली.
– तेचे बायलेन तेका पोटली कसो फाटकुळेर मारून घरा हाडलो. घरा हाडटकच जिव – वाचा येयली.
गजा आजून धांपेतालो.
– आमी कितें करूं येता ?
कितें तरी करपाक जाय अशा अर्थान अनंत आपले भितरूच सुस्कारलो.
– आमच्यांनी खूब कितें तरी करूं येता. एक भाटकार आमच्यांतल्या एका कुळवाड्याक असो मरसर मारता म्हणजे कितें ? शक्त जर ताच्या भुजांत आसा जायत जाल्यार ती आमच्याय भुजांत अवश्य आसा.
विजयाक कोण सारखे वळखना आसले जाल्यार तो एखादया नाटकांतले उलोवपूच भावनावश जावन उलयला अशें समजतले आसले. विजय रागाभरशीं सोंशेत सोंशेत सांकवावयलो उठलो, तशे तागेले वांगडी ताच्या उतरांची वाट पळयत ताचे भोंवतणी कुंवडाळले.
विजया फाटोफाट सगळ्या तरनाटयांचीं पावलां पडपाक लागलीं. सांकवा-वयल्यान वाड्यार पावसर विजयान सगळ्यांक, कितें करपाचें ताची समजावणी दिली. सगळ्यांनी मानून घेतलें आनी वाड्यावयल्या एका पोंताच्यान ताणी घरान घर भोंवून सांगपाक सुरवात केली.
... आयज लक्ष्मीकांत भाटकारान जानूक मरसर माल्ला. लक्ष्मीकांताआड आमी कुळवाड्यांनी कितें करूं येता तें थारावपाक आयज आमी रातचें मेळपाचें थारायलां. जेवणाच्या आदीं. चौखेर. सगळ्यांनी येवपाक जाय. आयज आपणांक लागना म्हूण येना आसताना रावशात – फाल्यां तुमचेर असो प्रसंग येंव येता. पळयात, येना आसताना रावशात.
पयलीं विजय सुरवात करतालो. मदीं थोडें शिवा सांगतालो. निमाणेकडेन अनंत परत परत शिटकायतालो.
कोण आतांच शेतांतसून वयर सरिल्ले. कोण गोठयांत गोरवांक बांदताले. कोण पसऱ्या वयल्यान सामान घेवन परतताले. बायलो रान्नी फुंकताल्यो. पेत्रोलाच्यो चिमण्यो पेटयताल्यो.

जानूक येतीश्ट मार पडला म्हणपाची खबर वाडोभर केन्नाच फांकिल्ली आनी मागीर हुनार हून तशी रोखडीच ही खबर.

... विजय आनी हेर तरनाट्या भुरग्यांनी चौखेर गांवपण आपयलां.

जानूची अवस्था पळयिल्ल्याक लक्ष्मीकांत भाटकाराचे दोळे फुटून राग आयिल्लो. मनांतल्या मनांत ते ताका खेपताले. आयज चौखेर लक्ष्मीकांताक बुद्द शिकोवपा सारखें कितेंतरी घडटलें हे आस्तेन कुळवाड्यांक अंतस्कर्णांतल्यान धादोसकाय भोगिल्ली खरी. पुण जाणटीं पेरां दुबावतालीं.

... तो येदो व्हडलो दुडवांचो आनी शक्तिचो दोंगर ! ताचेभाड आमी कुळवाडी खंय !

वाड्यावयलें निमाणें घर सांगून जालें तेन्ना सगळ्याक काळोख फांकिल्लो. चौखेर जमपाचो वगत जाल्लो. विजय आनी ताचे वांगडी तशेच चौखेर वचपाक वळ्ळे.

चौखेवयल्या आकान लव्याच्यो शेंदऱ्यो आनी मळणेचो हातरपाटो सोडून चौखीभर बसपाची व्यवस्था केली. वाड्यावयल्या सगळ्या घरांतले मेळून शंबरेक लोक येतले असो अदमास आसलो. अर्थांतूच गांवपणांक बायलो येंवच्यो नासल्यो. कारण तशी पद्दत नासली. आयल्यारूय चौखेभायर उब्यो रावून वणटीक कान लावन आयकतल्यो आसल्यो.

सगळ्यान पयलीं चौखेर विजय आनी ताचे वांगडीच पावले. सगळ्यांनी बेगीन जमचें म्हूण तेच आदीं येवन बसले. विजयाक सरांटून तान लागिल्ली. चौखेवयल्या आकान ताका तांबयोभर उदक हाडून दिलें.

– शिंविशेचें खंय पावलां तुजें ?

तांबयो रितो जावपाची वाट पळयत आशिल्ल्या आकान वगीच विचारलें. विजय वयल्यावयर हांसलो. ह्या वेळार दुसरे कसलेच गजालीक ताचे तकलेंत थारो नाशिल्लो.

चौखेवयल्या सोंपणार येवन एक एक चूड पालोवपाक लागली. बारीक मोटे शंबरां वयर लोक चौखेर जमले, उखलाप्या पावलांनी, दबिल्ल्या आवाजान.

दोगांनी जानूक दोनूय भुजांक धरून उबारून म्हण्टा तसो चौखेर हाडलो. विजयान ताचेर नदर घाली आनी रोखडीच कुशीक वळयली. काळजांतलो राग शांत करपाचो तो व्हदळच्यान यत्न करतालो. येवपाचे सगळे आयिल्ले. चौखेर शेकानशेक पुराय शांतताय पातळिल्ली.

– कितें घडलां तें हांव तुमकां परत सांगना. हाचेर उपाय कितें इतलेंच विचारतां. घडये तुमकां उपाय खबर आशिल्लो जाल्यार आमकां अशें हांगासर जमचेंय पडचें नासलें. लक्ष्मीकांत नांवाचो हो जो दैत्य मातला ताणे आमकां कुळवाड्यांक अशेंच सुण्यापाश्ट लेखून खोंटावपाचें ? हें कितलो तेंप आमी सोशीत रावपाचें ? आयज

काळ खंय पावला ? स्वतंत्रताय गावल्या म्हण्टा ती कोणांक ? फक्त लक्ष्मीकांतासारक्या भाटकाराक ? मनशाच्या हक्कांची राखण करपी कायदे आयल्या ते कोणाच्या दारांत ? फक्त भाटकाराच्या ? पिळगेन पिळगी हो शेक असोच चलपाचो ?

उलयताना विजयाचें निमाणें उतर ताळ्यांतूच फुटलें आनी पाटयेर सरो पडिल्लेभशेन जालें. ताचेर सामको अवसर आयिल्लो. बोंबलेच्या देंठातल्यान ताची उतरां भायर पडटालीं आनी आयकतल्याक भिडून काळजाक पिवळ घालतालीं.

ताळयाक सरड पडली तशें ताणे आकाकडल्यान आनीक तांबयोभर उदक हाडून घेतलें.

तागेलें वांगडी ताच्यापरसूय अदीक रागान रसरसताले. विजय जश्यो तांच्याच काळजांतल्यो भावना मांडटालो.

खिणभर चौखेर परत आदिची शांतताय पातळ्ळी आनी मागीर एका एका उतरान लोकांच्यो दबिल्ल्यो भावना उक्त्यो जावपाक लागल्यो.

– ताणें आमकां अशेंच पीडल्या.

– भाटांत आनी कुळागरांत एक भागेली दवल्ला जाल्यार पळयात. भागेल्यांचे कायदे येंवचे आदीच हेणे भागेल्यांची चोमडी उबाल्ली. आतां मानांय घालून सगळें भाट-बेंस आपूण तारातार करपाक लागला.

लक्ष्मीकांताचा आदलो एक भागेली सुस्कारलो.

– तेगेले दिसावडे म्हूण तसलेच. पैशे हारोहार पूण गाण फूटसर काम. आमी अशे हातीवयल्या पोटाचे म्हूण न सुटकेक वचपाचें तेगेर. नाजाल्यार सपन पडू नाका तेचें आनी तेच्या कामाचें.

लक्ष्मीकांतागेर काम करपी एक मानाय सांगतालो.

– पाडपाच्या वेळार करता तें आनी सुमाराचें ? पेंडिवो मात दुबाव येयल्यार परत माडार चडयतलो. जुल्गादोर सांगता तें काना - मनार घेंवचोच ना. आपल्याच वादयाचो.

नित्यनेमान तागेलें भाट पाडपी एक पाडेली सांगतालो.

– ताणें आमकां खूब पीडल्या रे. तेचेकडेन जांचो संबंद येयला तेंका कोणाकूच तेणे धडे गाणीन सोडूं ना. कसलें ना कसलें निमीत्त काडून मात तरी तुकलयलाच. ले-कायदो बी म्हण्टा तें तेका कांय एक लागना. तो ह्या वाड्यावयल्या कुळवाड्यांक वर्सांसंकीनी असोच पिडीत येयला.

वाड्यावयल्या जाणटेल्यान एका दमान सांगलें आनी ताळयाकडेन तीश्टत आशिल्ली खोंकली तशाक तशी दामून धरपाचो यत्न केलो.

– तो तुमकां पिडीत आयला कांय तुमी ताचेकडल्यान पिडून घेत आयल्या ?

विजय जाणटेल्याचेर धेंगसलो.
– आमी खंयचेय परिस्थितींत हें सहन करचेंना.
– बरोबर.

तागेले वांगडी आड्डले.

– आनी आवयचो सोपूत घेवन सांगतां, तुमकांय सहन करूंक दिवचोना. विचार करून पळयात. तो भाटकार – केदोय शक्तिवंत जांव पूण आमच्या शंबरांमुखार तो कित्याक उपकारता ? एक बडी कोणाच्यानूय सहजतायेन मोडूं येता पूण शंबर बडयांचो भोरो न्हय. लक्ष्मीकांत भाटकाराकडसून कुळवाडयांचेर जाल्लो हो निमाणो अन्याय थरूंक जाय.

विजयाच्या विचारांकडेन सगळेच सहमत जाल्ले.

– तुमी मुरगे कितें करतां तें जालें. आमी जाणटेले तुमच्या फाटल्यान आसाच.

विजयाच्या उलोवण्यान प्रभावीत जाल्लो गर्दैतलो एकलो उबेंन उलयलो आनी सगळयाच जाणांनी त्या म्हणण्याक हयकार दिलो.

विजयाचे उमेदींत अदीक भर पडली.

– तशें जाल्यार उठात. आत्तांचें आत्तां लक्ष्मीकांतागेर या आनी ताका हाची जाणवीक करुन दिवया. घरांतलो मायर सरून चूक मागूंक लांवया. कशी मागना ती पळोवया.

कसलीच घासाघीस करिनासताना भराभर सगळीं पावलां चौखेचीं सोपाणां देंवपाक लागलीं. पालवल्ल्यो चुडी तेल घातिल्ले कवदे कश्यो भगभगून पेटल्यो.

तेमी चडटाना सगळयान मुखार आशिल्लो विजय आनी ताचे वांगडी. सात–आठ लोकांमदसून अेक–अेक चूड वयर सरताली. सगळयांचे मदीं आसलो जानू. आतां ताका एकल्यानूच मुजाक धरिल्लो, तो नाका म्हणटा आसतना बळयांच. ताका माराच्यो वेदना भोगताल्यो खऱ्यो पूण सगळो वाडो आपल्या फाटल्यान आसा म्हणपाचे उमेदीन ताचें आंग चंवरून आयिल्लें. नाका म्हणटा आसताना तो आपूण जावन सगळया वांगडा तेमी चडटालो.

पयलीं सगळे कुळवाडी नेटाभरशीं मायर सरिल्ले खरे पूण आतां तांतूनले कांय जाण पावलां ओडटाले. पूण उक्तेपणी कोणूच कांय उलयनासलो.

लक्ष्मीकांतागेर आंगार येवपी सुणो आसा आनी तागेर एक तुबकय आसा म्हणपाचें भौतेकांक खबर आसलें.

तेमी चडटां चडटां अकस्मात विजयाचे मतींत ही गजाल आयली. चौखेर आसतानाच ताका तें जाणावल्लें जाल्यार तेविशीं तो थंयच उक्तेपणी सांगतालो आसलो.

... लक्ष्मीकांताल्या आर्मांची पयली गुळी हड्डयार घेवपाक हांव तयार आसां आनी ताच्या सुण्याचेर लेगीत हात घालपाक.

बऱ्याच जाणांच्या हातांत दांडे-तोणके आसले. कांय जाणांनी मुंजीक कोयतूल खोयिल्लें.

'कच'

कुळागरांत पावल दवरिनाफुडें कोणेतरी कोयतुलाची धार अजमायली. जाण्टेल्यान ताका धपकायलो.

– नाका आसलेलीं नावाडगेपणा करूं नाकात रे.

– हांवें निकतेंच फक्त केळीचें चार्वट कापलां. लक्ष्मीकांताचें भूज आजून कातरूना.

चार्वट कापतल्या तरनाटयान मस्तेपणान जाप दिली. जाण्टेलो मोन्यांनी कुळागाराचो दाणो हुपूंक लागलो.

कुळागरांतली लोकांची जाग लक्ष्मीकांताल्या सुण्याच्या कानार पडली. भायर आंगणांत येवन तो भों भों करून भोंकपाक लागलो. सगळे शादूर जाले. दांडे-तोणके मुठिनी घट बसले. कुळवाडी, लक्ष्मीकांताल्या घराकडेन लागीं लागीं पावता तशें सुण्यान सगळें कुळागर भोंकून भोंकून माथ्यार घेतलें.

कांय वेळान लक्ष्मीकांताच्या घरांत दिवो पेटलो. फाटोफाट थोडो भोव आवाज. घरांतल्या उजवाडांत लक्ष्मीकांताची सांवळी जनेलांतल्यान भायल्या लोकांक दिसली. शेळ्या नक्षत्राच्या कोणांकतरी कुळवाडयाक ते सांवळेचे भरशींत आर्माचीय सांवळी दिश्टी पडली.

मनीसभर उबार आंगणाच्या धा-बारा सोपणां वयल्यान एक एक जण वयर सरून आंगणांत येवन थारूंक लागलो. सुण्याचेर खेव आयिल्लो. तो सामकोच आंगार धांवून येवपाक लागलो. खंयच्याय खिणाक तो मुखावयल्या कोणाकतरी घांस मारत म्हणपाची खात्री पटली. शिवान एका हातांतलो दांडो दोनूय हातांनी आंवुळो आनी तिरपो धरून सुण्याचे सोगकुटेर आनी बोरीर हाणलो. ताणे निमाणची म्हणटा तशी किळांव मारली आनी तो आंगणांतल्यान सकयल शेंवटलो. सकयल आशिल्ल्यांनी तो परत उठचेआदींच ताका एका एका दांडयान थंयचे थंय सोंपयलो.

जनेलांत राविल्लो लक्ष्मीकांत समजुपाचें समजलो. ताणे दार उक्ते केलें. घरांतल्यान तागेली बायल आनी भुरगीं ताका भायर वचपाक आडायतालीं. दारांतल्यान तागेल्यो थरथरपी सांवळयो आंगणांत पडटाल्यो. लक्ष्मीकांत दारांतल्यान भायर आयलो. शंबरेक कुळवाडी तागेल्या आंगणांत उबे आसले. तातूंत जानूय नदरेक पडटा असो उबो राविल्लो.

– कितें घडलां ?

लक्ष्मीकांतान न्हिदेंतल्यान आतांच उठून आयिल्लेभशेन सवंग करीत विचारलें.

– आमी न्हीदतल्याक जागोंक येंवना, न्हिदेचें सवंग करतल्यांक समज दिवंक

आयल्यात.

विजयान मुखार सरून जॉप दिली. इतले म्हणसर तागेले बायलेन पेट्रो लापयांव हाडून पडवेर हुमकाळायलो.

– कोण रंगल्यालो विजय रे ?

वळख पटून लक्ष्मीकांतान म्हळें,

– हें कितें आडायलां ?

कोणा कुळवाडचाच्या कानांक खरीं दिसचींना इतलीं नरमायेची उतरां ताच्या तोंडातल्यान भायर सरतालीं.

– तुमी येवजिलां कितें ?

– तुजी अवस्था तुज्या सुण्यासारखी जांवची न्हय अशें आमकां आजून दिसता.

मर्दीच अनंत फुरफुरलो.

– ह्या जानूक वळखता न्हू ? जितो आसा तो. मरूना आजून.

शिवा मुखार आयलो.

– पूण सांगनासताना कुळागरांतले घडावलें कापप म्हणजे कितें ? मागल्यार हांव ना म्हणटलो आसलों ? तुमी केन्नाय कितें मागलें आनी आसून हांवे ना म्हळें अशें केन्ना जालां ?

लक्ष्मीकांतान सगळयांचेर साव जावन नदर भोंवडायत विचारलें पूण ताच्या म्हणण्यांक कोणेच हयकार दिलो ना.

– अं ...

लक्ष्मीकांताच्या तोंडार कितेंतरी शेवटून येवन आदळ्ळें.

– हे तुज्या घडावल्याचे पैशे.

– आनी हें घडावलें. हातूंतलीं फक्त चार केळी तेगेले बायलेन शिनलेलीं. तिगेल्या धुवाळयांक लागून.

– घे, हड्डुचार घेवन न्हीद.

मोखून मारिल्ले पैशे ताच्या तोंडार आदळून आंगणांत पडले आनी शेंवटून वडयिल्लें केळावलें ताच्या पांयासरी गडगडलें. तांकां हात - बोट लायनासतना तो कुशीक सरलो.

– ताणे कसल्यो जास्ती मारच्यो म्हाका !

भुरग्यान तक्रार करची त्या सुरान लक्ष्मीकांतान म्हळें.

– कुळवाडी मारता त्यो ज्यास्ती ? आनी भाटकार घालता ती फुलां ?

इतलो वगत घुस्मटपी गजा गुरगुरलो.

– आमी हाजो सोक्षमोक्ष लावपाक येयल्या.

विजयान निर्णायक उतरांनी सांगलें.

– चुकीक दोळे नासतात.

हीं उतरां लक्ष्मीकांत उलयता कांय ताचेकडल्यान कोणतरी बळजबऱ्यां वदोवन घेता हाचो जाणटेल्यांक दुबाव आयलो.

– तुज्या हातसून आमच्या कुळवाड्यांचेर घडिल्लो हो अन्याय निमाणो थरूंक जाय. काळाचीं पावलां तुवें वळखल्यांत तसो काळाचो उलो आमीय आयकला.

विजयाच्या उतरांतली धार लक्ष्मीकांताचें काळीज चिरून वडयताली.

– तुमी थरयता तें जालें.

सगळ्यांचेर नदर भोंवडायत ताणे आडेचीं भुजां बावडीत म्हळें.

– तुमी म्हजेवाटेक वचना जाल्यार हांव तरी तुमचे वाटेक कित्याक वतलों ?

– तसो बंदोबस्त करतले आमी.

– मागीर जालें तर.

– कसलो बंदोबस्त ?

अनंतान परत विचारलें आनी सगळ्यांचे वतीन ताणें जाहीर केलें.

– ह्यानफुडें सकयल्या वाड्यावयलो कोणूच कुळवाडी तुगेर काम करचोना. उपासपोटयां मेल्यार उपकारता.

झिळमिळट्या उजवाडांत सगळ्यांनी मानो हालयल्यो.

लक्ष्मीकांतान लांब सुस्कार सोडलो.

– कितें करप ना करप ती तुमची मर्जी.

– इतल्यान सोंपना.

– मागीर ?

– ह्या प्रकरणांत जाची चूक जाल्या ताणे हांगा सगळयांमुखार जाहीर चूक मागोंक जाय.

विजयान फर्मायलें.

खिणभर लक्ष्मीकांत वगी रावलो. मागीर मान वयर करून ताणेंच म्हळें.

– म्हणजे हांवें ? जानूची चूक ना हें तुमीच थारायलें.

– कसली चूक ?

बसपाक बागवल्लो विजय गरड मारून उठलो.

– तुका सांगनासतना घडावलें कातल्लें ही चूक ? कितल्या लाख मोलाचें घडावलें तुजें ? खंयच्या बाजारांत व्हरून ताणे मोलायलें ? आनी हो जानू कोण ? दीसरात तुज्या घराक झरपी मनीस काय गोरूं ? लक्ष्मीकांत.

विजयान घातिल्ल्या सादान लक्ष्मीकांत कांचवेलो.

– मानान 'बाबा' म्हणपासारखें तुवें कांय करूंना देखून तुकां हांवे ल्हान आसून नांवान उलो मारला. लक्षांत दवर, आयज सांजवेळ पासून दीस तुजे आसले, आतां आमचे दीस सुरू जाल्यात. तुज्या आंगणांत पळय, रातिचो दीस करपाचें बळ आज आमचे थांय आसा. तुज्या मुखार आमी तें सिद्ध करून दाखयलां.

ह्यानफुडें तुज्या भुजांतले शक्तिचो वापर चितून कर. तुज्या भुजांइतलीच शक्त आनीक शंबर भुजांत आसा हाचो विसर पडूंक दिवं नाका.

विजयाचो आवाज कुळागरभर घुमतालो. मध्यानराती अख्ख्या वांठाराचेर ताचोच शेक चलिल्लेवरी भास जातालो.

बरोच वगत मोनेळ जालो. लक्ष्मीकांत अंतर्मुख जावन चितूंक पडलो. सावपणाचो भेस पांगरून नमळायेन वागतकच सगळें दमळ पयस जातलें अशें ताणें येवजिल्लें.

– आतां ते इतलो फोर्स करता जाल्यार चूक मागपाक कितें वता ?

दारार रावन बायलेन ताका समजायलो. प्रकरण हाताभायर गेलां म्हणपाचें तिका केन्नाच कळिल्लें. लक्ष्मीकांत धांवून भितर येवन आर्मांक हात घालीत म्हण ती वाट आडोवन राविल्ली.

लक्ष्मीकांतान आनीक फाटफुडो चितलो ना. कांयच घडूंक नाशिल्लेभाशेन ताणें शांतपणान म्हळ्ळें.

– म्हजी चूक जाली. दुसरे फावट अशें करचोना.

अनंत मुखार उलोवपाक सोदी पूण विजयान ताच्या तोंडार हात धरलो. सगळ्यांक उठपाक ताणे खुणायले. पेळयेर बशिल्ले आनी उबे आशिल्ले सगळे कुळवाडी जाग्यावयल्यान हाल्ले. पालबल्ल्यो चुडी पेटयल्यो. आतां चुडी शांतपणान जळूंक लाग्ल्यो. सगळी पावलां आंगणाचीं सोपाणां देंवलीं.

निमाण्या सोंपाणाकडेन सुणो जीब भायर वडोवन मरून पडिल्लो. वतना सगळ्यांनी ताका पळोवन घेतलो. झरझर पावलांनी तेमी देंवून सगळे सकयल्या वाड्यार आयले. घरांघरांत बायलो दादल्यांची वाट पळयत आसल्यो.

– आतां हत्यापार कुळवाड्यांचे शेंपडेर पांय दवरपाचो ना.

– आर्मांची जाली फटास !

– जल्माची बुद्ध शिकलो.

– सगळी वाड्यावयल्या तरनाट्यांची करामत.

सदचेपरस बऱ्याच उसरां सकयल्या वाड्याक न्हीद लागली. व्हाळ गाजतालो. आनी मागीर न्हिदेंतूय सगळ्यांच्या कानांत व्हाळाची गाज घुमत रावली.

x x x

जानू उठलो. हाथुणार पडून रावून सप्तकभर जाल्लें. त्या निमतान बरोच विसवूय लाबिल्लो. पूण मागीर मागीर तो बेजारलो.

... असल्यांनी कशें जातलें !

कशेयतरेन हात – पांय हालोवपाकूच जाय. आंगार दाटिल्ली बऱ्याच दिसांची

आळसाय ताणें झिडपिली.

... कोणाल्या दारार वयतलो ?

तो सुस्कारलो.

... कसलें म्हण काम करतलों ?

ताची पावलां जडावलीं.

लक्ष्मीकांतागेर वावराक आसतालो तेन्ना असलो प्रस्न ताका केन्नाच पडूंक नासलो. बाबा सांगता तें तो मोन्यांनी करतालो. तागेलीं कामांय तसलींच. पाटाचें उदक वळोवपाचें, केन्नाय कल्ल्यान उदक शिपपाचें. पूण चड करून सुपारी काजुच्यो पोटल्यो आनी पणसुलां-अनसां गाडयेंत चडय-देंवय असलींच कामां ताका करचीं पडटालीं. लक्ष्मीकांताली पिकअप सामकी वयर तेमयेर तागेल्या घराच्या फाटल्यान पावताली. लक्ष्मीकांतान खासा आपणाल्या खर्चांन आडवाटेंतल्यान मार्ग काडून गाडयेखातीर ही वेवस्था केल्ली.

... गांवांत आसात तीं कसलीं कामां ? फक्त शेताचीं. सकयल्या वाड्यावयलीं शेतां म्हणून कसलीं ? नांवांची शेतोड. त्या शेताचे येणावळींतल्यान कोण वयर सरिल्लो आसा ? पोटापुरतें टायमटोम जाता हाचेरूच समाधान मानून रावपाचें. तरी आसताना म्हाका इल्लो शेताचो कुडको आशिल्लो जाल्यार फाल्यांच्या भरवंशार चिखलांत लोळूं येतालें. तेंवूय ना.

बळजबऱ्यांच ताणे सकाळचे विधी सोंपयलें... आतां करपाचें शेतांत दिसावड्याचें मानायपण. पूण तिनसांज जायनाकुडें रोख दिसावडो हातार पडटलो म्हण कितें भरवंसो आसा ?

वायंगणाच्या वावराचें मोल सर्दीचे फसलेक पदरांत पडपाचें, असली गत.

– आयज भायर सरता न्हू ?

केदो वगत घरांतूच गणयता तें पळोवन बायलेन ताका शिटकायलो.

पांयांत व्हाणो लकोवन तो पावळेभायर सरलो... पाडपडिल्ल्या त्या लक्ष्मीकांतागेर काम वायट नासलें. निदान सकाळचो भायर सरतना अशी चिंता करीत तरी भायर सरचें पडनासलें.

चलतां चलतां तो सांकवाकडेन पावलो. सांकवा पोंदच्या व्हाळांच्या उदकाचो नेट आतां बरोच उणो जाल्लो. तशी ताची खळखळूय आतां कमी गाजताली.

भायर कोण आयला तें पळोवपाक जानकी भायर आयली.

– जानू ना ?

दारांत आयिल्ल्या एका अनवळख्यान विचारलें. भेसावयल्यान तो मानांयूच दिसतालो.

– ना. आतांच भायर सरला.

– कांय नजों. म्हाका केदोवेळ तुमचें घरूच मेळना जालें. दोन – तीन कडेन विचारून येयलों.
– कसलें काम आसलें ?
– बायेन हें केळावलें दिलां.

ताणे पोतयेंतलें केळावलें भायर काडलें. तीं कुचकुचीत केळीं पळोवन जानकीची जीब हुळहुळ्ळी. पूण फाटल्या दिसाचे यादीन तिच्या जीवाची घालमेल जाली. तोंडात बोट चाबीत तिणे विचारलें.
– कोण बाय ?
– बायक वळखना ? बाबाली घरकान्न. लक्ष्मीकांताची बायल.
जानकी उबी आशिल्ली थंयच थतर – वीतर जावन सूद – बूद हारली.
– हांगा दवरूं ?
– राव.

जानकीन पडवेभायर हेवटेन तेवटेन नदर भोंवडायली. वाड्यावयल्यो दोन – चार बायलो तिगेल्या घरावटचां, कोण अनवळखी आयला ताची सुलूस घेत उब्यो आशिल्ल्यो.

... कोणाचे नदरेंतल्यान हें केळावलें सुटपाचें ना. एकदां एका केळावल्या खातीर येदें व्हडलें रामायण घडलां दें पुरो.

जानकी मनांतल्या मनांत फुतफुतली आनी मागीर उक्तेपणीं तिणे म्हळें,
– बाब रे, तें केळावलें थंयचें उखल. भाटकारालें एक केळावलें खाल्लेंले तेचें पानवळ भोगलां. आनीक दुसरें अपसरण नाका. सगळ्या सकयल्या वाड्यान एकमुखान थरयलां – तेगेलो हुंबरो लेगीत हूपपाचो ना म्हण. तेगेलें हें केळावलें घेवन आमी बळयां पातका तायणेंत कित्याक पडूं ?

मानायान केळावलें आसा तशें पिशवेंत घालें आनी तो आपले वाटेक लागलो. तो वतकच भायर आशिल्लीं शेजाऱ्यां आंगणांत आयलीं.
– पयलीं फाटीर मारपाचें आनी मागीर पोटाक मारपाचें. केळावले धाडलां केळावलें !

जानकी भायर येवन तांकां घडिल्ली गजाल मोटमोटयान सांगपाक लागली.

X X X

मनीस धाडूनय पाडेली आपयिल्ल्या दिसा आयलेनात. पयलेच फावट लक्ष्मीकांताचे उतर वाळ गेल्लें.

पांयांत जोतें चडोवन तो खाशा आपुणूच सकयल्या वाड्यार देंवलो. पाडेल्यांची घरां सोदताना ताका वाड्यांत बरोच भोंवचो पडलो. चलतां चलतां एक दोनकडेन तो वाट चुकून घुस्पलोय बी. फुडल्या दारांतल्यान सरपाचो तो चुकून मागीलदारयां पावलो. रेव्याचे खळयेंत पावल पडपाचें तें मातशें चुकलें.

नाजाल्यार धव्याफुल्ल आंगोस्तराची वाट लागपाची.
– कितें रे विठ्ठला, हो पाडो पाडपाचो ना ?

विठ्ठलाले पडवेर वयर सरत ताणें विचारलें.
– यो, यो.

विठ्ठलान बेगीबेगीन सोप्यार लव्याची शेंदरी हाथुरली.
– ना, बसना हांव.

इतले म्हणसर लक्ष्मीकांताचे जागीन वाडयावयले चार-पांच पाडेली विठ्ठलाले थंय एकठांय जाले.
– मागीर कितें येवजिलां तुमी ?

खांदावयलो आंगोस्तराचो निसट्टो शेव सारको करीत लक्ष्मीकांतान सगळ्या पाडेल्यांक विचारलें.
– आमी कितें येवजितले ?

किडयाळे दांत भायर काडीत विठ्ठल आडेचें हांसलो.
– मागीर केन्ना येता ?
– आतां केन्ना येता म्हूण कितें...

एकलो पाडेली चांचरलो.
– खंय पाडपाक आसा तर तुमी ?
– तशें म्हुं ...

मुखार कोणेंतरी सांगचे म्हूण तो पाडेली बगीच रावलो. कोणेतरी उलवन हो प्रश्न सोंपोवचो अशें सगळ्याच पाडेल्यांक दिसतालें. कालच्यान, पाडपाक लक्ष्मीकांताचो निरोप येत सावन ते ववपाची वाट पळयत आसले. पूण कोणूच आपूण जावन 'या' अशें म्हणनासले. एकदांचो हो फोड कोणेतरी फोडचो अशें जण एकल्याक दिसतालें.
– तुमी आजून तें तकलेंत धरून आसा ? हांव विसल्लों. नाजाल्यार तुमच्या दारांत कित्याक येतलों आसलों ?

विठ्ठलाच्या घराशेजरा लोकांची गर्दी जाल्ली. मुरग्यांचोय एक चोमो जाल्लो.

लक्ष्मीकांत वाडयार आयला म्हणपाची खबर विजयाक समजली तेन्ना शिवाक आनी अनंताक घेवन तो भायर सल्लो. विठ्ठलाच्या घरापासून आपूण पयस रावन तांकां दोगांयकूच ताणे मुखार धाडले.

विठ्ठल लक्ष्मीकांताक कितेंतरी सांगूंक सोदी इतल्यान ताची नदर मुखावयल्यान येवपी अनंताचेर आनी शिवाचेर पडली.
– मागीर केन्ना येता ?
– शे ! शे ! माटकारा तें कशें जातलें ? त्या दिसा धा जाणांनी थरयलां

तेज्या भायर आमच्यांनी कशें वचपाक जातलें.

इत्सा नासून कोडू निवळी घेतिल्लेभशेन तोंड करून विठ्ठलान सांगलें. आपणाक कोणेतरी बळजबऱ्यां वदयला अशें ताका दिसलें.

– तुमची मर्जी !

लक्ष्मीकांत जड पावलांनी सोंपणा देंवलो. मुखार वाटेर ताची नदर विजयाचेर पडली. कांयच घडूंक नाशिल्लेभशेन ताणे विजयाक हटकिलो,

– बरो मरे ?

तो ब ऽ रो मुखार पावल्या उपरांत विजयाच्या लक्षांत आयलें, आपणें ताका जाप दिलीच ना.

लक्ष्मीकांताच्या फाटल्यान नावाडग्या भुरग्यांनी ताच्यो बकच्छायो करून मोटमोटयान हांसपाक सुरवात केली. जाणटेल्यांनी तांकां धपकावपाचो हरतरेन यत्न केलो पूण तांगेले कोणेंच कानामनार घेतलें ना. विजयाच्या मनांत आसुनूय भुरग्यांच्या नावडग्यापणांक तो आडावंक शकलोना.

लक्ष्मीकांत पयस पावता तशे भुरगे व्हडांव्हडान कुयो घालपाक लागले. लक्ष्मीकांत मात फाटी वळून पळय नासतना मोन्यांनी तेमी चडून घरा गेलो.

x x x

सांजवेळा व्हाळावयल्या सांकवार गजाली खुबूच रंगल्यो.

– लक्ष्मीकांतालो पाडो बरो जालो खंय !

– सादो पाडो ? सालपाडो !

– म्हणजे ?

– म्हणजे कितें ? खंयच्या तेर्राचे पाडेली धरून हाडलेले देवाक खबर ! तेंका बोणोय पारखूंक येना आनी नाल्लूय होलमना. अखेरेक जावपाचें तें जालें. जाल्ले नाल्ल वयरूच उल्ले आनी तन्ने बोणे सकयल देंवले.

– हा ऽऽऽ हा ऽऽऽ

– इतल्याचेर सोंपूना.

– मागीर ?

– पेंडी सकयल पडटाना पळय सकयल्या केळींचो धूप जाला, तो सोसपाचो न्हय. लक्ष्मीकांत सामको पिण्णळलो खंय !

– आनीक करतलो कितें ?

– आरे, आमच्या बगर हेगेल्या कुळागरांतलें पाडप सारकें जाता ?

– बेश्टीं कोणूय माकडां धरून हाडलीं म्हूण उपकारता !

– असल्यांनी हेका कुळागर परवडटा ? म्हारग पडटलें, खूब म्हारग पडटलें.

उलयतां उलयतां पाडेली खंती जाले. मनांतल्या मनांत चूटपूटले आनी कांय वेळ तशेंच सांकवार बसून रावले. हरशीं पाडेली केन्ना सांकवार बसपी न्हय. पूण बेकारेक कितें करतले म्हण बसले थंयच झांकडी मारपाक उल्ले.

– चलात तरनाटे येयले, तेंगेलो सांकव खालीं करात.
– नाजाल्यार कितें गांवपण घेवन धांवडायतले ?
– तीं घेवप सोपीं.
– तवनास. धेंगांनी येदे वाडल्या, आजून बेकार हेडटात. बेकार थवय !
– आपूण बेकार ते बेकार, आमचेय हात-पांय बांदून घातल्यार.

पाडेली फूतफूतले आनीक इलाज नासून सांकवावयले उठून चलूंक लागले.
– आरे विजय, कितेंय उलय तरी मरे.
– ह्या दिसांनी कितें जालां तुजें ?
– मोन्याचें एकवत बी घेतलां कांय कितें ?

अनंत, शिवा, गजा आनी तागेले हेर सांगाती ताका बळयां उलवपाक सांगताले.

विजय येवच्या येवन सांकवार बसलो आनी हातांतले फातर उदकांत मोखून मारपाचो उद्देग करूंक लागलो.
– एखादी गजाल तरी सांग मरे.
– खूब दीस जाले तुवें कांयच सांगूना.
– सांगतां.

हातांतले सगळे फातर व्हाळांत वडोवन विजयान हात फापुडले आनी मनांतल्या मनांत रचून तो सांगपाक लागलो.
– भुकेन सामको वळवळटालो तो. भिकारीच म्हणल्यार जाता. ताणे हांगा थंय सोदलें. ताका कांयच मेळळें ना. अखेरेक व्हान्यार उस्तिता आसताना तेच्या हाताक एक उंडो मेळळो. खूब दिसांचो, भेळशेल्लो. तातूंत जीव हुसहुसताले. पूण भुकेन ताचे दोळे कुड्डे जाल्ले. ताणे फाटफुडो चिंतलोना. उंडो तसोच तोंडाकडेन व्हेलो. पुण उंड्याक घास मारपाक तो पावलोच ना. ताच्या हातांतलो उंडो कोणेंतरी झोपून घेतलो. 'ताणे' रागान ताचेकडेन पळयलें. उंडो झोपून घेवपी एक तरनाटो आसलो. त्या तरनाट्यान तो भेळशेल्लो उंडो पयस मोखून माल्लो. भिकाऱ्यान पोटार हात मारीत हुयेल माल्ली दोळे धांपले. तरनाटो तसोच फाटीं परतलो. कांय खिणांत भिकाऱ्यान दोळे उक्ते केले. तरनाटो भिकाऱ्याच्या फुडयांत हाजीर जालो ताणें एक ताज्जो उंडो हाडून भिकाऱ्याच्या हातार दवरलो.

मानेक झटको दिवन विजयान काणी सोंपली म्हूण सांगले.

सगळयांनी ताळयो माल्ल्यो.
– विजय, तो तरनाटो तूंच आसलो काय कितें ?
– हयसो दिसता.

इश्टांनी ताका कोमार काडलो.
– हय, त्या भिकाऱ्याकडसून शेळो उंडो झोपून घेवपी तो तरनाटो हांवूच आसलों

पूण भिकाऱ्याक जाणे ताज्जो उंडो हाडून दिलो तो तरनाटो मात हांव नासलों.

उलयतां उलयतां विजयाच्या दोळयांच्यो पातकडचो जडावल्यो. किंवाटूनसो तो उलयलो–

– नव्या उंडयाची वेवस्था केल्या बगर आमकां दुसऱ्याच्या हातांतलो शेळो उंडो झोपून घेवपाचो कसलोच अधिकार ना. कसलोच अधिकार ना.

विजय धळधळयां रडपाक लागलो. टपाटप करून ताचीं दुकां व्हाळांत गळपाक लागलीं.

X X X

– मात्सो कस्तुराक पळोवन यो.

पोटांतली वेण सोंशीत जानकीन जानूक सांगले. जानू वावराक वचपाचे तयारेंत भायर सरतालो.

... जालें ! आतां आनी कसल्या वावराक वयतलों !

तो मनांतल्या मनांत खंती जालो. पावलां आडखळ्ळीं.

... ही आयज सुट्टा दिसता. आतां पोटा - पाण्याची वेवस्था करपाची कांय हिज्या खातीर वैजिणींक सोदूंक मोंवपाचें !

– वयता न्हू ?

जानकीचीं उतरां सामकीं आंतकडचांतल्यान भायर सरतालीं.

जानून गणोवपी पावलांत आडेचो नेट हाडलो आनी हुमरं हुपलो.

सगळो दीस जानकीच्या वेणांतूच सोंपलो. जानूक मात अख्खो दीस खावंक आयलो. कितें करचें ताका कांयच येवजना जालें. ना ना विचारांनी ताची तकली झिलांचे बुट्ट कशी जाली.

– जानू, म्हाका लक्षणां बरीं दिसना.

जानू कांत्रवेलो. कस्तूर वैजीण भायर येवन ताच्या कानाकडेन फुतफुतली.

– म्हाज्या हातीन जायतशें दिसना.

वैजीण म्हण कस्तुराची पिराय जाल्ली. केन्ना कोणाच्या बाळंटेराक ती अशी दुबावूंक नासली.

– अिस्पितळांत हेल्यार बरें. मागीर म्हाजेर अपशरण नाका.

जानू आयकतूच रावलो. खरें म्हळयार दनपारांच ताका दुबाव आयिल्लो. पूण सहजतायेन निबावतलें हे आशेचे धुगधुगीर तो खीण खीण धुकलतालो.

दुसऱ्या बाळंटेराक जानकीक अशेच त्रास जाल्ले. मागीर गेखडचा रोखडी तिका इस्पितळांत व्हेल्ली. थंय बरेतरेन तिची सुटका जाल्ली पूण थंयच्या दोतोरान जानूक शिटकायिल्लो,

– मुखार बाळंटेर आसल्यार इस्पितळांतूच व्हरची पडटली. ना जाल्यार तिच्या जिवाक धोको आसा.

... आवयस !

पडवेर पासयो मारतां मारतां तो थरथरलो. भायर काळोख दाटत वतालो.

... आतां येदे रातची हिका इस्पितळांत कशी व्हरपाची ?

इस्पितळ गांवापासून खुबूच पयस आसलें. आदल्या बाळंटेराक असोच प्रसंग आयिल्लो तेन्ना तो धांवत तेमयेर पाविल्लो. लक्ष्मीकांताची सायबा – जात्रा केल्ली. लक्ष्मीकांताक सुख – दुख कांय नासलें. पूण प्रसंग पळोवन ताणे आपली पिकअप भायर काडिल्ली. गाडयेंत घालून जानकीक इस्पितळांत पावयिल्ली.

ते पिकअपचें भाडें मागीर तो कितल्याशाच दिसावडच्यांतल्यान थोडें थोडें कातरून घेतालो. जानून आपलो गांवठी हिशेब केल्लो तेप्रमाण ताणे आदीं सांगिल्ल्यापरस दुपटीन दुडू कातरून घेतिल्ले. खंयची झक् माल्ली आनी त्याची गाडी सांगली अशें ताका जाल्लें.

... पूण काळावेळाक पावतालो तोच. नाजाल्यार घोडोगाडी आशिल्लो आनीक कोण राणेचो हांगां जल्मांक आयला !

जानू मनांतल्या मनांत आपणाचेरूच जळफळ्ळो. वैजीण परत एकदां व्हदळचेंच सांगून भीतर गेली आनी जानकीक उतरांनी धीर दिवपाक लागली. मदीं मदीं वाडयावयल्यो बायलो खबर घेवन वताल्यो. दारयेचे बाणार बाण सुटचे तश्यो जानकीच्यो किळांच्यार किळांच्यो फुटूंक लागल्यो. जानूचें पडिल्लें पावल एका जाग्यार खीणभरूय थीरना जालें. तसोच झिडपलोसो जावन तो पडवेभायर शेंवटलो आनी काळखांतल्यान चलूंक लागलो.

अवसर आयिल्ल्या सारखो जावन तो तेमी चडलो खरो पूण लक्ष्मीकांताच्या कुळागरांत पावल दवरतनाच ताचो सगळो नेट कोणेतरी कोंचून काडिल्लेभशेन जालो. आकांताचो पुरो जाल्लेभशेन ताणें थंयच थपकल माल्ली. हय न्हयशा काळखांतूय ताची नदर ते सुवातेर पडली, जंय स-सात म्हयन्या आदीं तांची लडामुडी जाल्ली.

ताच्या दोळयांक आपशींच धांपणी लागली आनी मागीर धांपिल्ल्या दोळयांमुखार उपरांतचो सगळो देखाव झरझर करून धांवपाक लागलो. दोळयांतलीं दुकां मातयेंत जिरयत तो कितलोसोच वगत थंयच काळखांत पडून रावलो. वाटेर तयार करून आयिल्ली तागेली सगळी येवजण त्या दुकांनी व्हांवून मातयेंत भरसली.

... बाबाच्या पायांकडेन वचप ना.

पूण परत घराय वचपाक तान्नें पावल कशेंच उखलना जालें. थंय दैवान कितें वाडून दवल्लां आसत ताची कल्पनाय ताच्यान करूं नजो जाली.

कुडींतले शक्तिचो विलय जालासो ताका दिसतालो. सोगींत मारूंक व्हरपी बैलाक बळजबरीन व्हरता तसो ताका कोणेतरी अदृश्य शक्तीन तेमयेवयल्यान सकयल देंवयलो. मेंदवाचो ताबो गेल्ल्या बेबदडाभशेन ताचीं पावलां वाडयांत पडटालीं.

घराचे भितोडेक तेंकलो तसो तो भानार आयलो. सगळयाक थप्प आशिल्लें.

... जावपाचें जालें दिसता !

... जानकी ऽऽऽ

हड्डें फोडून व्हडल्यान किळांच मारची अशें ताका जालें.

– क्यांव ... क्यांव ...

... माणकुल्या मुरग्याचो आवाज घरांतल्यान येता कांय आपणांक बेश्ठोच मास जाता.

तो दुबावलो.

– मुरग्याचो बापूय खंय गेला ?

जानकी वैजीणीक विचारताली.

– गाडी पळोवपाक गेलासो दिसता.

– तेका आपोवपाक धाड. हांव सुटलीं म्हणजे. नाजाल्यार म्हाजेखातीर तो कोणाच्यातरी हातीपांया पडून गाडी सोदून हाडले बगर रांवचोना.

कांयच घडूंक नाशिल्लेभशेन तो हांसत्यामुखान पडवेर आयलो.

– नशीब तुजें आनी म्हाजेंयबी. नाजाल्यार म्हाज्या दोळयांमुखार कसलें अदृष्ट घडटलें आसलें तें एक परमेश्वर जाणां !

वैजीण धादोसभरीत जावन सुस्कारली.

– चेडो जालो. आतां वेळ कितलो जाला ? फाल्यां भटाक सांगून नक्षत्र पळोंव नाका ? चल, पळय कोणागेरुय वचोन.

वैजिणीन ताका आयिल्लो तसो परतिलो.

... आतां वेळ पळोवपाक घडयाळ कोणागेर आसा ?

ताणें तकली बरीच खरपिली. पुण वाडयार घडयाळ कोणाकडेन आसा म्हणपाचो ताका उगडास जायना जालो. कोणा जाणटयांकडेन कांय आसपाची शक्यताय नासलीच. आसल्यार तरनाटयांकडेन. तरनाटे म्हणटकूच ताका चक्क करून येवजलो तो विजय. तागेरुच वचपाचें ताणें थारायलें.

... पुण येदे रातचो वचून ताका उठोवप ?

पूण तो दुबावलो. विजयाकडेन घडयाळ ना म्हणपाचें ताका उमजून आयलें. ताणें फाटलें गांवपण येवजून पळयलें. हात वयर सकयल करून उलयताना विजयाच्या हाताक घडयाळ नाशिल्ली. ताची खाती पटली. हरशींय ताच्या मनगटाक ताणें केन्ना घडयाळ पळोंव नाशिल्ली.

... जंय विजयाकडेन ना थंय ताच्या सांगात्यांकडेन खंयची आसतली ?

... आतां कितलो वगत जाला आसतलो कांय ? घडये रातचें एक वा दोन. तें शेवणें ज्यूस्त ह्याच वेळार रडटा. फाल्यां भटाक वचून सांगताना तशेंच सांगल्यार ? नाका.

ताका ताच्या मावडचो उगडास जालो. तागेल्या मावडच्या गांवच्या लोकांक हेर गांवचे लोक कोले म्हण चाळयताले. ताकाय केन्नाय कोणूय कोलेकार जांवय म्हूण पाचारताले. तागेल्या मावडच्या गांवांत खंय एके रातो अशीच एक बायलमनीस बाळंत जाली. दुसरे दीस नक्षत्र पळयताना भटान विचाल्लें खंय,

– केन्ना सुटली ?

तर मुरग्याचो बापूय सांगपाक लागलो खंय,

– तेन्ना बांदार कोले रडटाले, ज्यूस्त तेन्नाच सुटली.

जालें, हे गजाली वयल्यान त्या गांवांतल्या सगळ्याच लोकांक चाळोवपाखातीर कोले हे नांव दसलें.

...तशें आनी जांव नाकां. आदींच एका नांवरूपाक लागून हांव चार – चौगांच्या तोंडांत आसा.

तो चलत आसलो. पूण खंय वचपाचें तें आजून थरूंक नासलें.

... आनी अवदिसा ज्यूस्त रातचीच व्हियेली. आदल्या पार्तीच्या वेळार बरें आसलें. इस्पितळांतूच सगळें जाल्लें.

ताच्याच मनांक खाल्लेशें जालें. व्हदळ मितोडेक गळयिल्ल्या दुकांची ओल पातकडयांचेर आजून आशिल्ली.

...तिज्या नांवान बेस्टोच पिरंजळटां हांव. सकाळपासून तिचे खातीर कितें केलें ? एके वैजणीक मात हाडली. ती लेगीत वेळार घरांत मेळ्ळी म्हूण. पुण बायलेक इस्पितळांत व्हरपाक गाडयेची मात वेवस्था करपाक शकलोंना. नशीबान हात दिवंक नासलो जाल्यार तिगेल्या किरवडाची वेवस्था करची पडटली आसली.

...पुण हातूंत म्हजो कसलो गुन्यांव ? हाती – पांयां पडल्यार बाबा कितें गाडी दिवंचो नासलो ? पूण त्या ... त्या तरनाटयांखातीर सगळें अडलें आनी आतां म्हण हांवे कितें करप ? खंयच्या फोणामरणांत वचून वरां पळोवप ? अन्याय पयस करता जाल्यार एक्काय पोराच्या हातीक एक घडयाळ दिल्याक ना ? गांवपणां घेता. कर्माचीं ! रक्त सळसळटा. काम ना धंदो. घेता गांवपणां. जनावरांक कशें आमडून हाडटा लोकांक. बसयता चौखेर. आपूण उलयता आनी लोकांक फक्त घणसा बैल कशयो मानो हालोवपाक लायता. आदीं चार पैशे जोडूंक शिकात. मागीर कळटलें पोटाची खळय भरपाक कसलें हालउपाद्रे काडचे पडटात तें. वगीच रक्त सळसळटा म्हण दुसऱ्याच्या पोटार मारता कित्याक ? आनयक खायरे !

चलतां चलतां ताचें पावल निसल्लें. निसल्ला तेवटेनूच तो चलपाक लागलो. चलतां चलतां धांवपाकूय लागलो. पावलां गतीन पडटालीं ताच्या परसूय गाळिचो शिवर अदीक गतीन झडटालो. खूब दीस तुंबिल्लो मनाचो तूंब सुटिल्लो. आशिल्ल्यो नाशिल्ल्यो गाळी सोंगल्यो तेन्ना ताचें मन ल्हवपीक जालें. इतले म्हणसर तो तेमयेर पावलो. इतले म्हयने वाटेची संवय नासली. तरीपूण सामकी काल वाट माडुयल्या इतले सहजतायेन तो दाण्यावयल्यान चलतालो. येदें व्हडलें देंगणाचें कुळागर ताणें कांय न्हय करून हुपलें आनी लक्ष्मीकांताच्या आंगणांत उबो रावन तो सुणो भोंकपाची वाट पळयत रावलो. बऱ्या वेळान ताका याद जाली.

...आरे ! त्या भोंकपी सुण्याक तर आमीच माल्ला !

X X X

– दुसरो दीस सुरू जाला.

लक्ष्मीकांतान ताका सांगिल्लें.

तेच सहजतायेन तो आसा नसो तेमी देवून घरा आयलो.

वाडयावयलो व्हाळ शांतपणान व्हांवतालो.

X X X

सकाळिफुडें विजयाक सोदपाक शिवा धांवन आयलो. सामको घामाघूम जावन. वाटेरूच ताका अनंत भेटलो. केदावेळ तो खर्शेतूच उल्लो.

– विजय खंय ?

शिवान काचाबूल जावन विचारलें.

– आवयक खायरो !

शिवा ओठांतल्या ओठांत उलयलो.

– कोणांक गाळी मारता रे ?

अनंतान अजापान विचारलें.

– आनी कोणांक ? त्या लेंबडया सुण्यांक. व्हारो उस्तिल्लेबगर ताचें पोटूच भरना. रेबकोणांत लोळपी धुकरांचे जातींत जल्माक येत्रपाचे हे चुकून मनीस कुळयेंत जल्मांक आयले.

सकाळच्या पारा शिवा सामको तांबडो जावन जळफळटालो.

– तो जानू, रातीं बायल बाळंत जाली म्हण वरां पळोवपाक लक्ष्मीकांतागेर गेल्लो खंय.

– अशें ?

– इतल्यार सोंपूना. आयज सकाळच्यान जानू लक्ष्मीकांतागेर कामाक लागला. वाड्यावयल्य सगळ्या लोकांनी ताका कुळागारांत वावर करताना पळयला.
– शी ! शी !
– आतां वाड्यावयले लोक दुशणां दितात ती आमकां. कितें कितें उलयतात तें सोंसपाक जायना. तेचखातीर हांव विजयाक पळोवपाक आयिल्लों. आयज वाड्यार कितें घडत म्हूण सांगू नजो. शिवा रड्च्या दुकांर पाविल्लो.
– हांव सायकल घेवन वतां आनी विजयाक आसा थंयचो घेवन येतां.

अनंत धांवत गेलो आनी शिवा, विजय येयसर खंय दड मारून रावचो तें येवजीत रावलो.

x x x

कोणेंच आपय नासतना रातीं सगळे चौखेर गांवपणांक जमले. आदल्या गांवपणांपरस दुपेटीन. झाडून सगळे दादले हाजीर जाल्ले. तांतीपिलो लेगीत आयिल्लो.
– आतां खंय हुंवाळे तरनाटे ?

पयल्या गांवपणां दीस जाणे सगल्यांचे वतीन हयकार दिल्लो ताणे गरड घाली.
– सकाळच्यान एकलो कोण दिश्टी पडटा जाल्यार पळय. हरशीं गांवार पडलेले आसता. ज्यूस्त आयजूच सगळ्यांचो उखल जालो.

चार – चौगांत केन्ना तोंड उक्तें करपी न्हय अशा मुखदुर्बळांक लेगीत वाचा फुटिल्ली.
– भुरग्यांचे मयणेक बीं ना मात.

जाण्टेल्यान हाडां करकरयत म्हळें.
– भुरग्यांची मळणी ? मागीर आमकां अशे पोटाक कित्याक लायले तर ? भुरग्यांनी भुरगेपणान वागचें. आमच्या कोणा पूर्वजांनी लेगीत केन्ना येवजिलेंना तसलो कावज हड्डुचार घेतलो ना ?

जाण्टेलो वगीच रावलो.
– पूण भुरग्यांचो काय जानूचो गुन्यांव ?

एकल्यान तटस्थपणान विचारपाचो यत्न केलो.
– हांव सांगता, गुन्याव दोगांयचो. जानू खातीर लक्ष्मीकांताल्या माडार आमी धेंप माल्लें ना आनी असल्या मनशाखातीर तरनाटयांनी आमकां एकठांय हाडून रणींक माल्ले.

एक पाडेली बोंबलेच्या देंठातल्यान आडुलो.

– मागीर हाडात दोगांकूय चौखेरं.

संदीचो लाव घेवन एकल्यान फर्मान काडलें.

– हांव जानूगेर वचून येयलों. जानू घरांत आसा म्हणपाची मात्तूय जाग दाखयना.

– जाग दाखोवपाक पिसो तर तो ?

– आमकां पिशांक पिंपळ मात बरो दाखयलो.

दुःखांतूय लटकें हांसपाचो यत्न करीत एकल्यान म्हळें.

– आनी विजयी वीर खंय भाशणां करूंक गेला ?

विजयाची फकाणां करीत एकल्यान प्रश्न केलो.

– ज्यूस्त आजूच खंय तो शारांत गेला आनी तोवूय सकाळीफुडें.

– वा ! आतां आंग चोरपाचें धंदे बरे जमता.

– आनी बाकीची चांडाळचौकडी ?

– तेची वाट पळयत बसल्या.

– आतां तेची वाट पळोवपाची गरज ना म्हणजे. कितें तो सोक्षमोक्ष आतांच लायात.

दोग जाण अनंताक, शिवाक आनी गजाक सोदपाक गेले. चौखेवयलो बोवाळ उल्याच्या अंतरार सहजतायेन कानार पडूंक लागलो.

बळजबऱ्यां म्हणटा तशे गजा आनी शिवा आयले. अनंत आनी विजय आजून येवंक नासले. गजाक आनी शिवान चौखेर पावल दवरिनाफुडें सगळे लोक तांचेर तुटून पडले. ते आदींच गडबडलेले. अदीकूच घुस्पले. एक दोन फावट तांणी तोंड उक्तें करून लोकांक थातारपाचो यत्न केलो पूण तांकां कोणेंच दाद दिली ना. जो तो तोंडाक येता तें जायफाय उलोवपाक लागलो.

बरोच वेळ गांवपण चल्ल्या उपरांत कोण तरी खुबळ्ळो.

– आतां हांगां बोबो कित्याक मारता ? चला जानूगेर.

लोक उठले, चौखेर जें चल्लां ताचेपरस कितेंतरी वेगळें घडपाची सगळेच वाट पळयताले.

भराभर पावलां चौखेचीं सोंपणां देंवलीं. फराफर चुट्टयांच्यो चुडी पेटल्यो. दोग – तीगांनी गरजेमायर चौखेवयल्या आकाले वंयचे खूंट म्होडून दांडे केले.

कांय खिणांत लोकांचो चोमो जानूच्या घराक वचून भिडलो.

भीतर भुरगीं हुयेली मारतालीं. ओल्या आंगाची बाळंतीण जानकी तांकां थातारपाचो यत्न करताली. काल जल्मल्ल्या भुरग्यांचे रडप चलिल्लें पूण आपणाल्याच बोवाळामुखार चवताळिल्ल्या लोकांक कांयच आयकूंक येना आसलें आनी आयल्यारूय कोणांक ताची पर्वा नासली.

गजा आनी शिवा चोम्याच्या शेवटाक आंग चोरून उबे आसले. तांच्या वांगडच्या हेर भुरग्यांनी दड मारिल्ली. जाणटेलो लेगीत तांच्या मुखार सरून

फुरफुरतालो. दोगूय खिणाखिणांक काळखांतूच वाटेक दोळे लायताले. कोणांचीय पावलां वाजल्यार आस्तेन कान व्हड करताले.

आड्डून आड्डून लोकांचे ताळे सरांटले तरी जानून दार काडलें ना. एका पाडेल्यान घराचेर मारूंक उखल्लेलो फातर दुसऱ्यान काडून घेतलो. पेट्टी चूड पाख्याक लावपाक मुखार सल्लेल्या एका मानायाक एका जाणटेल्यान आडावन धरलो.

सोंशीकताय सोंपली तसो एकलो आल्त मानाय धांवून पडवेर गेलो. खोंट मारून ताणे दार मोडलें. धण्ण आवाजासरशीं घरांत कलकल जालो.

मानाय घरांतल्यान भायर आयलो. कवडयाच्या पोराक कसो ताणे बचकुलाक धरून जानूक हाडलेलो.

पडवेर उबो रावुनूच ताणे जानूची गुठली आंगणातले लोकांचे झुंडीमदीं शेंवटीली.

सोंशाच्या पोराचेर शंबरेक सुण्यांनी झोंपय घालची तशे हात-पांय शिवशिवून सगळे जानूचेर धांवले.

आनी विजय गर्देतल्यान मुखार प्रगटलो.



## ११.

# अग्निदिव्य

सुर्या उदेता तेच दोंगुल्लेचे आडसून तो वयर आयलो. सगळचान पयलीं ताका जाण्टेल्या व्यंकटून पळयलो. आनी ताका दिसलें, आनीक अेक सुर्याच वयर सरता. व्यंकटून हेवटेन तेवटेन पळयत साद घातिल्लेभशेन एक आवाज केलो. वाडचावयल्या भौतेक सगळचा घरांच्या कंवडचार तो सादलो.

वैशाखांतली दनपार रमारमा करून रखरखताली. भोंवतणची झाडांपेडां आपलें पाचवेंपण वोतान धगळचें ना अशें जतनायेन उबीं राविल्लीं. मुळांतलो पान–पन्नो कायलींत तळिल्ल्या पापडांवरी कुरकुरीत जावन कवळिल्लो. सबंद वाडचावयलीं घायेक कोलवाचीं घरां वोतान सुकतल्या शेणाच्या काळचा थाप्यांभशेन दिसतालीं.

दोंगुल्ली देवून तो संकयल वाडचार आयलो. तेन्ना व्यंकटून ताका सामको लागिच्यान नियाळ्ळो. अख्या वाडचार हो एकलोच मनीस गोरो. खऱ्यानीच ताका गोरेपण फाव्रो आसलें अशें व्यंकटूक दिसलें.

तरणीताठी मुर्त. सादारण उंचाय. उक्ते पांय. पांयाचेर धुल्लाचो लेपोड. सोनयाळें पितांबर कमराक सामकें आंवळून. फाटल्यान कचाटून कासाटो. वयलें आंग उकतें. माथ्यावयले काळशे केंस धुल्लान मातकट कपलाचेर गंधाचें व्हडलें उबें नाम. आंगभर घामाच्यो पावळचो. गोरो आंगलोट वोतान तांबसो केल्लो. उज्यांतल्या पेट्टचा इंगळचावरी तो रसरसतालो. वेताच्यो बडयो एकामेकांत गुंथून केल्लें तरंग ताणें उजव्या हातांत धरून उजव्या खांदार धरिल्लें. पोंतावयले केंसरी गोंडे ताच्या पावलाकणकणी हालताले.

– आमचो अग्नीभक्त येयलो !

व्यंकटून ताका पांया पडत म्हळें.

– व्यंकटूदाद, जाणटेले भुरग्यांच्या पांया पडनात.

व्यंकटूच्या माथ्याक हात लायत ताणे म्हळें. खूब वेळान तो उलयतालो.

ताचो आवाज सुको आनी खरखरो जाल्लो. भुजांवयलें तरंग ताणे झाडामुळांत उबें केलें.

– तूं मुरगो उल्ला ? अग्नीभक्त म्हटल्यार आमचेखातीर देवाचोच अवतार। आतां आमचे वाडयेक भंय ना. तुज्या रुपान अग्नीदेवाची सासाय उतरली आमच्या भुरग्याबाळांचेर. देवीची जात्रा कशी जाली ?

ताणे जात्रेची खबर सांगची म्हण व्यंकटून थंयच झाडामुळांत सावळी पळोवन थपकल मारली. व्यंकटूचो व्हदळचो साद आयकून वाडचार आशिल्ले नाशिल्ले सगळे झाडामुळांत एकठांय जाले. पांयावयल्यान जोर गेल्लो थोंटी लेंगत लेंगत लागीं आयलो. सदांच पिडेस्त आसपी कीडयाळो बाळो, तोळ कसो उडत उडत आयलो आनी येंवचे येवन खोंकपाक लागलो. चार–पांच जाण धा–बारा वर्सां पिरायेचे भुरगे सुण्याचे पेटे कशे दूडदूडत आयले आनी निमाणेकडेन कस्तूरमावशी रान्नींत फूंक मारून खोंपटांतल्यान भायर सरली.

ताणे सगळयांचेर नदर भोंवडायली. आपणाल्या येवकाराक इतलेच लोक ! अशें येवजून खीणभर ताचें तोंड बावलें पूण सगळयांच्या तोंडावयली उत्सुकताय पळोवन तो उमेदीन भरलो.

दनपारचो वगत. सकाळीं कामधंदयाक भायर सरिल्ले वाडयेंतले कामदार सांजवेळा घरा परतुपाचे आसले. कोण शेताच्या वावराक गेल्ले. दादले आनी बायलो भौतेक सगळींच पोटाफाटल्यान गेल्लीं. वाडचार उरिल्ले तातूंत जाणटेले, भुरगीं, दुयेंत आनी अपंगूळ हांचोच आस्पाव आसलो.

– आमच्या आगीनभगता, कितें हाडलां आमकां ?

जाणटेले कस्तूरमावशेन ताच्या हातीं-पांयार लक्तुबायेन हात भोंवडायत म्हटलें.

सावळी वाडची तशी ताची उमेद अदीक वाडली.

अग्नीभक्त म्हण सगळेच ताका पाचारताले. ताकाय दिसलें, आपूण खरेंच अग्नीभक्त. आपणांक आनीक दुसरें नांवूच ना. कागदान गुठलावन हाडिल्लो अग्नीदेवाचे जात्रेचो प्रसाद ताणें सगळयांच्या हातार दवरलो. सगळयांनी तो मोटया भक्तिभावान आनी गोडयेन मुखशाक लायलो.

– कस्तूरमावशे, तुजो नातू खंय ?

कस्तूरमावशेच्या हातांत ताणें सुपुल्लेंच खेळणें दिलें. तिगेल्या अपुरबायेच्या नातवाखातीर ताणें तें हाडिल्लें.

कस्तूरमावशेक ताची खूब लक्तुबाय दिसली.

– पोर बरो खेळटलो ! खेळणीं बी घेवपाक तुका बरो बगत मेळळो मरे !

खेळणें भुयेर दवरीत कस्तूरमावशेन म्हळें. भुयेर दवरिना फुडें कितलोसोच वेळ तें खेळणें – ल्हानशी बावली – थरथरत उरलें.

– नातू न्हिदला. आतांच दोळो लागला. ताका न्हिदोवन आतांच रान्नीर आदन दवरलां. पूत सून दोगांय कामांक गेल्यांत. आज घरा नातू आनी हांव. आनी हें खेळणें ! आरे, पाड पडूं म्हजें. हांवच भरभरत रावलीं. तुजी जात्रा कशी जाली ?

कस्तूरमावशेन थंयच थपकल मारली.

– भुरग्यानो, मागीर याद करात आं म्हाका. चुलींत उजो सारून येयल्यां. जाणटेपणांत यादीक लागली चुट्टी. आं, सांग रे अगीनभगता, कशी जाली तुजी जात्रा ?

– कस्तूरमावशे, जात्रा म्हाजी न्हय, जात्रा श्री अगीन देवाची !

अग्नीभक्तान नमळायेन सांगलें.

– थुमेकाल !

कस्तूरमावशेक दोनूय पोले फोडून घेतले.

– अग्नीदेव म्हचार जागृत दैवत !

जात्रेच्या गजालींक तोंड फुटचें म्हण जाणटेल्या व्यंकटून म्हळें आनी सगळ्या भुरग्यांनी तोंडां उकतीं करून अग्नीभक्ताकडेन नदरो लायल्यो.

अख्ख्या वाड्यार तो एकलोच अग्नीदेवाचो भक्त जाल्लो. वाड्यावयल्या लोकांचे हेर गांवातले सोयरे – धायरे कोण – कोण अग्नीदेवाचे भक्त आसले पूण ह्या वाड्यावयलो पयलो भक्त हींच जालो. खासा अग्नीदेवान सपनांत येवन ताका जात्रेक येवन भक्त जावपाचें आपोवणें केलें. ताणेंय तें तितल्याच भक्तिभावान मानून घेतलें. कारण दरएकलो आपल्या आयुश्यांत अग्नीदेव सपनांत येवपाचीं सपनां पळयता.

जात्रेच्या दोन दीस आदीं ताणें उपास केलो. न्हावन – धूवन नितळ रावलो आनी जात्रेदिसा तरंग खांदार मारून जात्रेक गेलो.

ह्याचे आदीं ताणे जात्रा पळयिल्ली. लोकांमदीं रावन. आतां तो भक्त जावन ते जात्रेचो एक म्हत्वाचो भाग जाल्लो.

देवाचे भक्त शेंकड्यांनी. तांच्यांत तो भरसलो. लोकांची सामकी लुटालूट. ताका पोरुंची याद जाली. पोरूं वर्सा तो हेच चिरंगटीन चेंचतालो. आतां ताका सगळे लोक वाट करून दिताले.

दनपार ते सांजमेरेन सगळे धर्मीक विधी जाले आनी रातीकडेन मध्यान्नेर जात्रेचो मुखेल भाग सुरू जालो. देवळाच्या मुखावयल्या मळार होमखण पेटलें. सुक्या लाकडांचे भोरे एकार एक होमखणांत पडपाक लागले. दनपारचो वैशाख पेट्टा तशें होमखण पेटलें. सगळो वांठार लखलखून गेलो. देवूळ चकचकलें. गर्भकुडींतली सहस्त्र घोड्यांच्या रथांतली अग्नीदेवाची मुर्त उजो कशी रसरसली.

आनी धोलार तोणी पडली. ताशार बडी वाजली. वाजोवप सुरू जालें तें होमखणांत लाकडांचे इंगळे जायीसर चालू उरलें. उज्याच्या धगान कडेक सरिल्ले

लोक होमखणां भोंवतणी एकठांय जावपाक लागले. लोक कितलेशेच. सुमार ना इतले. सगळेच सगळयांक अनवळखी.

तळयेर न्हावन अग्नीभक्त वयर आयले, कपलाक गंधाचीं नामां काडून एका फाटोफाट एकलो-जात्रेंतलो सगळयांत म्हत्वाचो आनी निमाणो भाग सुरू जालो. एका फाटोफाट एक आनी मागीर चोम्याचोम्यानी अग्नीभक्त होमखणांत देंवले आनी पेट्टे इंगळे माड्डीत देवळांत धांवले. परंपरेप्रमाण भटान दिल्लें देवाचें तिर्थ आनी प्रसाद घेवपाक.

पळोवपी लोक स्वास दामून धरून कितलोसोच वेळ रावले. भक्तांच्यो झुंडिच्यो झुंडी होमखणांतल्यान गेल्यो.जात्रा उलगली.

ताणे जात्रेची वर्णना सोंपयलीं आनी कपलाचो घाम पुसलो. ताचो ताळो सुकलो. तान लागली.

– कस्तूरमावशे, चुलीर आदन चडयलां, याद आसा न्हू ?

थोटीन मावशेक याद केली.

– आसा, आसा. अग्नीभक्ता, तुकां पिवपाक उदक हाडटां आं पुता.

कस्तूरमावशी उठली आनी वांकडचा भेंडानूच आपले खोपीवटेन गेली. वतना हातांत तें खेळणें घेवन गेली.

– इंगळयां वयल्यान चलताना अग्नीभक्तांक कांयच जायना, पायांक बी ?

एका पोरान अग्नीभक्ताक विचारलें. आनी ताणें जाप दिवचे आदींच जाणटेल्या व्यंकटून सांगलें,

– जायना कित्याक ? जायत्या जागांक भोगलां ! पांय हुलपतात. पूण खरेल्या अग्नीभक्तांक ते इंगळे म्हळचार फुलांचें पायतण !

तेसरशीं अग्नीभक्त प्रसन्न मुद्रेन हांसलो. सगळयांक ताचें अप्रूप दिसलें. कारण तो इंगळयांचेर सहजतायेन चलून आयिल्लो आनी ताका कांयच जावंक नासलें.

– आतां तुका उज्यापासून कसलीच भिरांत ना ?

बाळयान प्रस्न केलो.

– देवाची सासाय आसल्यार कसली भिरांत ?

परती जाणटेल्या व्यंकटून जाप दिली आनी मुखार म्हळें,

– आमकां अग्नीदेव पन्नास मैल पयस पूण अग्नीभक्त बगलेक. आमकां देवाचो भक्तूच अग्नीसमान !

व्यंकटून अग्नीभक्ताक नमस्कार केलो. आनी मागीर भुरग्यांनीय खाकडत खाकडत हात जोडून मानो बागयल्यो. दर एकल्याक दिसलें, आयुश्यांत केन्नातरी अग्नीदेव सपनांत येंवचो आनी ताणे जात्रेक भक्त जावपाचें आमंत्रण दिवचें.

खूबूच तान लागली तेन्ना तो उठलो. कस्तूरमावशेचे खोपीवटेन ताणे नदर

मारली. ताची खोपिनेर नदर पडली त्याच वेळार कस्तूरमावशी खोपींतल्यान हुयेली मारीत भायर आयली.
– धांवा रे, पावा रे ऽऽ.

झाडा मुळांतले सगळे वावटळींत खोलयो उडच्यो तशे उठले आनी खिणाभितर खोपीकडेन पावले.
– रात्रींतल्या उज्यान घात घेतलो !

कस्तूरमावशी हांगा थंय नाचताली. तिच्या खोपटाक उजो पेटिल्लो. वोतान करकरीत जाल्ल्या चुट्टाच्या कोलवान आनी मल्लांच्या कडव्यान भकाभका करून पेट घेतिलो.
– आरे, घर जळों ! म्हज्या नातवाक वांचयात. हांव म्हज्या पुता सुनेक कितें सांगों ?

कस्तूरमावशी कपल आदळटाली. सगळे एकामेकांच्या तोंडाक तकातका करून पळयताले. थोटी आपलो लेंगपी पांय सांसपिताली. बाळयाची खांक सुरू जाल्ली. जाणटेलो व्यंकटू कडकडटालो. भुरगीं भंयान तोंडां फुलारून आंग चोरून कुशीक उबीं आसलीं.

उज्याचे जाळ व्हड जावपाक लागले. खोपीच्या चारूय वटेन उज्याच्यो जिबो नाचूंक लागल्यो. कस्तूरमावशेच्या नातवाची पयली किळांच उज्यांतल्यान भायर आयली ते सरशीं कस्तूरमावशेन न्हीन्नळून आरड मारली.
– अग्नीभक्ता, म्हाका पाव !

तिच्या हातांतलें खेळणें पयस शेंवटलें आनी पडिल्लेकडेनूच थरथरपाक लागलें.

सगळयांच्यो किळांची सुरू जाल्यो, आंवडो गिळी नासताना.

अग्नीभक्ताचो जीव तानेन गोळाक लागलो. ताका घुंवळशी आयली. चिनारी गेली. ताच्या दोळयांमुखार गुडूप काळोख दाटलो आनी काळखांत उजवाडाचीं केणां. तो संभ्रमलो. तीच जात्रा ... तेंच होमखण ... तोच मळबाक भिडपी उज्याचो जाळ ... उजो आपसूक पालोवन केन्ना इंगळे जातले ताची वाट तो पळयत रावलो ...

कस्तूरमावशेच्या नातवान निमणी किळांच मारली.



## पुंडलीक नारायण नायक

हांगेलें साहित्य

नाटकां

**खण खण माती**
**रक्तखेव**
**राखण**
**सुरींग**
**सूर्यसांवट**
**देमान्द**
**मुक्तताय**
**शबै शबै भौजनसमाज**
**पिंपळ पेटला**
**श्री विचित्राची जात्रा**

एकांकी संग्रह

**गांवधनी गांवकार**
**चौरंग**
**आकाशमंच**

बालनाटच

**रानसुंदरी**
**आळशांक वाग खातलो**

एकपात्री

**छप्पन्न भिगळी पेसबंत**

कविता

**गा आमी राखणें**

कथा

**मूठय**
**पिशान्तर**
**अदूक**

नवलकथा

**अच्छेव**

नवलिका

**बांबर**
**वसंतोत्सव आनी दायज**

बालनवलिका

**मनू**

अणकारीत

**काजी नजरूल इस्लाम**
**नानालाल**

